उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां

१ 'मनिसगांव' (काणये पुस्तक २००३) 'ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन' श्रीस्थळ, काणकोण.

२ 'राजकुंवर शेणला' हो कोंकणी एकांकी झेलो 'जैत प्रकाशन' खोर्ली, तिसवाडी.

३ 'आरंभ' हो मराठी एकांकिका संग्रह (वर्स २०१३) 'अ आ प्रकाशन' पैंगीण.

फाव जाल्ले पुरस्कार :
'राजकुंवर शेणला' ह्या पुस्तकाक कोंकणी कला साहित्य केंद्र कुडचडें - गोंय हांचो २००९ - २०१० वर्साचो स. रामनाथ यस् मथा बालसाहित्य पुरस्कार.

गोवा कोंकणी अकादमी, पणजी हांचो 'राजकुंवर शेणला' पुस्तकाक सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य पुरस्कार - २०१२.

# सर फुडें

कविंद्र फळदेसाय

संजना पब्लिकेशन्स
सांगें-गोंय

# सर फुडें

(पथनाट्य संग्रह)

कविंद्र फळदेसाय

# Sar Fuddem

(Collection of Street Plays)

by Kavindra Phaldesai


'क्षितिज' ८३८, वेलवाडो,
पैंगीण, काणकोण-गोंय
फो: ०८३२ २६४१२९७

**प्रकाशक**
संजना पब्लिकेशन्स,
३९, दत्तवाडी, सांगें-गोंय
मो: ९५५२५५१४२५

**प्रकाशन क्रमांकः** २९

**पयली उजवाडावणीः** १८ जुलय २०१४

**मुखचित्रः** अपेक्षा पुराणीक

**छापणावळः**
बांदेकार ऑफसॅट,
कुडचडें-गोंय
फो: ०८३२ २६५००३४

**मोलः** ₹ 180/-

**ह्या पुस्तकाक गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या 'लेखकांक अर्थीक अनुदान' हे येवजणे खाला अनुदान मेळ्ळां.**

---

पथनाट्याची अ आ जंय शिकलों त्या
'प्रोग्रेसिव्ह स्टुडंट्स युनियन' हे शाळेक
आनी मास्तर जावन पयलें पथनाट्य बरोवन घेवपी
**श्री. अनंत अग्नी**
हांकां मायेमोगान!

## मांडावळ

# न्नाकात हे स्ट्रीट प्ले

**तांत्रीक** नदरेन पळयल्यार रस्तो नाट्य वा स्ट्रीट प्ले हो पारंपारीक लोकनाट्याचोच आधुनीक नाट्याविश्कार. नाटक हें तशें भौसांतल्यानच तयार जालें, शास्त्रशुद्धतेचे चौकटींत थारावीक वर्गां भितर बांदून दवरून न्हय. संगीत आनी नृत्याक अभिनयाची जोड दिवन तयार जालें तें नाट्य. हो प्रकार चडसो सामुहीक स्वरुपाचो आशिल्लो. तो उक्ताडार जातालो. आमचे भाशेंत सांगप म्हणल्यार मांडार. चारूय वटांनी लोक आनी मद्दीं वर्तुळाकार मांडार नाट्याचें सादरीकरण. तातूंत गीत आसतालें, संगीत आसतालें, वाद्यवृंद आसतालो, नृत्य आसतालें, अभिनय आसतालो आनी व्यक्तिचित्रणांय आसतालीं. आयज आमी जाका आमचें दायज म्हणटात तें मुळांत लोकनाट्य. आमच्या दोळ्यां मुखार गोंयांतच पळयतले जाल्यार जागोर आनी इंत्रुजाच्या वेळार जातात ते खेळ (म्हणल्यार आदल्या तेंपा वयले स्ट्रीट प्ले). पूण जागोरा सारके प्रकार हे एका थारावीक सुवातेर सारयिल्ल्या आंगणांत जातालें. त्या मानान इंत्रुजाच्या वेळार आयज लेगीत जावपी खेळ हो खरोखुरो स्ट्रीट प्ले. तो एके सुवाते कडल्यान दुसरे सुवातेर भोंवत वता. ताका मांड लागना, थारायिल्ली सुवात लागना. लागता तो फकत लोक.

लोककलेचे संवसारभर हजारांनी प्रकार आसात. तातूंत गीत आसा, संगीत आसा, नाट्य आसा, नृत्य आसा, कसरती आसात, वेशभुशेंतल्यान केल्ल्यो करामती आसात, म्होंवाळीं घालून केल्लीं नाटकां आसात, अशे एक ना अनेक

प्रकार. सामान्यांतल्या सामान्य मनशाच्या आंगांतली असामान्य कला आनी सर्जनशीलता हांच्या सादरीकरणांतल्यान कितल्याशाच तरांचे लोककला प्रकार तयार जाले. हातूंतले कांय प्रकार एके थारावीक सुवातेचेर जातात जाल्यार कांय प्रकार घरा-लेगीत भोंवतात. शिगम्या वेळार तोणयां मेळ - तालगडी - गोफ नाचीत मेळ घरा-घरांनी भोंवतात जाल्यार कालो वा धालो फकत मांडारूच जातात. हातूंत संगितावांगडाच गितांय आसतात. हीं गितां कोणें रचलीं कोणूच नकळो. एकामेकांच्या तोंडांतल्यान तीं पिळग्यांच्यो पिळग्यो प्रवास करीत आसात. ह्या गितांनी फकत देवा-धर्मा विशींच काव्य नासता, पूण समाजांतल्या वृत्ती-प्रवृत्तींचेर अचूक बोट दवरून वर्मार घाव घालपीय सर्जनशीलता आसता. देखीक आमच्या शिगम्या मेळाचेंच एक गीत - 'ह्या गांवांत ससो इलो गा, त्या सोंश्याक बामण भिलो गा.' संवसारांतल्या सगल्यांत भिवकुऱ्या प्राण्याक - सोंश्याक भिवपी भाटकार बामणाक ताच्याकूय चड भिवकुरो थारावपी कश्टकरी समाजाची ही सर्जनशीलता खऱ्यांनीच तोखेवपा सारकी. समाजांतलीं हीं धोंगां-पोंगां दाखयतच लोककला फुलत गेली.

उपरांत रोमन सत्तेच्या काळांत प्रेसिनियमाच्या नांवान हे सगले प्रकार एक-एक करून बंदिस्त थेटरांनी घुसले, रंगमाचयेर चडले, तांकां प्रतिश्ठीत अशें लेबल लागलें, तातूंतल्यान कलेचो वेवसाय जालो, उद्येग जालो, तिकेटी आयल्यो, ह्यो तिकेटी परवडपी वर्गां भितर हे कला प्रकार घुस्पले. जांकां हीं थेटरां परवडटात तांकां आवडपी उच्चभ्रू कथानकांच्या चौकटींनी हे कला प्रकार फिक्स जाले. कश्टकरी समाजाच्या कथानकांक समांतर थेटर म्हणपाची प्रथा सुरू जाली. प्रायोगीक पद्दतीन हीं नाटकां जातालीं देखून तांकां प्रायोगीक रंगभुमीय म्हणटाले. आयजूय म्हणटात. दुसरे वटेन सामान्य मनशाच्या लोककलांचें दायज जालें. समाज बदल्लो तरी लोककला बदलूंक जायना अशी समजणी पातळूंक लागली आनी लोककलाय दायजाच्या भूतकाळांत घुस्पली.

मात तिसरे वटेन संवसारभरांतली अर्थवेवस्था बदलूंक लागली. जमनीची मालकी आनी जमनींतल्या पिकाच्या नेटार चलपी सरंजायमशाय वेवस्था उमथून उडोवन जमनीचें पीक मिशिनांत घालून नवनिर्मणी करपी उद्येगीक यूग सुरू जालें. सत्ताधाऱ्यांची नवी जमात जल्माक आयली. तांणी राजेशाही संस्थानां उमथून उडयलीं. लोकशायेच्या नांवान भुगोलीक शिमो घालून देश आनी राज्यां तयार जालीं. ह्या देशांचेर घुरी घालून जागतीक बाजारपेठ काबीज करपाची नवी राजनिती

सुरू जाली. वसाहतवाद सुरू जालो. वसाहतवाद्यां मर्दी झुजां सुरू जालीं. तांचे आड उठावय सुरू जाले. कांय देश स्वतंत्रय जाले. मात ह्या सगल्या बदलांनी घुस्पलो, घुस्मटलो, चेंपलो आनी चिड्डलो तो सर्वसामान्य कश्टकरी भौस.

अर्थांत, हो घुस्मटमार भायर सरपाचें सगल्यांत प्रभावी माध्यम म्हणल्यार कला. तातूंतले तातूंत नाटक. सामान्यांचें लोकनाट्य भूतकाळाच्या दायजांत बंदिस्त जाल्लें जाल्यार रंगमाचये वयलें नाटक उच्चभ्रू लोकांची मनरिजवण वा तांच्या वेदनां पुरतेंच मर्यादीत उरिल्लें. हातूंतल्यानच बंडखोर स्वरुपांत जल्म जालो थर्ड थेटराचो. ताका कांय जाणांनी पर्यायी थेटर म्हणलें जाल्यार कांय जाणांनी पिपल्स थेटर. संवसारभर वांगडाच ह्या थेटराचो स्फोट जालो. काळ आशिल्लो सादारण १९६५ उपरांतचो. दरेका देशांतली वा राज्यांतली परिस्थिती वेगवेगळी, पूण कलाविश्कार थर्ड थेटराचोच. कांय कडेन पब्सांनी गिटारांच्या ताला-सुरार नवीं गितां आनी नाच घडले जाल्यार कांय कडेन कारखान्यांच्या गेटी मुखार नाट्यरुपान ह्या घुस्मटमाराक वाट मेळ्ळी.

भारतांत हें बीज रुजवणाक घालें बादल सरकार ह्या संवेदनशील नाट्य कलाकारान. लोकप्रीय जाल्ल्या विनोदी नाटकांचो नाद सोडून तांणी 'एवम् इंद्रजीत' हें नाटक बरयलें आनी ताच्या प्रयोगांनी पश्चीम बंगालच न्हय, पुराय भारतांतलें नाट्यविश्व हादरलें. १९६० च्या पयल्या दसकांत पश्चीम बंगालांतले गांव धुमसूंक लागिल्ले. इतल्यांत दार्जिलिंगांतल्या नक्षलबारी ह्या गांवांत हिंसक पद्दतीन शेतकारांनी आपल्या घुस्मटमाराचे सुरिंग पेटयले आनी त्या सुरिंगांच्या स्फोटान हाल्लें मात पश्चीम बंगाल. तसो आख्खो भारतच, पूण कोलकाता शार शिरंतरांतल्यान थरथरिल्लें. लोकशायेच्या नांवान कश्टकरी भौसाक चिड्डून दवरपाचे प्रकार उक्ताडार येवंक लागले आनी बादल सरकाराचो शताब्दी हो पंगड थेटर सोडून रस्त्यार आयलो. गांवगिऱ्या जात्रांतल्यान स्फूर्त घेवन तांणी आंगण मंच घडयलो आनी सुरेन्द्रनाथ पार्कांत शेनवार-आयतार बादल सरकाराच्या थर्ड थेटराचे प्रयोग सुरू जाले. लोकांनी हें थेटर तकलेर घेतलें आनी ताचें वारें भारतभर पातळूंक लागलें. ताचेंच रुपांतर फुडें स्ट्रीट प्ले वा रस्तो नाट्यांत जालें.

सफदर हश्मी हो असोच एक दिल्लीचो प्रतिभावंत नाट्यकर्मी, गीतकार आनी विचारवंत. इंडियन पीपल्स थियेटर असोसियेशन (इप्टा) हे संस्थेन कितलेशेच प्रतिभावंत आनी भौसाचे प्रस्न कलेंतल्यान मांडपी साहित्यीक आनी कलाकार दिले. तातूंतल्या कांय जाणांनी तर सिनेमा मळाचें भांगराळें यूग गाजयलें.

तातूंतल्यानच तयार जाल्ल्या हश्मीन १९७३ वर्सा जन नाट्य मंच (जनम) ही संस्था घडोवन स्ट्रीट प्ले सुरू केले. बेकारी, बायलां वयले अत्याचार, कामगारांची पिळवणूक अश्या कितल्याशाच विशयां वयल्या तांच्या स्ट्रीट प्लेंनी कश्टकरी समाजाक नवसंजीवनी मेळ्ळी. एक आवाज मेळ्ळो. ह्या स्ट्रीट प्लेंचो प्रभावच इतलो आशिल्लो की २ जानेवारी १९८९ ह्या दिसा 'हल्ला बोल' ह्या स्ट्रीट प्लेचो प्रयोग एके फॅक्टरी मुखार चालू आसतना कांय गुंडांनी हल्लो करून हश्मीक जितोच मारलो. १४ वर्सां तांच्या खुनाची केश चलतकीर कॉंग्रेस फुडारी मुकेश शर्मा आनी तांच्या हेर १० वांगड्यांक ख्यास्त जाली. फकत ३४ वर्सांचे पिरायेचेर संवसार सोडून गेल्ल्या ह्या कलाकाराचें अर्दकुटें कार्य फुडें व्हरपाक भीष्म सहानी सारक्या लेखकान 'सहमत' ही संस्था घडयली. एम एफ हुसेना सारको फांकिवंत चित्रकार मुखार सरलो. तांणी चित्रायिल्लें सफदर हश्मीचें चित्र १० लाख डॉलरांक विकून तो फंड संस्थेक दिलो.

१९८० वर्सा गोंयांत मार्क्स स्कॅंडल प्रकरण फुटलें आनी आपले पुतणयेचे मार्क वाडयले म्हूण शिक्षणमंत्री फ्रांसिस्को सार्दीनाचो राजिनामो मागीत गोंयचो विद्यार्थी रस्त्यार देंवलो. त्या वेळार गोंयच्या कलाकार विद्यार्थ्यांनी गोंयांतलो पयलो स्ट्रीट प्ले रस्त्यार हाडलो. एक एक करून शारांनी बंद करीत काडिल्ल्या मोर्चा आनी सभांपरसूय ह्या स्ट्रीट प्लेचो सत्ताधारी कॉंग्रेसीन धसको घेतिल्लो. ताकाच लागून हो स्ट्रीट प्लेचो पंगड सार्दिनाच्या गांवांत माकाझान प्रयोग करपाक वतालो तेन्ना तांच्या टेम्पोचेर एक ट्रक भरून हाडिल्ल्या गुंडांनी जीवघेणो हल्लो केलो. तांचो टेम्पो फोडलो. टेम्पोक उजो घालून भितरल्या १०-१२ कलाकारांक मारून उडोवपाक हे गुंड वताले इतले म्हणसर पुलीस पावले आनी स्ट्रीट प्लेच्या ह्या कलाकारांक लासून जितेच मारपाची तांची येवजण फसली. परिणाम - सार्दीनाक शिक्षणमंत्रीपदाचो राजिनामो दिवचो पडलो. गोंयच्या पयल्याच स्ट्रीट प्लेक मेळिल्ल्या ह्या जैताची घुडी घेवनच फुडें १० वर्सां विद्यार्थ्यांच्या संघर्श नाट्य मंचान वेगवेगळ्या विशयांवेल्या स्ट्रीट प्लेंनी गोंय गाजोवन सोडलें.

१९६५ ते १९९० मेरेनचो तो काळूच तसो आशिल्लो. विद्यार्थ्यांची वा तरणाट्यांची एक संघटना घडटाली, एक नेमाळें येतालें आनी तांचो एक स्ट्रीट प्लेचो पंगड भायर सरतालो. फकत शारांनी न्हय, शारांनी शिकपी हुशार पूण तितलोच संवेदनशील विद्यार्थी शिक्षण लेगीत अर्ध्यार सोडून गांवागांवांनी वचून लोकांक संघटीत करपाक लागतालो. खंयूय वचून लोकांचीं मनां जिखून घेवपाक

हुकमी एक्को म्हणल्यार स्ट्रीट प्ले आनी लोककला प्रकारांचेर आदारिल्ली सांस्कृतीक कार्यावळ. आंध्र प्रदेशांतल्या गद्दर ह्या कलाकारान तर रचिल्लीं संघर्शाचीं नवीं पदां हीं आयज थंय नवीं लोकगितां जावन गेल्यांत. अर्थांत, हें चडशें जातालें तें दावे विचारसरणीच्या संघटनांनी. ती चळवळूच फुडें सैरभैर जाली आनी स्ट्रीट प्लेंचें हें वारें बरेंचशें उणें जालें. पूण आयज संघर्श करपी संघटनां वांगडाच सरकारी पावंड्यार लेगीत जनजागृती करपा खातीर स्ट्रीट प्लेचोच वापर जाता. कारण ह्या नाट्य प्रकाराची परिणामकारकता कोणूच न्हयकारूंक शकना.

नाटकाच्या हेर प्रकारां परस स्ट्रीट प्ले प्रभावी जाता ताका कांय कारणांय आसात. एक म्हणल्यार हें नाटक पळोवपाक कोणाकूच थेटरांत वच्चें पडना. रस्त्या वयल्यान वतल्या वा जंय तूं हें नाटक घेवन वता थंयच्या समेस्त भौसा खातीर तें उक्तें आसता. थंय उच्च-नीच हो भेदभाव आसना. तिकेटच आसना, मागीर तिकेटीची पयशांचेर आदारिल्ली वर्गवारी सोडूनच दियात. तातूंत हीं नाटकां म्हणल्यार दोन-तीन वरांचीं एरकंडिशंड थेटरांत ओर्राद गुबगुबीत कदेलाचेर बसून पळयिल्ली कलाकृती न्हय. कितें म्हणटा तें २० मिण्टां ते अर्द वरां भितर काबार. कारण रस्त्या वयल्या कोणाकूच इतलो वेळच नासता. तिसरी गजाल म्हणल्यार रस्तो नाट्य मुखेलपणान दोळ्यां मुखा वयल्या जित्या-जिव्या प्रस्नांचेर उजवाड घालता. हीं नाटकां कृतिशील आसतात, सरळ येवन काळजाक आदळटात. फातर्पेंच्यान गोंय लागीं करप वा प्रेक्षकाक फकत सजेस्ट करून अळंग कुशीक सरप हो स्ट्रीट प्लेचो सभावच न्हय. भौसांतल्या जळट्या प्रस्नांचेर लोकमत घडोवप होच रस्तो नाट्याचो गाभो.

मात स्टेज प्ले आनी स्ट्रीट प्ले हातूंत खूब फरक आसता. रस्तो नाट्य रस्त्यार खंयूय जाता. देंवतेर लेगीत. (म्हापशेंच्या झेवियर कॉलेजींत भितर वचपाक बंदी घाल्ल्यान आमी गेटी भायर देंवतेचेर स्ट्रीट प्ले करताले.) विंग हो प्रकारूच ना. कुशीक वचून लोकांमदीं बसप म्हणल्यार एक्झिट. उजवाडा येवजण हो प्रकारूच ना. केन्ना केन्ना काळोख म्हणचो असल्या उजवाडांत लेगीत स्ट्रीट प्ले करचे पडटात. कारण चडसो भौस असो काळखांतच आसता. आवाजा खातीर मायक वापरप स्ट्रीट प्लेंत अशक्य आसता. वेशभुशा करपाक वा नेपथ्य करपाक सुवातच नासता. तेन्ना सूचक अशीं प्रॉप्स (प्रॉपर्टी) वापरप ही स्ट्रीट प्लेची गरज. गांधी तोपी घाली आनी फुडारी जालो जाल्यार पुलिशेची तोपी घालून दांडो

घेतल्यार पुलीस जालो. तोच दांडो फुडले खेपे गिटार म्हणुनूय वापरप आनी बंदूक म्हणुनूय. एकलो धोंपरांचेर उमथो बसलो आनी जालें ताचें कदेल जाल्यार चार जाण उबे रावले आनी जाली वणत वा दार. आनीक अशेंच खूब कितें. सगलें कितें मनशांचें नेपथ्य वापरून वा सहजपणान हातांत येवपी प्रॉप्स वापरून. थेटरांतल्या झेतांक हांगां वावूच ना.

हाका लागून कल्पकतेचो कस लागता. स्ट्रीट प्ले चलतना कुशीच्यान पों पों करीत गाडयो वतात आनी बँड वाजयत लग्नाची मिरवणकूय. ह्या सगल्या बोवाळांतल्यान एके वटेन तोंड करून एका कोनशाक उलयिल्लो डायलॉग फाटले वटेन दुसऱ्या कोनशाक आशिल्ल्या मनशा म्हऱ्यान पावना जाल्यार तो नाटक पळोवपाक उबोच रावचो ना. तेन्ना पुटपुटप, फुतफुतप असले प्रकार केल्यार हुश्यो पडपाच्यो. आवाजाची पट्टी अशी आसपाक जाय की आड्डुनूय फावना आनी आयकुपाकय जाय. त्याय सगल्या बोवाळांत आवाजाचे चड-उतार जायच. ते भायर उरिल्लो सगलो अभिनय आंगीक आनी तोंडा वयल्या हावभावांचो. बॅकग्रावंड संगीत वापरिनासतना आत्तां हांसोवपाचें जाल्यार आत्तां रडोवपाचें आनी फुडल्या खिणाक उदास करपाचें आव्हान स्टेज प्ले परस स्ट्रीट प्लेंत चड आसता तें हाका लागून. देखून वैयक्तीक नाट्याभिनया परसूय प्रेक्षकाक खिळोवन दवरपा खातीर सामुहीक अभिनयाचेर भर चड दिवचो पटडा. ताका लागून सामुहीक पदां, नाच, मुकाभिनय (मायम्) आनी वेगवेगळ्या फॉर्मेशनांतल्यान खंयचोय प्रसंग परिणामकारकपणान प्रेक्षका मेरेन पावोवपाचें आव्हान स्ट्रीट प्लेंत आसता. हांगां कलाकाराच्या आंगांतले कलेचो खरो कस लागता. कारण कलाकाराचें उणेपण लिपोवपाक संदूच नासता.

दुर्देवान विद्यार्थी चळवळी उपरांत इतले शास्त्रशुद्ध पद्दतीन अभ्यास करून आनी प्रशिक्षणांतल्यान कलाकारांक घडोवन स्ट्रीट प्ले गोंयांत चडशे जाले नात. कांय जाले, पूण थोडे मायक घेवन जाल्यार थोडे बोवाळ ना अश्या सुवातांचेर. १९८४ वर्साचे वेंचणुकेंत उदयबबाब भेंब्रेचो प्रचार करपा खातीर मडगांवांत स्ट्रीट प्ले वापरिल्लो. म्हादयचेर आयिल्लें अरिश्ट लोकांक कळचें म्हूण सत्तरीच्या तरणाट्यांनी गोंयभर स्ट्रीट प्ले केले. हालींच भाशा माध्यमाच्या प्रस्नाचेर जनजागृती करपा खातीर स्ट्रीट प्लेचे प्रयोग जाले. स्ट्रीट प्लेंतलो जोश थंय खूब तेंपान पळोवपाक मेळ्ळो. नाजाल्यार हालींसराक स्ट्रीट प्ले जातात ते फकत सर्तींनी आनी सरकारी जनगजागृती कार्यावळींनी. कांय स्ट्रीट प्ले तर सरळ सभाघरांनी

आनी स्टेजीचेर लेगीत जातात. एका तेंपार आमकां भितर प्रवेश दिनाशिल्लें झेवियर महाविद्यालय लेगीत आज स्ट्रीट प्लेची सर्त घेता हीच कितें ती जमेची बाजू.

पूण निमणे स्ट्रीट प्ले प्रभावी करपाक जाय जाल्यार कलाकाराक परत लोकनाट्या कडेन वच्चेंच पडटा. कारण लोकां लागीं प्रभावीपणान पावपाचे कला प्रकार फकत थंयच मेळटात. ते लोकप्रीय आसात, लोकांच्या काळजांनी वसल्यात आनी तातूंतल्यान परिणामकारकपणान नाटकाचो गाभो लोकां मेरेन पावपाक शकता. ताका लागून लोकगितां, लोकांनाच आनी लोकवाद्यां घेवन वचपा बगर पर्याय आसना. तांचे बगर स्ट्रीट प्ले करपाक जायना अशें न्हय. पंजाबाचे गुरशरण सिंग हे एकटे स्ट्रीट प्ले करताले आनी अर्द अर्दवर प्रेक्षकांक रस्त्यार खंयूय खिळोवन दवरताले.

चडशे स्ट्रीट प्ले हे त्या त्या काळांत तयार जाल्ल्या प्रस्नांचेर आसतात. कांय तेंपान ते कालबाह्य जातात. देखून तांचीं पुस्तकां काडप जायना. पूण कांय प्रस्नूच अनंत काळा खातीर तशेच उरतात. ते बेगीन कालबाह्य जावचे ही स्ट्रीट प्ले कलाकाराची भावना आसली तरीकय तशें जायना. म्हजो इश्ट कविन्द्र फळदेसायाच्या ह्या पुस्तकांत अशे तरेचे बरेचशे स्ट्रीट प्ले आसात. लोकगितां, लोकनाच, सामुहीक कलाविश्कारान भरिल्ले. कालचे तरणाटे पिळगे खातीर बरयिल्ले. ती आयची पिळगीय वापरपाक शकता आनी फाल्यांचीय. पूण म्हज्या सारक्यांची एकूच इत्सा, कविन्द्राचें हें पुस्तक कालबाह्य जावचें. नाकात हे स्ट्रीट प्ले अशें म्हणून स्ट्रीट प्ले कलाकारांनीच हें पुस्तक कुशीक मारचें. एका तेंपार कसले कसले विशय घेवन स्ट्रीट प्ले जाताले तें इतिहासाच्या अभ्यासकांक कळपा इतलेंच ह्या पुस्तकाचें म्हत्व आसचें. हो वेळ बेगीन येवंक जाय जाल्यार ह्या पुस्तकाचो आयचे घडयेक चडांत चड वाठारांनी वापर जावंक जाय. हे स्ट्रीट प्ले तरण्या पिळग्यांनी आपापल्या वाठारांनी करीत रावंक जाय. तरणे पिळगेन हें करचें. तातूंतल्यान आसा ती वायट परिस्थिती सासणाची बदलून उडोवची. म्हजी ही लांबिल्ली प्रस्तावनाय कालबाह्य जावची होच आवंडो.

**- संदेश प्रभुदेसाय**
sandeshprabhudesai@gmail.com
९४२२०६३०००

# रस्तोनाट्याचें खाशेलपण

**रस्तोनाट्य,** माचीनाट्य आनी सिनेनाट्य ह्या तिनूय प्रकारांत वांटेकार जातना म्हाका ह्या तिनूय प्रकारांत फरक जाणवला.

माचीनाट्य आनी सिनेनाट्य हे लांबलचक वा ल्हान कथनकाचे विशिश्ट उद्देशान केल्ले वा 'कले खातीर कला' वा 'पोटा खातीर कला' म्हणून सादर करूं येता. पूण रस्तोनाट्य हें एक विशिश्ट उद्देशान, लोकां मदीं जाग्रुती निर्माण करपा खातीर, लोकांक विचार करूंक लावपाक खातीर वा मार्गदर्शना खातीर करतात. रस्तोनाट्य हें 'कले खातीर कला' वा 'पोटा खातीर कला' ह्या प्रकारांत मोडना.

सिनेमांत कलाकाराक सादो सदांचोच अभिनय केल्यार पुरो, कारण कॅमेऱ्यांत इल्लिशी गजाल लेगीत व्हडली करून दाखोवपाची तांक आसता. शिवाय अभिनया वांगडा थंय हेर साधनां-तंत्रगिन्यान वापरून सादरीकरण खुलोवंक जाता. तांचो प्रेक्षक वर्ग सगळे तयार जातकच तांची कलाकृती पळयता.

नाटकांत प्रेक्षक-कलाकार आमने सामने आसतात खरे, पूण तरीय तांय प्रमाणांत तांचे मदीं अंतर आसताच. हांगा कलाकारांक माची मांडावळीचो, उजवाडा-येवजण, थारावीक संवाद, संवादाची शब्दफेक आनी शब दांची चड-उतार हांच्या आदारान आपलो अभिनय करचो पडटा.

पूण रस्तोनाट्यांतलो कलाकार ह्या सगळ्या साधनां पसून अनाथ. ताका मायक आसना, मेक-अप आसना, पात्रा प्रमाण वेशभुशा आसना, थारावीक

संवाद आसताच अशे नात. मुख्य म्हणल्यार कलाकार आनी प्रेक्षक हांचे मदीं एका हाताचें अंतर आसता. ताच्या कथानकांतल्यान ताका जें कितें मांडूंक जाय तें ताका थोड्या वेळा भितर, खुशखुशीत शैलींत, अभिनयाची अतिशयोक्ती करीत, मोट्या आवाजान लोकां मुखार मांडचें पडटा. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार हांगा कलाकाराच्या अभिनया वांगडाच ताचो प्रामाणीकपणा, निर्भिडता, बुद्धीची सतर्कता, तळमळ आनी विचारांची स्पश्टता हाचो कस लागना.

**- प्रशांती तळपणकार**

# फुडें सरतना...

**पथनाट्यांची** आनी म्हजी वळख खंय आनी कशी जाली हाचो हांव विचार करतां. बरोबर, हांव शाळेंत शिकतालों तेन्ना. हय, तेन्नाच पथनाट्याची आनी म्हजी वळख जाली. ते पिरायेंत म्हाका पथनाट्यांनी आकर्शीत केल्लो इतलें मात खरें. पैंगीणच्या बाजारांत प्रोग्रेसिव्ह स्टुडण्ट्स युनियनाचीं कांय पथनाट्यां हांवें पळयिल्लीं. महाराष्ट्रांतले एके संस्थेचें 'मुलगी झाली हो' हेंवूय पथनाट्य हांवें तेन्ना पळयिल्लें. तेन्ना त्या प्रकाराचो अभ्यास हांवें करूंक नाशिल्लो, पूण हो प्रकार भाविल्लो हें मात खरें!

हेर नाटकां परस हें कितें तरी वेगळें हाची जाणीव म्हाका जाताली. एखाद्या भौशीक सुवातेर एकठांय येवप आनी खंयच्याय ज्वलंत विशयाचेर विचार मांडप. लोकांक एकठांय हाडपाची आनी सामावन घेवपाची ह्या प्रकाराची तांक म्हाका तेन्ना खूब भावताली आनी आयजूय भावता. नाटकावरी खास अशा वेशभुशेची, नेपथ्याची, रंगभुशेचीय गरज ना. आवाजा येवजण नाका, पड्डे आनी खास अशा रंगमाचयेचीय गरज ना. भौसाक लागीं हाडपाचें आनी भौसाच्या लागीं वचपाचें हें एक जबरदस्त माध्यम. तातूंतलो लोकवाद्यांचो उपेग, गितां आनी नाच हाचीय भूरळ म्हाका तेन्ना पडिल्ली ती आयज मेरेन तशीच आसा. बंदिस्त रंगमाचये परस उक्ती माची कलाकारांतल्या मनशाक गिरेस्त करता. परत रस्ता नाट्याचें आनीक एक खाशेलेपण म्हणल्यार भौसाची भाशा ही रस्त्यानाट्याची भाशा. कितलोय ताकतिकेंत आशिल्लो मनीस दिल्लो संदेश सहज घेवन वता. तिकेट

मेळोवपाक धडपडपाची गरज ना आनी तिसरी घांट जावन पड्डो उगडपाची वाटय पळोवपाची गरज ना. रस्ता नाट्याचें हें वेगळें विश्व, जाणें म्हजें ल्हानशें विश्व समृद्ध केलां.

मडगांवचे दामोदर कॉलेजींत शिकतना श्री. ज्ञानेश मोघे हांणी पथनाट्याचेर एक कार्यशाळा घेतिल्ली. तेन्ना तो विशय चड बरे तरेन समजून घेवंक शकलों. ते कार्यशाळेंतल्यान हांव बऱ्योचश्यो गजाली शिकलों. एक पथनाट्यय हांवें तेन्ना बरयिल्लें, पूण सादरीकरणाचे वाटेक मात हांव तेन्ना गेलों ना. पथनाट्यां बरोवन बसोवपाची सुरवात जाली ती सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमीक विद्यालयांत शिकोवपाक लागत सावन. पयल्याच वर्साक खंयचे तरी सर्तीक लागून म्हजो इश्ट अनंत अग्नी हाणें म्हजे कडल्यान पथनाट्य बरोवन बसोवन घेतलें. राज्य पांवड्याचेर आमकां तिसरें इनाम फावो जालें. मागीर आमच्या दोगांयच्याय लक्षांत आयलें की फकत सर्तीखातीर पथनाट्यां करचे परस वेगवेगळ्या विशयांची जागृती करपा खातीर पथनाट्यांचो उपेग जावंक जाय. मागीर राष्ट्रीय सेवा येवजणेंतल्या माध्यमांतल्यान आमी होवूय प्रयोग येसस्वी केलो. विंगड विंगड वाठारांनी शिक्षण, व्यसनां, एड्स ह्या विशयांचेर आमी पथनाट्यां सादर केलीं. कांय सरकारी येवजणां खातीर लेगीत आमी पथनाट्यां सादर केलीं. एका तेंपार आमच्या उच्च माध्यमीक विद्यालयांत रस्तानाट्यांक वांटेकार जावपी तिशेक भुरग्यांचो पंगड आशिल्लो. एका सरकारी अधिकाऱ्यान तर आमकां फोन करून विचारिल्लें, ''तुमकां सादारण कितलोसो रस्तो लागतलो?'' रस्त्यानाट्य करतनाची आनीक एक मजेशीर गजाल म्हाका याद जाता. तंबाखू विरोधांतलें एक पथनाट्य आमी सादर करताले तेन्ना हांवें म्हणलें, ''सिगारेट ओडल्यार कॅन्सर जाता.'' तर एक जाणटी बायल म्हणूंक लागली, ''आमी खींय सिगरेट ओडटात? आमी इडी ओडटा न्हू!'' प्रसंग मजेशीर पूण खूब कितें शिकोवपी. गांवडोंगरी बाजारांत प्रौढ साक्षरतायेचेर एका पथनाट्यांत हांव भाटकाराचो रोल करतालों. अडाणी गांवकाऱ्यांक नाडपी भाटकार. तेन्ना म्हाका गांवकार मारतात असो देखाव आसलो. थळावे शाळेचे एक मुखेली कुशीक उबे रावन आमचें पथनाट्य पळयतालो. आनी अचकीत, ''मारात रे तेका मारात रे तेका'' अशें म्हणत धांवत आयलो आनी म्हाका तो मारपाक लागलो. भौसाचेर जावपी रस्त्यानाट्याचो परिणाम हांवें तेन्ना पयले फावट अणभवलो. खऱ्यांनीच अणभवलो!

मदल्या काळांत श्री. संदेश प्रभुदेसाय हांणी पणजे पथनाट्यांचेर एक कार्यशाळा

घेतिल्ली. ह्या दोन दिसांचे कार्यशाळेंत हांव म्हज्या चार विद्यार्थ्यांसयत वांटेकार जाल्लों. त्या दोन दिसांचे कार्यशाळेंत म्हाका जायत्यो नव्यो गजाली शिकपाक मेळ्ळ्यो. श्री. संदेश प्रभुदसाय आनी प्रशांती तळपणकार हांचें मार्गदर्शन आनी शाबासकी म्हाका सदांच मेळटा. ह्या झेल्याचें नांव लेगीत म्हाका संदेशभाईन सुचयलां. म्हज्या नशिबांत पथनाट्यांचो अणभव आशिल्ले श्री. प्रशांत नायक, श्री. शरेंद्र नायक हांचे कडेन हांव पथनाट्या विशीं उलोवंक शकतां. प्रोग्रेसिव्ह स्टुडंट्स युनियनांत आसतना तांणी केल्ल्या पथनाट्यांविशीं हांवें प्रशांत नायका कडल्यान आनी खास करून शरेंद्र नायका कडल्यान बरेच फावट आयकलां. तितलेच उमेदीन तो त्यो गजाली आयज लेगती सांगता आनी म्हजे सामकार एक नवें विश्व उगतें जायत वता.

पथनाट्य जेन्ना माचयेर एकांकी वा नाटका भशेन सादर जाता तेन्ना खूब वायट दिसता. पथनाट्यांच्या नांवाखाला जेन्ना नेपथ्य वापरतात, पात्रांच्या गरजे प्रमाण वेशभुशा करतात तेन्ना प्रस्न पडटा हेंच काय पथनाट्य? आमी पथनाट्यांचें वेगळेपण सांबाळून दवरतले काय ना? येतल्या-वतल्या सामान्यांतल्या सामान्य मनशा कडेन संपर्क करपाचें सोडून एकेच वटेन प्रेक्षक आसतात थंय आमी पथनाट्य व्हरतले? पथनाट्या येदी ताकद दुसऱ्या खंयच्याय प्रकारांत ना अशें म्हाका दिसता. स्वताक सोदचें आसत, आत्मविस्वास मेळोवचो आसत तर पथनाट्य करात इतलेंच हांव म्हणीन.

हांवें लागीं लागीं पन्नास तरी पथनाट्यां बरयलीं. तातूंत कांय अर्द वरांची लेगीत आशिल्लीं. पुस्तक रुपान तीं येतात म्हणटकच हांवें सगलीं परतून वाचलीं. म्हाकाच दिसलें की कांय विशय काळा भायले जाल्यात तर कांय संदर्भय काळा भायले जाल्यात. त्या बऱ्याचशा पथनाट्यांचो आसपाव हांवें ह्या पुस्तकांत केलो ना. तर कांय पथनाट्यां संदर्भ काळा भायले आसून लेगीत घेतल्यांत कारण तातूंत त्या त्या काळाचें भाश्य आसा. म्हज्या पथनाट्यांतले चडशे कोरस वा गितां हीं लोकगितांचे चालीचेर आसात. त्या मूळ लोकगितांचो रचपी कोण, ताका सोबीत सुंदर चाली दिवपी कोण हें कोणूच नकळो. पूण तो रचपी आमचे खातीर एक खूब व्हड संचीत दवरून गेला इतलें मात खरें. आनी ताचे उपकार जर हांवें मानले नात जाल्यार हांव पडमूर थारतलों.

पथनाट्याच्या मळार म्हाका मार्गदर्शन करपी डॉ. नारायण देसाय, श्री. अनंत अग्नी, श्री. शरेंद्र नायक, श्री. प्रशांत नायक, श्री. संदेश प्रभुदेसाय आनी प्रशांती

तळपणकार तशेंच म्हज्या पथनाट्यांनी काम करपी आयज मेरेनचे म्हजे विद्यार्थी ह्या सगल्यांचोच हांव उपकारी आसां. म्हजें मनोगत बरयतना हे सगले विद्यार्थी म्हजे नदरे सामकार येतात. दर एकल्याचें नांव घेवप शक्य ना, पूण हेंवूय तितलेंच खरें की वत-वाऱ्याची पर्वा करिनासतना म्हजे वांगडा पथनाट्यां करपी तुमकां विसरून फुडें वचपय शक्य ना. तुमचे सारके गुणी विद्यार्थी लाबले म्हणून तर रस्त्यानाट्यां बरोवप जालीं, बसोवप जालीं. खाशेले उपकार म्हजे घरकान्नीचे आनी धुवेचे जीं हालीं तेंपार म्हज्या पथनाट्यांचें बेस बरें समिक्षण करतात. म्हजीं आयज मेरेनचीं सगलीं नाटकां समजून घेवपी म्हज्या आवयबापायचें रीण म्हजेर सदांच उरतलें. म्हज्या पथनाट्याच्या पुस्तकाक अर्थसहाय्य करपी कला आनी संस्कृती खात्याचे खेरीत उपकार. पथनाट्याच्या पुस्तकाचें मुखपृश्ठ रेखाटपी बाय अपेक्षा पुराणीक नाडकर्णी तशेंच अर्थसहाय्य मेळ्ू वा ना मेळ्ू पूण तुजें पुस्तक हांव काडटलोंच असो विस्वास म्हाका दिवपी संजना प्रकाशनाचे श्री. दिनेश मणेरकर हांच्या रिणांत हांव सदांच उरतलों.

'सर फुडें' म्हूण म्हाका उर्बा दिवपी दर एकल्याचे मना काळजा सावन उपकार मानतां आनी पथनाट्यांचो झेलो दर एकल्याक 'सर फुडें' म्हणतच तुमच्या हातांत सोंपयता!

- **कविंद्र**

## १.
# गोंय म्हजें...

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना गोंयचीं विंगड विंगड सांस्कृतीक खोशेलपणां दिश्टी पडटात.)

१० : गोवा दर्शन गोवा दर्शन गोवा दर्शन गोवा दर्शन
देखो देखो गोल्डन गोवा देखो। सुबह से शाम तक गोवा देखो।
देखनेवाले आप दिखानेवाले हम देनेवाला वो
और वो जब भी देता है देता है छप्पर फाडके।

१ : पूण हांगा पळोवपा सारकें आसा तरी कितें?

१० : जायतें! मांडार हांगा रंगता धालो
देवळांनी खेळटा कालो
रेंदेराच्या काळजांतलीं सोबीत सुंदर कांतारां
दांत्या वयल्या होंवयेंतलीं म्होंवीं गोड उतरां
गोंय म्हजें भांगराचें अपुरबायेचें
व्हांवत्या धांवत्या वझ्न्याचें पाचव्या सैमाचें

कोरस : यो गो यो गो वता सुकूं घालां भाता
कुळारीच्या निसा याद जाता
आंब्या पणसा सांवळें माड्डिल्लीं वानां
आमी भात कांडूं चौग जाणां

कोरस : तांबडे रोजा तुजे पोले

दुकांनी भरल्यात म्हजे दोळे

कोरस : मावळींगेच्या मळ्यांत बाई मी वेंचीत होते कळे... बाई मी वेंचीत होते कळे

कोरस : हेवटेन खेळ वता मुसळांचो तेवटेन... सळसळ तिसऱ्यांचो
(नाच सुरू आसतनाच बुलडोझर येता आनी सगलें काबार करून वता.)

कोरस : (व्हडाव्हडान हांसतात. आवाज वाडत वता.)

२ : आरे, तूं कितें उलयता? कांयच आयकना म्हाका.

३ : तो पळय तो कितें तरी सांगता. निदान ताचें तरी आयकुया.

२ : हाचे परस ताचो आवाजय खणखणीत आसा.

कोरस : (व्हडाव्हडान हांसतात. अवाज वाडत वता.)

४ : गोंय म्हजें भांगराचें मिना खणींचें
गोंय म्हजें भांगराचें चिऱ्यां खणींचें

कोरस : खणखण माती खणखण माती
पांटल्यांनी खोटल्यांनी भरया माती
खणखण माती खणखण माती
दुडवांनी दुडवांनी भरया पोतीं

५ : ह्या वाठारांत आमचे इतलो हुशार मनीस अजून पावूंक ना.

६ : म्हणून तर हांगासरलीं झाडांपेडां तशींच आसात.

५ : हें रान सोंपोवपाची जबाबदारी तुजी. हांव दोंगर पोखरतां.

६ : कोण मरता, कोण तडफडटा हाचो विचार आमी कित्याक करपाचो?

५ : सारकें. आमी आमचो विचार करपाचो आमच्याच सुखाचो.

६ : कायदे मोडचे पडल्यार मोडया.

कोरस : गिरायक आसल्यार जें मेळटा तें विकया. (व्हडाव्हडान हांसतात. आवाज वाडत वता.)

१ : इश्टांनो, एक प्रस्न तुमकां पडटा आसतलो. आपापल्या सुवार्था खातीर काबार केलें हें गोंय. खरेंच भांगराचें उरलां? चलात तर मुखावयलो एपिसोड पळोवया! (मायनिंगाचो देखाव सुरू आसतनाच तें काम आडावपाक कांय जाण येतात.)

१० : कोण मरता, कोण जगता, हाचो विचार तुमी करचे नात पूण आमी

करतले.

९ : तुमी कोण?

१० : आमी गोंयकार, आमी सैमाचे वांगडी.

८ : गोंय विकूंक दिवचे नात.

७ : सैम सोंपोवंक दिवचे नात.

६ : गोयांत मायनिंगाचेर बॅन हाडलां.

कोरस : सैम सोंपोवंक दिवचे नात
गोंय विकूंक दिवचे नात

९ : सॉलिड कन्फ्युजन जालां म्हजें. तुवें पयलीं जें दाखयलें तें खरें काय आतांचें?

१ : दोनूय गजाली तितल्योच खऱ्यो.

९ : गोंयच्या शिक्षण खात्याभशेन म्हजी गत जाल्या. हांव सामकों गोंदळ्ळां. खरेंच दिसता तुमकां गोंय अजूनय भांगराचें?

कोरस : गोंय अजूनय भांगराचें?

६ : गोंयकार अजून जागे आसात. सत्याच्या मार्गान चलत आसात.

५ : हाचो आनी भांगराळ्या गोंयचो संबंद कितें?

६ : आसा तर! अन्याया आड झगडटल्या ह्या लोकांक लागूनच ही भूंय तिगून आसा. बेकायदेशीर मायनिंगाआड आवाज उठोवपीय गोंयकारूच आसात. आमी फकत वायट गजालींचो विचार करिनात. बऱ्यो गजालीय जायत्यो आसात.

४ : ह्या कणखर लोकांक लागून गोंय आनी गोंयकारपण तिगून आसा. मोट्या अभिमानान हांव म्हणटां, गोंय म्हजें भांगराचें.

कोरस : गोंय म्हजें भांगराचें.

८ : मोगाळ इश्टांनो, अजूनय हांगासरल्या जायत्या जाणांक होच प्रस्न सतायता आसतलो - म्हजें गोंय खरेंच भांगराचें?

७ : आरे, तांगे कितें घेवन बसला? म्हाकाय तोच प्रस्न पडला.

८ : पूण असो प्रस्न तुका पडटा तरी कित्याक?

७ : नाका त्यो गजाली घडटात म्हूण असले प्रस्न पडटात.

कोरस : म्हूण प्रस्न पडटात प्रस्न पडटात.

८ : आपल्याच समाजाच्या नांवान रडटात, जातीपातीच्या नांवान राजकारण

करतात. तांचें कितें?

७ : तें खरें आसलें तरी मस्ती मारिल्ल्या राजकारण्यांक गोंयकार नेटान जमनीरय आपटयता.

८ : पूण असल्यान एकचार इबाडटलो अशें तुका दिसना?

७ : असल्या एक-दोन गजालींनी एकचार इबाडटलो? झगडून मेळयिल्लें गोंयकारपण गोंयकार इतले सहजतायेन वगडायतलो?

८ : कसल्या गोंयकारपणाच्यो गजाली करता?

७ : गोंय सायबाच्या फेस्ताक सगले गोंयकार जमतात. फातर्पेंचे कुंकळ्ळेकरणीक किरिस्तांव भाव लेगीत भजतात. हांगा आंगवण मागतना देव कोणा एकट्याचोच उरना. तितलेच उमेदीन आमी खातात दोस आनी सान्नां. स्लायस ब्रॅड आसले तरी उंडे आमकां जाय. चायनीज कितलेंय मेळ्ळें तरी शीत कडी जाय! हें गोंयकारपण. हो खरो गोंयकार.

८ : तूं कितेंय म्हण, गोंयकार आनी गोंयकारपण शेणत चल्लां.

७ : अशें कित्याक दिसता तुका?

८ : चल पळोवया.

७ : आरे, पूण खंय?

८ : चल पासयेक या! (तो ताचे दोळे बांदता आनी ताका घेवन वता. परत येता तेन्ना एक दर्यादेग. तो ताचे दोळे सोडटा आनी तो आशीकुशीक पळयता.)

कोरस : कमोन कमोन कमोन कमोन
मावलींगीच्याऽऽऽ मल्यात मल्यात कले कले
कमोन कमोन

३ : सायबा म्हज्या, आमी इतले बेगीन रशियेक पावले?

२ : ना ना, ही गोंयांतली मिनी रशिया. दुसरे वेळेर गेल्यार आनीक जाय ते देश सांपडटले. चल, एक अशी पायस मारून येवया.

३ : कित्याक?

२ : गोंयकारपण आनी गोंयकार मेळटा जाल्यार सोदया मरे!
(सगल्या दर्यादेगांचेर ते भोंवतात तेन्ना आशीकुशीक सगले फॉरेनर्स दिसतात.)

कोरस : कमोन कमोन कमोन कमोन
मावलींगीच्याऽऽऽ मल्यात मल्यात कले कले
कमोन कमोन

३ : हें कितें?

२ : रिमिक्स! 'गोवन साँग विथ फॉरेन टच'

३ : तो घुमट वाजयता तो गोंयकार कसो दिसना?

२ : गांवठी हिप्पी रे ओरिजीन गोंयचें बाकी सगळो रशियन. हाय रे गोंयकारपण! आतां उलय.

३ : चल कितेंय खावन घेवया.

२ : कितें खातलो? पिझ्झा, बर्गर? आनी खंय वचून खातलो?

३ : थंय या मरे.

२ : तें थंय कितें बरयलां तें वाच.

३ : 'प्रायव्हेट प्रॉपर्टी. गोवन्स आर नॉट अलाव्ड'.

कोरस : (सगलीं भुरगीं सुण्या भशेन भोंकतात.)

२ : आतां सांग, खंय वचपाचें, भांगराळें गोंय खंय सोदपाचें? तुका अजूनय दिसता की गोंय भांगराचें म्हूण?

३ : दिसता तर! म्हजें गोंय भांगराचेंच. चल पासयेक या! (तो ताचे दोळे बांदता आनी ताका घेवन वता.)

२ : तूं खंय घेवन वता रे म्हाका?

३ : राव रे मात्सो, चल पासयेक या!

कोरस : गोंय म्हजें भांगराचें अपुरबायेचें
व्हांवत्या धांवत्या वझऱ्याचें, पाचव्या सैमाचें
गोंय म्हजें भांगराचें, संस्कृतायेचें
गोंय म्हजें भांगराचें, एकचाराचें
(तो ताचे दोळे सोडटा आनी तो आशीकुशीक पळयता. एक गांवगिरो वाठार. दांत्या वयल्यो होंवयो, मांडो आयकूंक येतात.)

४ : खंय घेवन आयला रे तूं म्हाका?

५ : गोंयांत. कसलीच कीड लागिल्ली ना असल्या गोंयांत. जंय विकृतीचीं पावलां अजूनय पडलीं नात असल्या गोंयांत. तुज्या म्हज्या भांगराळ्या गोंयांत.

४ : पूण हें गोंय तिगून उरलें तरी कशें?
५ : तिगून उरलें ना तर नीज गोंयकारान तें तिगोवन दवरलें.
४ : मागीर तें तांकां कित्याक जमलें ना?
५ : ते खोट्या भांगराफाटल्यान धांवले.
४ : कितेंय खावपाक मेळत? सामकी भूक लागल्या.
५ : भाकरी सान्नां मेळटलीं! पिझ्झा बर्गर नो गॅरंटी.
४ : आरे, पूण हांगा कसलीय पाटी दिसना मरे.
५ : गोंयकारांची एक पाटी. काळजाची पाटी आनी हेर पाटयो तो वापरिना.
ते पाटयेर बरयलां -
कोरस : येवकार येवकार मायेमोगाचो येवकार.
तुमकां येवकारता हो नीज गोंयकार
१ : म्हज्या मोगाळ गोंयकारांनो, दवरात काळजार हात आनी म्हणात-
कोरस : हांव गोंयकार, आमी गोंयकार.
२ : गोंय म्हजें भांगराचें, गोंय म्हजें भांगराचें
कोरस : गोंय म्हजें भांगराचें, गोंय म्हजें भांगराचें
३ : सैम सोंपोवंक दिवचे नात, गोंय विकूंक दिवचे नात
कोरस : सैम सोंपोवंक दिवचे नात, गोंय विकूंक दिवचे नात
४ : भांगराळें गोंय कोणाक इबाडूंक दिवचे नात
कोरस : दिवचे नात, दिवचे नात, इबाडूंक दिवचे नात
५ : गोंय म्हजें भांगराचें, अपुरबायेचें
कोरस : गोंय म्हजें भांगराचें, अपुरबायेचें
(गोंयचें खंयचे तरी एक लोकनृत्य नेटान चलता. सुत्रधार येता.)
१० : गोवा दर्शन गोवा दर्शन गोवा दर्शन गोवा दर्शन
देखो देखो गोल्डन गोवा देखो। सुबह से शाम तक गोवा देखो।
देखनेवाले आप दिखानेवाले हम देनेवाला वो
और वो जब भी देता है देता है छप्पर फाडके। ■

## २.
## पावतोऽऽऽ सा

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना बाजाराच्या मदोमद उबो रावन एकलो पवणी काडटा.)

१ : पावता. नांव गांव कित्याक जाय? उपभोगाची वस्त ती. भुरगेपण पावता एक बार?

२ : बाय, कितें करता तूं?

३ : आज्या, पतंग करतां, पूण जमच ना.

२ : पतंग जाय मगो? चल हांव करून दितां तुका बेस बरो पतंग.

३ : खऱ्यांनीच रे आज्या?

२ : चल म्हजे वांगडा म्हज्या घरा चल.

३ : पूण आज्या तुजें घर...

२ : हें पळय हांगाच.

३ : हांवें घरा कडेन सांगूंक ना.

२ : एक पतंग करपाक कितलोसो वेळ लागता?

३ : आईन सांगलां खंयच्याय अनवळखी मनशा वांगडा वचप ना.

२ : सारकें तुजे आवयचें. अनवळख्या वांगडा वचप न्हय. पूण हांव आजो मगो तुजो? हांव अनवळखी कसो जालों तर?

३ : तशें न्हय रे.

२ : मागीर चल तर.

(तो तिका घेवन वता. एका घराचो देखाव. तो तिका भितर व्हरता आनी दार बंद करता.)

३ : आज्या हें कितें?

२ : आवाज नाका. पतंग करूंक शिकयतां म्हूण सांगलें न्हय.

(चलयेची व्हड किळांच. कोरसाचो 'एको' आनी तेन्नाच घराची वणत कोसळटा आनी पिंजको पतंग हातांत घेतिल्लें चली दिसता.)

३ : म्हाका भिरांत दिसता. दर एका जाणट्या मनशाची भिरांत दिसता म्हाका. म्हजो पतंग पिंजून उडयलो. विस्वास दवरप तरी कोणाचेर? म्हजो स्वताचो आजो... शी! आजो समजून विस्वास दवरलो थंय चुकलें. चुकलेंच, पूण आतां...

१० : भुरगेपण पावता एक वार. नात्या वयलो विस्वास वगडावन बशिल्लें भुरगेपण पावता. काळजाचेर विस्वास नाशिल्लें भुरगेपण पावता. फांतोडेर तिनसांज भोगिल्लें भुरगेपण पावता. कोणें दळदिऱ्यान माडयिल्लें भुरगेपण पावता. भुरगेपण पावता एक वार...

(एके शाळेचो देखाव. वर्गांत मास्तर प्रार्थना शिकयता.)

कोरस : गुरूर्र ब्रह्मा गुरुर्र विष्णू...

४ : प्रार्थना जाली न्हय? आतां आपापल्यो पाटयो घेवन येयात. हां, तूं यो रे. तूं यो गो हांगा. हें तुजें बरप? पाटयेर कुकडां नाचयिल्ले वरी दिसतात मगो! म्हाका एक सांग...

५ : कितें सर?

४ : आयज शाळा सुटले उपरांत तूं कितें करपाचें?

५ : हांव सरळ घरा वचपाचें.

४ : अशें सरळ घरा गेल्यार अक्षर सुदारचें ना. आयज मात्शें लेट वच घरा.

५ : म्हाका कळूंक ना सर.

४ : तेंच शिकोवपाक तर राव म्हणटा न्हय शाळेंत.

५ : पूण सर घरा कडेन हुस्को करतलीं.

४ : तांकां हांव कळयतां गो.

(शाळेची बेल वाजता आनी हेर भुरगीं घरा धांवतात. मास्तर वर्गाचें दार बंद करता)

४ : बरप सुदारपाची तांक आसा तुजे भितर. फकत हांव सांगतां तशें वागूंक जाय. शाण्या भुरग्यावरी.

५ : सर, हें कितें...

४ : कमल नमन कर. कमन नमन कर.

कोरस : कमल नमन कर. कमल नमन कर. (होच कोरस मागीर एक व्हड किळांच जाता आनी शाळेच्यो वणटी कोसळटात तेन्ना फुटकी पाटी घेतिल्लें चली दिसता).

५ : म्हाका भिरांत दिसता. दर एका मास्तराचीच भिरांत दिसता म्हाका. मास्तर म्हणटनाच आंगार काटो येता. विस्वास दवरप तरी कोणाचेर? आतां अक्षर दिसना... मास्तर दिसता... म्हजे भुरगेपणाची पाटी फुटून तिचो गोबोर जालो. कळटा तुमकां?

१० : भुरगेपण पावता एक वार. अक्षरांनी राकेसरुपी मास्तर पळोवपी भुरगेपण पावता. निरागसपणाची पाटी फुटिल्लें भुरगेपण पावता. सोदून लेगीत जाका आदर्श सांपडना अशें भुरगेपण पावता. भावभावनांचें विसर्जन करून खेळणें जाल्लें भुरगेपण पावता. भुरगेपण पावता एक वार!

(एके चाळीचो देखाव)

६ : भाऊ, आई चावी दवरून गेल्या?

७ : ना गो बाय.

६ : खंय गेल्या आसतली? वयनी आसा घरांत?

७ : दोगांय वांगडाच भायर सरल्यांत. हांवेंय विचारलें ना खंय वतात काय म्हूण.

६ : शी! चावी तरी दवरून वचपाची न्हय.

७ : आगो राणी, आमगेर येवन बस. हांव एकटोंच आसां घरा कडेन.

६ : तुका बेठोच त्रास कित्याक?

७ : शेजारी मगो तुजो हांव? त्रास आनीक कसले? आमचो बाबू तुमगेर वचून बसना तर! चल यो.

६ : हय येतां.

७ : राणी, इस्पिकांनी खेळपाक येता गो तुका?

६ : ना.

७ : यो हांव शिकयतां. यो गो अशें...

कोरस : इस्पीक बदाम किलावर चौकट
राजा गुलाम गुलाम राणी राणी जोकर
राजा राणी राजा राणी राणीऽऽऽ
(सगळ्या पत्त्यांच्या बंगल्यावरी कोसळटात. हातांत पत्ते घेवन तें चली बसलां.)

६ : भाऊ! इस्पिकांनी खेळटां खेळटां चुकीचे पत्ते उडोवंक लागलो. ताचे हात... भयणीचो भावा वयलो मोग तातूंत नाशिल्लोच. किळस... बुरशेपण. हो असलो शेजारी? थू! घरच्या आंगणा भायर पावल घालपाक भिरांत दिसता म्हाका. जाणात तुमी?

१ : भुरगेपण पावता दोन वार. आंगणा भायर पावल घालपाक थरथरपी भुरगेपण पावता. शेजाऱ्याचेर अविस्वास दाखोवपी भुरगेपण पावता. मानिल्ल्या नात्यां वयलो विस्वास वगडावन बशिल्लें भुरगेपण पावता. भुरगेपण पावता दोन वार!

(एका घराचो देखाव. बापूय आनी चली.)

८ : पप्पा, मम्मा खंय गेल्या रे?

९ : ओवर टायम तिचो आयज.

८ : ओके! बाय पप्पा.

९ : आगो, खंय वता?

८ : निशागेर वतां. थोडो वेळ खेळून येतां.

९ : म्हजे वांगडा खेळ मगो.

८ : तूं खेळटलो म्हजे वांगडा?

९ : हय तर!

८ : ओके पप्पा. आयज तुजे वांगडा खेळटां हांव.

९ : आमी खेळटलीं ती गेम मात कोणाक सांगप ना आं.

८ : यस पप्पा.

कोरस :

(आवाज वाडत वता आनी किळांच आयकता.)

८ : नो पप्पा.

कोरस : नो पप्पा, नो पप्पा, नो पप्पा. (घराच्यो वणटी थरथरतात, पूण कोसळनात.)

८ : पप्पा, सांगा कुणाचे... रगताच्या नात्यांक तरी कितें अर्थ उरलो? बापायनच मांडलो चलये कडेन खेळ. हांवें जगचें तरी कशें? विस्वास तरी कोणाचेर दवरचो? तांणी माड्डप पूण आमी आड्डप ना. म्हाका माडोवपीच सांगता.

कोरस : घरांतली गजाल भायर पावंक जायना.

१ : भुरगेपण पावता तीन वार. जाका रगताचेंय नातें निरर्थक दिसता अशें भुरगेपण पावता. स्वताचेंच घर आनी मनशां भितर हुलपल्लें भुरगेपण पावता. बापायनूच पिसुडिल्लें भुरगेपण पावता. भुरगेपण पावता तीन वार.

कोरस : भुरगेपण पावता एक वार
भुरगेपण पावता दोन वार
भुरगेपण पावता तीन वार
(घराच्यो वणटी कोसळून पडटात आनी तें चली किळांच मारून उबें रावता).

८ : कळटा न्हय? ■

३.

# शेणला रे शेणला...!

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना बाजाराच्या मदीं उबो रावला आनी दवंडी दिल्लेवरी अनावन्समेंट करता.)

१ : केळ्ळी केळ्ळी
नन् मोदिना तमदिरे केळ्ळी
गोंयकार काणे यागिदाने
येत्तर गोत्तीला
उद्ध गोत्तीला
निनदार वण्णा काणे यागिदे
सिक्की दरे
केळेगीन विळा संपर्क साधिसी
लिंगप्पा चिमणप्पा उतप्पा
हणमंत गल्ली गोंयरू

(दोग जाण कुशीक उबे रावन हें आयकतात. एकट्याक कळटा तर दुसऱ्याक कांयच समजना. तो तोंड आं करून उबो आसा.)

२ : ओ शाणू!
३ : उलय गणू.
२ : हो किते सांगतालो?
३ : (हांसता)

२ : हांसता कितें? म्हाका तर कांयच कळ्ळें ना!

३ : तो म्हणटालो,
गोंयकार शेणला
उंची खबर ना
वजन खबर ना
ओरिजिनल रंग व्हावन गेला
सांपडलो जाल्यार संपर्का खातीर पत्तो
लिंगप्पा चिमणप्पा उतप्पा
हणमंत गल्ली गोंय

२ : (हांसता).

३ : आतां तूं कित्याक हांसता? दांत दिसतात!

२ : दिसल्यार दिसूं. गोंयकार शेणला खंय! मात्शी नदर भोंवडावन पळय. ओरिजिनल गोंयकार कितलेशेच सांपडटले!

३ : खरेंच सांपडटले?

२ : आरे सायबा हय. यो, म्हजे वांगडा यो. दाखयतां तुका ओरिजिनल गोंयकार. (दोगूय वतात).

कोरस : वणटी वयल्यान आयलो माकड घेवन गेलो पापड
बा गे बा म्हाका पापड दी
एक पापड दोन पापड दिवचे तुका कितले पापड
पिशेपणाक लागून तुज्या माकड व्हरता पापड
यें येंयें यें यें येंयें यें...
(कोरस सुरू आसतना बाजाराचो देखाव सुरू जाता.)

४ : टायटॅनिक इरुळी, इरुळी, इरुळी! स्वस्त इरुळी. इपत्तू रुपये किलो. येरडू किलो मोत्त ऐदू रुपया.

५ : मेणसू गोकर्ण, मेणसू गोकर्ण, हसी हसी मेणसू, किलो नालवत्त रुपया. पाव किलो हत्त.

६ : कौनसा भी निकालो बीस रुपया, कौनसा भी निकालो बीस रुपया!

७ : दांबरा गुळी, मुयां पिटोऽऽऽ

४ : हसी चलोद बटाटे, इपत्त ऐदू रुपया किलो. तगोलडी, तगोलडी, तोगो तोगो बुट्टी तोगो.

२ : आरे, तुवे ओरिजिनल गोंयकार पळयला?
५ : हसी कोतंबरी सोपू, पालक सोपू, मेथी सोपू.
२ : आरे, तुवें ओरिजिनल गोंयकार पळयला?
५ : निन येन केळूती? ननगेनू तिळओल्ला.
२ : आरे, ओरिजिनल गोंयकार...?
४ : इल्लीनदा स्वल्पा होगू. नन्ना गिरायक हाळू माडती.
२ : आरे, सायबानो म्हाका गोंयकार जाय!
१ : टायटॅनिक कांदे, गोकर्णची मिरसांग
ओरिजिनल गोंयकार खंय आसा सांग
सांग गणू सांग!
२ : नुस्त्या मार्केटांत गॅरेंटेड आसतलो. चल या.
कोरस : वणटी वयल्यान आयलो माकड घेवन गेलो पापड
बा गे बा म्हाका पापड दी
एक पापड दोन पापड दिवचे तुका कितले पापड
पिशेपणाक लागून तुज्या माकड व्हरता पापड
यें येंयें यें यें येंयें यें...
(नुस्त्या मार्केट)
८ : बाळा यो बांगडे बघ. पन्नास रुपयाक चार दिलात.
९ : बांगडे नको तर सुंगटां व्हर.
१० : असं काय करतस? ताजे तर आसत!
८ : पायव्हड्याचा नुस्तां मरा तां.
१ : आरे, हांगाय ओरिजिनल गोंयकार दिसना मरे तुगेलो.
माजाळची करली, गडा वयले विसवण
तिसऱ्योय कारवारच्यो, कारवारचेच जॉब
गोंयकार हडऽडें बडोवन मारता फकत बोब
२ : चावडेर मेळटा जाल्यार पळोवया.
१ : या म्हणटा जाल्यार या.
कोरस : वणटी वयल्यान आयलो माकड घेवन गेलो पापड
बा गे बा म्हाका पापड दी
एक पापड दोन पापड दिवचे तुका कितले पापड

पिशेपणाक लागून तुज्या माकड व्हरता पापड
यें येंयें यें यें येंयें यें...

कोरस : वण्टी वयल्यान आयलो माकड घेवन गेलो पापड
बा गे बा म्हाका पापड दी
एक पापड दोन पापड दिवचे तुका कितले पापड
पिशेपणाक लागून तुज्या माकड व्हरता पापड
यें येंयें यें यें येंयें यें...
(चावडेर)

३ : वो पात्राम पैसा अच्छा देता है।

४ : हम यही कहते है ना भाय।

५ : गोवा मे अच्छा है। अब तो हमारा काम भी बढ गया है। हमरे भाई को इधर बुलाने की सोच रहे है।

६ : हलो लखन चाचा तनीक चंदू को गोवा भेज सकते हो का यीहां पलंबर की जरूरत है।

३ : कल इतवार को फिल्म देखने आवोगे क्या?

४ : किशनवाका फिल्म तो जरूर जायेंगे.

२ : शाणू, तुजेंच खरें. गोंयकार शेणला.

१ : कित्याक शेणला?

२ : सगळे भायले येवन गोंयांत भरल्यात.

१ : एक सांग.

२ : विचार.

१ : भायले गोंयांत येवन कित्याक भरल्यात?

२ : पोट मारपाक. आमची वाट लावपाक.

१ : म्हणजेच तांचें पोट भरपाक.

२ : तांचें पोट भरपाक आमच्या गोंयांत कित्याक?

१ : पोट भरपा खातीर कितले गोंयकार मुंबय पावल्यात? कितले लोक कारवारच्या बाजारांत वचून आपलें सामान विकतात? तशें पळोवंक गेल्यार थंय हेवूय भायलेच न्हय?

२ : आमचे कामधंदे तांणी बळकायले, आमी बेकार.

१ : बळकायले म्हणूं नाका. आमीच वगडायले म्हण.

२ : आमीच वगडायले?

१ : पळय मरे.

(घराचो देखाव)

३ : आरे आळी सांवळ केली?

४ : हयवय केली.

३ : मानांय खंयचे?

४ : अणशीचे

३ : गांवांत कोण ना तर आळी सांवळ करपी?

४ : आसात जायते. पूण फुगोवन दाखयतात. वयल्यान म्हारग. धा दिसांच्या कामाक वीस दीस काडटात.

(घराचो देखाव)

५ : सायबा जालें रे शेताचें काम?

६ : अंदूं शेत कोणाक लायलें तर तुवें?

५ : बिहारची एक फामील गांवांत येवन स्थायीक जाल्या. तांणीच करून घेतलां शेत.

६ : तो वयलेवाड्या वयलो पंढरी रोयता न्हय रे तुगे शेत?

७ : फाटलीं दोन वर्सां पयशे अजून दिले नात. केन्ना पळयतां तेन्ना केटां. काजूय बिहारी फामिलीकच लायिल्ल्यो हांवें. खरें सांगूं, तांचो वेव्हारूय चोख आनी गरजोय कमी.

६ : आमचीं फोल्गां चड, कामां कमी.

१ : आतां सांग बळकायलें काय आमीच वगडायलें.

२ : पूण...

१ : आमच्याच वागण्यान आनी सुसेगाद जगण्यान आमी जागे रिकामे केले ते तांणी भरले इतलेंच.

२ : हाचेर उपाय ना?

१ : आसा तर. कामा कडेन भेदभाव करिनासतना जें मेळटा तें काम करपाची तयारी दवरपाची. सरकारी नोकरीच जाय, व्हायट कॉलर जॉबूच जाय अशें म्हणून भागचें ना. कसल्याय आनी केद्याय कामाची तयारी दवरची पडटली.

२ : मागीर भायले येवन गोंयांत भरप बंद जातलें?

१ : आमी सुदारले जाल्यार ही संख्या कमी जावं येता, पूण बंद न्हय. पोट भरपा खातीर देशा भितर खंयूय घोळपाची मेकळीक आसा. तींच तींच कामां तेच तेच पद्दतीन करचे परस काळा प्रमाण आमच्या कुशळटायांकय बदल करचो पडटलो.

२ : थोडक्यांत किर्ते तर, आमची वाट आमीच आयल्या. भायल्यांनी न्हय.

१ : कश्ट करपाची तयारी दवरची पडटली ना जाल्यार एक दीस भर बाजारांत कोण तरी उबो रावतलो आनी म्हणटलो -

१ : केळ्ळी केळ्ळी
नन् मोदिना तमदिरे केळ्ळी
गोंयकार काणे यागिदाने
येत्तर गोत्तीला
उद्ध गोत्तीला
निनदार वण्णा काणे यागिदे
सिक्की दरे ■

## ४.
## सैम किर्तन

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एके वटेन चल्यांचो तर दुसरे वटेन चलयांचो पंगड नाचत येता.)

कोरस : पयसो विठ्ठल, पयसो विठ्ठल
दुडू विठ्ठल, दुडू विठ्ठल
पयसो विठ्ठल, पयसो विठ्ठल

किर्तनकार १ : म्हणा, दुडवां महाराज की जय
जय जय दुडवां महाराज
पयसो जाय बाबा पयसो जाय

कोरस : पयसो जाय पयसो जाय

किर्तनकार १ : पयसो आसल्यार खातलो लाडू
पयसो आसल्यार कोणूय दितलो चेडूं

कोरस : पयसो जाय पयसो जाय

कितर्नकार १ : पयसो आसल्यार भाव आसा
पयसो आसल्यार पत आसा

कोरस : पयसो जाय पयसो जाय

किर्तनकार १ : पयसो आसल्यार मोगाच्यो गोश्टी
पयसो आसल्यार बांदतलो काश्टी (सगळे हांसतात)
हांसपा खातीर पयसो जाय, नाचपा खातीर पयसो जाय

बोला दुडवां महाराज की जय

१ : पूण हो पयसो मेळोवप तरी कसो?

किर्तनकार १ : पयसो मेळोवप सामकें सोंपें

२ : कशें?

किर्तनकार १ : दुसऱ्यांक पोरा नाडूंक शीक!

कोरस : (हांसतात)

किर्तनकार १ : झाडां पेडां मारूंक शीक.

३ : पूण तीं आसल्यार मगा? म्हाका जमीनच ना मागीर झाडां आनी खंयचीं आसतलीं?

किर्तनकार १ : पयसो जाय जाल्यार झाडां मार.
तुजीं ना तर शेजाऱ्यालीं मार.

५ : शेजाऱ्यालीं ना जाल्यार?

किर्तनकार १ : तुजींय ना, शेजाऱ्यालींय ना. आरेरे...

६ : मागीर करप तरी कितें?

किर्तनकार १ : कोमुनदादीचीं झाडां मारप.
(झाडा मारपाचो देखाव.)

किर्तनकार २ : सुवार्थाचें मातलें रान झाडां मारलीं ल्हानसान
भूंय सुकली मळब आटलें वाडत गेली तान तान
बांयो सुकल्यो न्हंयो आटल्यो करचें कितें सांग सांग
नळा उदीक गांवांत आयलें वाड्यावाड्यार लागता रांग
(भौशीक नळा वयलो देखाव)

१ : जावं बाये! मंत्र्यांचे किरपेन नळ येयलो!

२ : नळा उदीक खूब बरें खंय.

३ : बांयचें उदक काडपाची कटकट मेकळी. हरशींय जाल्यार उदीक कमीच.

४ : कमरांत भरून येतालें.

५ : राजू ओडून हातय सोलताले.

२ : आतां हे बांयची गरज कितें?

३ : मड्या ती! पुरोवन उडोवया.

१ : येतल्या वतल्याक बेठोच त्रास.

(सगळीं बांय पुरोवंक लागतात.)

कोरस : बांयचें उदीक नाका गे सायबिणी
नळा उदीक गोड नळा उदीक गोड
बांयचें उदीक काडूंक कश्ट गे
हातीक येतात फोड हातीक येतात फोड

किर्तनकार २ : उदका खातीर धांव धांव धांवले आलतडीच्यान पलतडीं पावले
मुक्त व्हांवतल्या न्हंयेची लेगीत वांटणी करून मेकळे जाले
व्हड व्हड जायत गेली तान उरलें ना कसलेंच भान
उदकाच्या थेंब्या खातीर देशा भितर पेटलां रान
पेटलां रान पेटलां रान पेटलां रान पेटलां रान
(दोन गट. पयलीं स्वतंत्र संवाद. मागीर आमने सामने.)

६ : पावस कमी पडलो. उदक ना.

७ : तातूंत भर म्हूण म्हादयचें उदीक आडायतात खंय ते.

८ : न्हंयचें उदक आडावया.

९ : पूण तांचें कितें?

१० : तांची मारली झक. आमचो प्रस्न आमी सोडोवया.

९ : चलात तर लागया कामाक.

६ : तांकां आडावचेंच पडटलें.

७ : नाजाल्यार कुळागरां सोपतलीं.

६ : ये, उदक कित्याक आडायतात?

१० : आमच्या शेतकारां खातीर.

७ : आमचें कितें?

९ : दोन पांयां खेतें. (दोनूय गट झगडपाच्या पावित्र्यांत.)

किर्तनकार २ : म्हादयबाबतींत जें घडटा, कावेरीचें थंय अडटा
प्रस्न उदकाचो वर्सान वर्स सायबा थंयच धडपडटा.

३ : पूण महाराज, आतां करप कितें?

किर्तनकार २ : सैमाकच नमन करचेलें सैमाचेंच कवन गावचेलें
कोण जाल्लो मेल्लो जाल्यार ताच्या नांवान रोंप लावचेलें
दोंगरा वयल्यान धांवपी उदक बंड्स घालून आडावचेलें
थेंब थेंब पावसापाणी जमनीक सायबा झिरपचेलें.

४ : पावस पडटलो.

५ : ल्हान ल्हान चरी मारात, व्हांवन येवपी उदक आडायात. माती व्हांवन वच्ची न्हय म्हूण ताचेर तण रोयात. हेच ते बंड्स.

४ : हातूंत जमनीची धूप थांबतली आनी उदक जमनींत झिरपतलें.

५ : अशान उदकाची पातळीय वाडटली.

कोरस : थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब
थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब
भूंय पाचवी उरूं दी

६ : पूण दोंगरा वयल्यान व्हांवन येवपी उदक कितलेंय आडायल्यार व्हाळांतल्यान व्हांवतलेंच.

४ : ताचेर चेक डॅम, ल्हान ल्हान बंधारे घालपाचे.

किर्तनकार २ : व्हांवतें उदक आडावन धरात
सूख तुमच्या घरांत व्हरात

५ : उदकाचें बजेटींग करपाक शिकात.

४ : कमी उदक लागता अशींच पिकां घेयात.

५ : गरजे पुरतेंच उदक वापरात.

कोरस : थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब
थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब जिरूं दी
भूंय पाचवी उरूं दी
(एक भुरगो न्हाता).

९ : ठंडे ठंडे पानीसे नहाना चाहिये
गाना आये या ना आये गाना चाहिये

१० : आरे पुरो कर. कितलो वेळ न्हाता?

९ : उदक आसा, भंय ना.

१० : आरे उदक सोपतलें.

९ : ना रे, तूं कित्याक भियेता?

कोरस : राहुल पानी चला गया।

किर्तर्नकार : थेंब्याथेंब्यान तळें साचता
तळें राखता तो उदक चाखता
म्हणून तर सांगतां
पावसा खातीर झाडां जाय, स्वासा खातीर झाडां जाय

कोरस : झाडां जाय, झाडां लाय, झाडां जाय, झाडां लाय

किर्तनकार : आयचे खातीर झाडां लाय
आमचे खातीर झाडां लाय
फालचे खातीर झाडां जाय
भुरग्यां खातीर झाडां लाय

कोरस : थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब
थेंब थेंब थेंब थेंब थेंब जिरूं दी
भूंय पाचवी उरूं दी ■

५.
# ए फॉर...

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना कोरसाचें हमींग चललां. एक भुरगो भियेल्लेवरी हेवटेन तेवटेन पळयत येता. इतल्यान प्रेक्षकांतल्यान एक भुरगो अचकीत येवन ताचे फाटीर - मानगुटेर बसता.)

२ : आरे, म्हजे फाटीर कित्याक बसला?

१ : हांव खंय बसलां? तुवेंच तर बसयला म्हाका!

२ : हांवें बसयला?

१ : हय, तुज्या घाणयाऱ्या कर्तुबांनी बसयला.

२ : घाणयारीं कर्तुबां?

१ : हय गोंयकारा हय.

२ : आरे, पूण तूं कोण?

१ : (मोठ्यान हांसता) घडटली. म्हजी वळख आपशींच घडटली.

(एका रॅड लायट वाठाराचो देखाव. साबार ब्रोथेल. मोठमोठ्यान गाणीं आयकतात आनी लोकांचें येवप-वचप चालू आसा.)

३ : (सोरो पियेवन तायट) लाय्फ एन्जॉय करपाक जाय. (थंय बशिल्ल्या चलयां वांगडा हांसता आनी दुसऱ्या ब्रोथेलांत वता.)

४ : असुरक्षीत यौन संबंद एड्साक निमंत्रण.

५ : एका परस चड जाणां कडेन असुरक्षीत यौन संबंद? लक्षांत दवरात एड्साक निमंत्रण.

(देखाव सुरू जाता तेन्ना रक्तदानाचो देखाव.)

६ : दुशीत रगत एकट्यान दुसऱ्याक दिवप एड्साक निमंत्रण.

७ : असल्या वेळार जाचे कुडींत हें दुशीत रगत वता ताका 'एचआयव्ही' बादा जावंक शकता.

६ : असल्या वेळार 'एचआयव्ही' व्हायरस कुडींत वचपाची शक्यताय १० टक्के.

(भुरग्यांचो पंगड. ड्रग्स घेवपांत गुल्ल. वापरिल्लेंच सिरिंज परतून वापरतात.)

७ : वापरिल्लींच इंजेक्शनां परतून वापरप, एड्साक निमंत्रण.

८ : सिरिंजाक आशिल्ल्या दुशीत रगता वरवीं कुडींत 'एचआयव्ही' पावता.

(एक चली गुरवार बायले भशेन बसलां.)

९ : जर भुरग्याक जल्म दिवपी आयव 'एचआयव्ही पॉझिटिव्ह' आसत जाल्यार हो व्हायरस भुरग्याक पावता.

१० : आनी ही शक्यताय ३० टक्के आसता.

१ : पळय मनशा पळय.

२ : पळयलें, पूण एड्स, 'एचआयव्ही' म्हणल्यार कितें तें मात कळूंक ना.

१ : म्हाका म्हजी वळख करून दिवपाक सांगता. (हांसता).

२ : कितें? तूं...!

१ : कांयच हरकत ना. म्हजी वळख जागतकच तरी तूं शाणो जाल्यार जालो. हांव एड्स. मनशाचे कुडींतली रोगप्रतिकारक शक्त नश्ट करपी, हांव एड्स, एक न्हय तर हजार दुयेसां वांगडा घेवन येवपी, मनशाची कूड ल्हव ल्हव काबार करपी. हांव एड्स!

२ : आनी 'एचआयव्ही'?

१ : तुमचे कुडीचें दार म्हजे खातीर उगतें करून दिवपी म्हजो खास इश्ट. तोच तर तुमचे कुडीची रोगप्रतिकारक शक्त उणी करता. मागीर म्हजेंच राज्य! हांव एड्स!

(एका दवाखान्याचो देखाव. दोतोर आनी तरणाटो.)

३ : दोतोर, एखादे वेळार असुरक्षीत यौन संबंद आयलो जाल्यार ताका 'एचआयव्ही'ची बादा जाल्या हें केन्ना कळटा?

४ : असो भियेवनसो विचारता? यो बस हांगा. सांग आतां...

३ : घडली चूक... नाका तसले व्यक्ती कडेन असुरक्षीत यौन संबंद आयलो. आतां भंय दिसता. म्हाका एड्स जालो जाल्यार? आतां कसलीय टॅस्ट बी केल्यार कळटलें?

४ : ना. 'एचआयव्ही +' मनशा कडेन जर असुरक्षीत यौन संबंद आयलो जाल्यार ताचे पसून तुका 'एचआयव्ही'ची बादा जाल्या काय ना हें उण्यांत उणे स सप्तक ते तीन म्हयन्यांनी कळटा.

३ : कितें? स सप्तक ते तीन म्हयने!

४ : हय. ताचे पयलीं टॅस्ट केल्यार घडये नेगेटिव्ह येवंक शकता.

३ : 'एचआयव्ही'ची बादा जातकच रोखडोच एड्स जाता?

४ : अशें ना. वर्सांचीं वर्सांय वतात. पूण मुळांतच जो अशक्त आसा ताका हें दुयेंस चड बेगीन वेंगायता.

कोरस : आरे मनशा, चुकता तूं चुकतां तूं
कितलो असो चुकतलो कितलें म्हूण भोगतलो
पिशेपणाक लागून तुज्या वळवळून सोंपतलो.
(एक चली अभ्यासाक बसलां.)

५ : बाबा, म्हाका एक सांग रे...

६ : कितें तें?

५ : एड्स हें भयानक दुयेंस आसा पळय...

७ : तुका कित्याक गो त्यो एड्साच्यो गजाली. तुमचें म्हूण नाका थंय लक्ष!

६ : आगो विचारूं दी ताका. हेच पिरायेर तर खरी गरज ताका बरें वायट कितें तें जाणून घेवपाची. विचार गो तूं.

५ : एड्स हें लैंगीक संबंदांतल्यान जावपी दुयेंस रे?

६ : असुरक्षीत लैंगीक संबंदांतल्यान जावपी दुयेंस तें. हेर लैंगीक दुयेंसांवरी तें निवळना.

५ : कोणाच्याय तोंडा कडेन पळोवन ताका एड्स जाला हें वळखूंक येता?

६ : ना. तशें वळखूंक येना.

कोरस : एक एक गजाल अशी ध्यानांत दवर ध्यानांत दवर

एड्साचें दुर्येंस हें पंदरा पावलां पयस दवर
(एके भौशीक मुतारेचो देखाव.)

३ : हांव येना रे थंय.

४ : कित्याक?

३ : भौशीक मुतारेंत गेल्ले कडेन म्हाका एड्स जालो जाल्यार!

४ : भौशीक मुतारी, स्विमिंग पूल हाचो उपेग केलो म्हूण एड्स जायना.

३ : हें नेणा आसलों हांव.

४ : म्हणून पयलीं जाणून घे, समजून घे.
(रक्तदानाची कार्यावळ चल्ल्या.)

५ : तूं रगत दिवपाक वता गो?

६ : हय.

५ : पापया, एड्सचो भंय दिसना? ताचे परस रगत दिनासतना रावप चड बरें!

६ : आयक तर, रक्तदान हें श्रेश्ठ दान. जाचें रगत इन्फॅक्टेड ना ताणें मुद्दाम रक्तदान करचें. तीन म्हयन्यांतल्यान एक फावट!

५ : आनी रगत घेतल्यान कितें करपाचें?

६ : 'एचआयव्ही फ्री' म्हूण टॅस्ट केल्लेंच रगत घेवपाचें. रगताची वेवस्थीत तपासणी जाल्या हाची खात्री दर एकल्यान पयलीं करून घेवची.
(चावडेर गजालींक बशिल्ले लोक.)

७ : भाऊ एड्स जावचो न्हय म्हूण कसलीय जतनाय घेवप शक्य आसा?

८ : एकट्याच विस्वसनीय व्यक्ती वांगडा लैंगीक संबंद दवरपाचो.

९ : समजा चड...

८ : चड जाणां कडेन लैंगीक संबंद येता जाल्यार 'कंडोम' वापरपाचो.

७ : 'कंडोम'!

९ : 'कंडोम'?

कोरस : कंडोम कंडोम कंडोम कंडोम.

१० : आनीक कसलीय जतनाय?

८ : वापरिल्ल्यो सिरिंज परतून वापरप नात. जांचे चड जाणां कडेन असुरक्षीत लैंगीक संबंद येतात तांचे वांगडा लैंगीक संबंद दवरप ना. आनी जर आवयक कळ्ळें ती 'एचआयव्ही +' आसा म्हूण तर तिणें गुरवारपणा

आर्दी दोतोराचो सल्लो घेवप योग्य.

कोरस : शीक मनशा शीक चार शाणेपणां शीक
सोबीत तुजी जीण नाका एड्साचें वीख
(एक भुरगो विमनस्क अवस्थेंत येता.)

४ : ये, ताचे वांगडा चड मेतेर जायनाका. आरे ताका एड्स जाला.

५ : कितें? सांगलें तें बरें केलें.

६ : आरे, कशे आसात तुमी? (तो शेकहॅण्ड करपा खातीर हात मुखार काडटा तेन्ना ते पयसुल्ल्यानच नमस्कार करतात.)

१ : चुकतात तुमी. हातांत हात घेतलो, वेंग मारली म्हूण एड्स जायना. आमची गरज आसा तांकां.

१० : पूण ताचे वांगडा रावल्यार...

१ : आमकां एड्स जावचो ना. तांकां प्रेम आनी आपुलकी जाय. आमचे बगर कोण दितलो तर ती?

कोरस : ताका आमचो आदार जाय ताका आमचो आदार जाय
दोळ्यां सामकार काळोख ताच्या उजवाडाची कीट जाय
(एका डोंबाऱ्याचो खेळ चल्ला. गांधीजींचीं तीन खेतीं बशिल्लीं आसात.)

२ : ये बाब, ये बाय! खेत्यांचो खेळ पळयात. (एका खेत्याच्या दोळ्यां वयले हात काडटा.) दोळे उगडात, बरें-वायट कितें चलता तें पळयात. समजून घेयात. (दुसऱ्या खेत्याच्या काना वयले हात काडटा.) कान उकते दवरून आयकात, विचार करात. (तिसऱ्या खेत्याच्या तोंडा वयलो हात काडटा.) तोंड उगडात, उलयात. एड्साचें शिक्षण, म्हायती सगळ्यांक दियात. (तीं खेतीं वतात आनी चवथें खेतें सकयल हात धरून येवन बसता.)

२ : हांसून घेयात. पोटभर हांसून घेयात. पूण हें खेतें सामकें म्हत्वाचें. ताका सदांच दोळ्यां सामकार दवरात. असुरक्षीत लैंगीक संबंदाचेर ताबो दवरात. आपले वासनेचेर ताबो दवरात. ना जाल्यार हो राकेस एक दीस तुमचेच मानगुटेर बसतलो. (एकलो धांवत येवन २चे मानगुटेर बसता आनी हांसता.) केन्नाच न देंवपा खातीर! ■

## ६.
# एक सरण तुजे खातीर...

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक मडें मर्दी दवरलां.)

१ : कोण गेलो?

२ : एक तरणाटो.

१ : खंयचो?

२ : तुमचे आमचे मदलोच.

१ : कितें? आमचे मदलो?

२ : हय, हय. आमचे मदलोच. पिराय पंचवीस. रंग... आतां कितें कामाचो? जीणच जाल्या बेरंग.

१ : दुर्येस कसलें?

२ : ऑल इन वन!

१ : कितें?

२ : गुटखा, मटको, सोरो, सिगार, मावा, इस्पीक, जुगार... आनी... आनीकय बरेंच कितें! सगळ्या व्यसनांचें खतखतें.

३ : गुटखा, मावा खातल्या, सोरो जिवाक बरो म्हणटल्या म्हज्या भावा-भयणांनो, गडगड्यार गडगडपी आनी जुगारांत बुडपी म्हज्या भावा-भयणांनो! आयज ताचें मरण घडये रच्चें पडटलें फाल्यां तुमचे खातीर सरण.

(एका घराचो देखाव.)

४ : (पिवन आयला) ये, बरें जेवण हाड.

५ : खंयच्यान हाडूं?

४ : कितें करताली तर तूं दीसभर?

५ : तुका संवसाराचें कितेंय पडलां तर? म्हज्या पयशांचेर फोल्गां मारपाचीं. भुरग्यांचो सांबाळ तोवूय हांवेंच करपाचो. तुजो धाकलो भावय पियेवन पडटा. खंयच्या वयार कसलीं व्यसनां. ताका समजावपाचें सोडून तूं...

४ : बोब नाका. जेवण हाड बेगीन.

५ : तूंच हाड तुका जाय तसलें जेवण आनी जेव.

४ : जीब चडूच वळवळटा तुजी. (तिका बडयता.)

कोरस : यो बायले यो
सोरो म्हाका दी पयलो
सोरो दिना जाल्यार तुजो फोडटलों तकलो

३ : ही कहानी घर घर की जायना मूं? हांगा जमिल्ल्या कोणाचो तरी संवसार मातये भरवण जायना मूं?
(आयज म्हाका फाल्यां तुका अशें म्हणत प्रेतयात्रा वता.)

३ : व्यसन सोऱ्याचें गोबर घरा दाराचो. आयज ताका. फाल्यां? घडये तुका... तुका... जावंये तुकाय. पूण शेर्त फाल्यां... गरजेचें कितें? सोऱ्याची तान कांय शांती-समाधान? हांसत-खेळत जगचें आसा काय सोऱ्यांत बुडून चौग जाणांच्या खांद्यार निमणे यात्रेक वचचें असा?
(कौन बनेगा करोडपती.)

६ : कौन बनेगा रोडपती में आपका फीर एक बार स्वागत है। चलो हम और आप शुरू करतें है कौन बनेगा रोडपती। बिना किसी स्क्रीन के ये रहा आपका पहला सवाल। मदिरा पीनेसे क्या होता है? ये रहे आपके चार ऑप्शन्स...
१. अच्छी निंद आती है।
२. बारवालों की जिंदगी सुदर जाती है।
३. मदिरालयों की संख्या बढती है।
४. लिवर खराब होता है।

७ : लिवर खराब होता है।

६ : कॉन्फीडंट? लॉक किया जाए?

७ : हां हां. लॉक किया जाए।

६ : तो लॉक किया जाय. सही जवाब... लिवर खराब होता है। तो देवियों और सज्जनो दिमाग और दिल से सोचीये... अपने अपने लिवर के बारे में... ये करोडों का मामला है।

कोरस : म्हज्या गांवांत गांवांत गांवांत
बाय-इलॅक्शन
खाया भावांनो भावांनो भावांनो
फुक्या चिकन.

१ : तुमचें मोलादीक मत म्हाकाच दियात. एका मता फाटल्यान पांचशीं रुपया.

२ : एका मताचे पांचशीं? म्हज्या घरांत एकूण मतां १५.

१ : तशें जाल्यार धा शिमिटा पोतयो आनी पन्नास नळे दितां तुका.

४ : तुमचें मोलादीक मत म्हाकाच दियात. रेट सातशीं.

५ : एका मताचे सातशीं? म्हज्या घरांत एकूण मतां १८.

४ : तशें जाल्यार दादल्यांक कॅश, बायलांक साडयो, भुरग्यांक व्हॉलीबॉल.

१ : तुमचीं मतां फाताकूच दियात. वोट फॉर फात. आज्या फात.

४ : तुमचीं मतां विमलाकूच दियात. वोट फॉर विमल. आबोल्या विमल.
(वस्तू वांट्टात आनी तांचे फाटल्यान लोक वतात.)

३ : जगावेगळें व्यसन! स्वताकच घाणाक दवरपाचें. जे गुलामगिरीचो वीट येवंक जाय तीच आमकां आवडटा. मोठे उमेदीन आमी उबे रावतात आमकांच विकूंक. आमी कोण? स्वतंत्र विचारांचे मनीस काय पात्रांवां फाटल्यान शेंपडी हालयत भोंवपी सुणीं? विचार करात भावा-भयणांनो, स्वताच्याच स्वातंत्र्याचें सरण तर तुमी रचनात मूं?
(डोंबारी आनी माकड)

६ : चल जमूरे अपना खेल दिखा। एक कव्वाली गा।

७ : (ओगीच रावता.)

६ : क्या हुआ? गले मे खराष जरा अपना मूंह तो खोलो। बदबू आ रही है। दांतों में सडन है। ये बाब तुजे दांत कुसल्यात. हिरड्यो सुजल्यात,

जीब भाजल्या, ताळो करपला. अशें खाता तरी कितें?

७ : गुटखा.

६ : पूण कित्याक?

७ : म्हाका आवडटा म्हूण.

६ : सोडूंक शकचो ना?

७ : मागीर हांवें खावप तरी कितें?

६ : गू. गू खा.

७ : येऽऽऽ

६ : राग आयलो? येवंकच जाय. म्हजो न्हय त्या गुटख्याचो. चल जमुरे गुटखा खायेगा तो सड जायेगा. तडप तडपके मर जायेगा। अब खुदही सोच ले मेरे भाय जीना है या जलना है?
(कौन बनेगा रोडपती)

१० : कौन बनेगा रोडपती द्वितीय मे आपका फीर एक बार स्वागत है। चलो हम और आप शुरू करेंगे कौन बनेगा रोडपती। बिना किसी स्क्रीन के ये रहा आपका अगला सवाल. गुटखा खानेसे, सिगरेट पीनेसे क्या होता है। ये रहे आपके चार ऑप्शन्स...
१. प्यास होता है।
२. उमर बढती है।
३. कॅन्सर होता है।
४. जिंदगी बरबाद होती है।

९ : सी और डी।

१० : कॉन्फीडंट? फायनल जवाब? लॉक किया जाए?

९ : हां हां. लॉक किया जाए।

१० : तो लॉक किया जाए. सही जवाब... कॅन्सर होता है और जिंदगी बरबाद होती है। तो देवियों और सज्जनों दिमाग और दिलसे सोचिये... अपने अपने जिंदगीके बारे मे... सोचना आपको है आखीर जिंदगी आपकी है।
(आयज म्हाका फाल्यां तुका अशें म्हणत प्रेतयात्रा वता.)

३ : रचून दवरलां एक सरण
घडये आसत आमचें तुमचें मरण

भागोवया सोऱ्याची तान काय जाय शांती-समाधान?
दवरया स्वताकच घाणाक काय अस्तित्व तिगोवन जगया विस्वासान?
खळखळून हांसप काय वळवळून मरप?
तुमीच थारावपाचें!
तुमचे जिणेचेर आमचो अधिकार ना
सामकें खरें!
पूण तुमचें अशें वळवळून मरप
कशें आमकां दिसत बरें? ■

## ७.
# तळ्यांत मळ्यांत

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना कोरस गायत भुरगीं तळ्यांत मळ्यांत खेळटात.)

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत

१ : पिशा मनशा, शाणो जा. जागो जा, जागो जा!

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत

१ : तळेंय आट्टलें, मळोय सुकतलो. जागो जा, जागो जा. पिशा मनशा, जागो जा.

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत, तळ्यांत मळ्यांत

१ : आरे पापया, शाणो जा. आयज तूं खेळटा, सुखांत लोळटा. एक दीस येतलो, तेन्ना मळोय मेळचो ना आनी तळेंय गावचें ना. जागो जा!

२+३ : तळें आमचें मळोय आमचो, व्हरतलो कोण?

कोरस : व्हरतलो कोण?

२ : खंयचो राकेस मळो व्हरतलो?

३ : खंयचो राकेस तळें व्हरतलो?

कोरस : (हांसता).

२ : बेठीच काणी कित्याक सांगता?

३ : रंगांत आयिल्लो खेळ कित्याक इबाडटा?

१ : शाण्या, ही काणी न्हय. सैमाचेर अत्याचार घडत आसात, भूंय आमची रडत आसा. तरी लेगीत पिसो मनीस सैमा कडेन खेळत आसा. (कोरस सुरू जाता तेन्ना रानाचो देखाव आनी झाडां मारपाक आयिल्ले कांय जाण दिसतात.)

कोरस : खणखण माती खणखण माती
पांटल्यांनी खोटल्यांनी भरया माती
खणखण माती खणखण माती
दुडवांनी दुडवांनी भरया पोतीं

६ : ह्या वाठारांत आमचे इतलो हुशार मनीस अजून मेरेन पावंक ना!

७ : म्हणून तर हांगासरलीं झाडांपेडां तशींच आसात.

६ : हें रान सोंपोवपाची जबाबदारी तुजी. हांव दोंगर पोखरतां.

७ : चलात रे, केल्सा सुरू माडी.

८ : हवदु सावकारा. (झाडां मारपाक लागतात.)

कोरस : आमी एक झाड मारून झाड मारून गाळयेचें
देवतेमाये देवूळ बांदूं देवूळ बांदूं माळयेचें
आमी एक झाड मारून झाड मारून काजूचें
देवतेमाये देवूळ बांदूं देवूळ बांदूं पाजूचें

९ : दर एका मनशान हींच पिशेपणां. कापलीं तांणी झाडांपेडां सुरू जाली एक पिडा.
कापलें कितलें, खणलें कितलें तरीय जालिना मनशा भर
सांवळी सोदून सांपडना जाली तापता भूंय वत खर

१ : मिनाची माती म्हजें कुळागर काबार करता.

२ : अंदूं म्हाका भातूय कमी मेळ्ळें.

३ : आवाजाचें आनी धुल्लाचें प्रदुशण लेगीत वाडलां.

९ : मायनिंगाक लागून भाताचें उत्पन्न साठ टक्क्यांनी देंवलां. खणीर काम करपी कामगारां परस चड शेतकार उपाशीं पडल्यात.

१० : गोंयाक मिनाच्या खणी वयलो टाकावू माल आसता सादारण स हजार टन. तोवूय एका दिसाचो!

९ : जाका लागून उदकाची पातळी देंवता.

१० : न्हंयेची खोलाय कमी जाता.

९ : खणींचेर एका म्हयन्याक सादारण धा टन अमोनियम नायट्रेट स्फोटक म्हूण वापरतात.

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत

९ : असोच खेळत रावलो जाल्यार, मळोय उरचो ना आनी तळेंय उरचें ना.

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
(टँकरान उदक हाडपाचो देखाव. उदका खातीर लोकांचीं झगडीं.)

६ : पावस असो उणो जालो झरो लेगीत आटून गेलो
उदक व्हांवपी गांवांत आयलें टँकराचें पाणी
तरी पिसो मनीस गायता अजूनय गाणीं

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
(एका घराचो देखव)

७ : सांगटू, आयज भोंवडेर गेल्यार कशें?

८ : म्हाकाय तशेंच दिसता.

२ : आगो, मसालो बी वाटून दवर आं.

३ : ताचो हुस्को तूं करिनाका.

७ : एखादो रानदुकर मेळ्ळ्यार पुरो.

८ : आरे, चलात. भोंवडेक भायर सरया.

२ : रानटी मासाची रूचच वेगळी.

३ : ब्रॉयलर कांय फॉयलर म्हणटात ताका कांयच अर्थ ना.

२ : बरें गो, येता हांव.
(एकलो कासादोर जाला तर एकलो जनावर. वाद्यांचो गजर आनी लोकांचो बोवाळ. जनावर जीव वाटावपाक धांवता. शेवटाक ताका मारतात आनी खांदार मारून व्हरतात.)

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत

तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत

४ : जागो जा जागो जा! आयज तूं भोंवडी काडटा, सैमाचें संतुळन इबाडटा. फाल्यां तुकाय घुंवचें पडटलें गोल गोल. सैमा कडेन खेळत रावलो जाल्यार काळखांत वतलो खोल खोल.

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
(फॅशन परेड चल्ल्या.)

७ : ही फकत फॅशन परेड न्हय.

२ : ही तर मनाकाळजा सावन नम्र विनवणी.

५ : जनावरांच्या दांतां पसून, चामड्यां पसून तयार केल्ल्यो कसल्योय वस्तू वापरनाकात.

२ : तुमची कूड सोबोवपा खातीर मोन्या जिवांक संकश्टांत उडयनाकात.

७ : तांकांय जीव आसता.

५ : जीओ और जीने दो।

कोरस : सैम आसल्यार जगपाचें, सैम सोंपल्यार मरपाचें
तुजें तिगप सैमाचेर केन्ना तुका कळपाचें

१ : ये, कितें करता?

१० : दोळे फुटले? झाड मारता तें दिसना?

१ : अजून सुदारना! सायबा जगपा खातीर झाड जाय.

१० : कितें?

कोरस : जगपा खातीर झाड जाय
जगपा खातीर झाड जाय
पावसा खातीर, उदका खातीर
झाड जाय झाड लाय

१० : म्हणजे झाडां मारपच नात?

१ : हांवें तशें खंय म्हणलां?

१० : मागीर?

१ : एक झाड मारता जाल्यार दोन झाडां लावंक शीक.

१० : तीं आनी कोण रोयतलो?

१ : मागीर वळवळून मरतलो.

कोरस : एक झाड मारता जाल्यार दोन झाडां लाय
मनाकाळजा सावन तांची कर रे जतनाय

२ : सायबा खंय चल्लो?

९ : कासाक वयतां.

२ : तूं सुदारपाचो ना.

९ : आतां कितें जगपा खातीर जनावरांय जाय?

२ : हय तर! जगपा खातीर दर एक जीव तितलोच म्हत्वाचो.

कोरस : सुखान तुका जगचें आसा?
तांकां सांबाळ तांकां सांबाळ
सुवार्थी जावन जगलो जाल्यार
जातली तुजीच रे आबाळ

८ : मनशा, दोळे उगडून पळय. ना जाल्यार मळोय शेणटलो, तळेंय शेणटलें.

७ : मागीर पश्चात्ताप करतलो.

कोरस : पयशां खातीर कितेंय केलें, हातचें आसलें तेंवूय गेलें.

८ : आयज तूं खेळटा तळ्यांत मळ्यांत

कोरस : तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत
तळ्यांत मळ्यांत तळ्यांत मळ्यांत

७ : पूण तळें राखूंक शीक
मळो सांबाळूंक शीक
ना जाल्यार तुजे खातीर...
(सगलें पथनाट्य पळोवपी लोकां कडेन तोंड करून उबे रावतात आनी तांचे कडेन बोट करून सगळे म्हणटात.)

कोरस : तळेंय उरचें ना, मळोय मेळचो ना. ■

## ८.
# वंदे मातरम्!

सुत्रधार : एक आसलो ल्हानसो गांव, चेन्नमलाय ताचें नांव. थंयचेंच एक ल्हानशें सोबीत खोंपूट. थंयची जमीन शेणान सारोवन सामकी गुळगुळीत, लकलकीत केल्ली. एका माणकुल्याक खेळपा खातीर. सदांच ती आवय आपल्या भुरग्याक आल्लय गायताली.
(एका घराचो देखाव. कपड्यांचे झोळयेंत भुरगें. एक चली पाळणो धोलयता.)

१ : यो गो गुगी, आंबाड्यार उबी. रडटलो बाबू न्हिदय वेगीं.

कोरस : (हमिंग).

सुत्रधार : हो चलो हेंच तिचें सर्वस्व. तिचे एकसुरे जिणेंत तिका आदार फकत ताचोच. तिणें उलो मारचो, 'कुमार, हांगा यो' आनी ताणें धांवत येवचें.

कोरस : (हमिंग).

सुत्रधार : राती गेल्यो, दीस गेले. हो भुरगो ल्हानाचो व्हड जालो. पुराय गांवाक ताचो अभिमान दिसतालो. ताच्या मनांत घोळटाले देशभक्तीचे विचार.

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्
(घराचो देखाव. दारांतल्यान एक भुरगो येता.)

कुमार : फकत म्हजे खातीर जगपांत कितें अर्थ आसा? देश बंदिवान आसतना हांव खोशयेन कसो जगूं? म्हजें जगप मरप देशा खातीर. वंदे मातरम्!

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

कुमार : बापूजींचोच मार्ग खरो. सत्याचो, अहिंसेचो. मायभुंयेच्या खऱ्या प्रेमाचो.

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

सुत्रधार : कुमाराच्यान रावंक नजो जालें. मायभुंये खातीर तळमळपी कुमार महात्मा गांधींक येवन

(एका आश्रमाचो देखाव. आशीकुशीक कांय लोक बसल्यात आनी तांचे मदीं बसून गांधीजी सूत कातता.)

कोरस : रघुपती राघव राजाराम, पतीत पावन सिताराम
इश्वर अल्ला तेरो नाम, सबको सन्मती दे भगवान

कुमार : बापूजी, हांव कुमारन्. चेन्नामलाय सावन आयलां.

बापू : यो असो. हांगा म्हजे म्हऱ्यांत बस. (तो बसता.) सांग, हांगा कित्याक आयला?

कुमार : म्हंजे मायभुंये खातीर म्हाका काम करपाचें आसा. दर खिणाक तिचेच विचार तकलेंत घोळटात.

बापू : मागीर?

कुमार : म्हज्या देशाक म्हजी गरज आसतना हांव हातार हात घेवन ओगी कसो रावूं?

कुमार : म्हजी आवय.

बापू : आनीक?

कुमार : आनीक हांव. आमी दोगांच. बापू, स्वातंत्र्याचें दिव्य व्रत तुमी स्विकारलां. ह्या कार्यांत तुमी आपलें सर्वस्व अर्पण केलां. हांव स्वताक देशा खातीर अर्पण करूंक आयलां. म्हाकाय तुमचे चळवळींत वांटेकार करून घेवचो इतलीच म्हजी विनवणी.

बापू : जें कार्य तूं करूंक सोदता तें सोपें न्हय. व्हडलीं आव्हानां पेलचीं पडटलीं. बरें, म्हाका एक सांग, तुजे म्हातारे आवयक तुजी चड गरज आसतना तिका एकटेक उडोवन येवप तुका योग्य दिसता?

कुमार : पूण बापू!

बापू : तिचे म्हऱ्यांत रावन तिचे निमणे दीस सुखा-समाधानाचे करप हें तुजें कर्तव्य न्हय?

कुमार : बापू, रागार जावं नाकात, पूण तुमची संघटना ही फकत सुशिक्षीत

आनी श्रीमंत लोकां खातीरच आसा काय कितें?

बापू : म्हज्या पुता, तशें न्हय.

कुमार : हांव कोण? तर एक अडाणी तरणाटो. गरिबींतल्यान आयिल्लों. म्हजे कडेन आसा कितें? मायभुंयेक सर्वस्व ओंपपाची तयारी. आनीक कांयच ना.

बापू : पुता, तुका हांव कसो समजावं?

कुमार : तुमचे संघटनेंतल्या लोकांचें बलिदान पळयत जाल्यार हांव कोणच न्हय. हाचे खातीरच तर म्हाका तुमी न्हयकारनात मूं? म्हजी गरिबी आड येना मूं?

(गांधीजी ताच्या खांदार हात घालता आनी ताका समजावपाच्या सुरांत)

बापू : ना म्हज्या पुता, ना. हें व्रत स्विकारपाक हेर कसलेच गजालीची गरज ना. जाय ती मायभुंयेचेर निस्सीम भक्ती आनी प्रेम. जें तुजे कडेन भरपूर आसा.

कुमार : मागीर?

बापू : म्हाका चिंता दिसता ती तुजे आवयची. तिका तुजी गरज आसतना तुका तिचे पसून कसो ओडून व्हरूं?

कुमार : म्हणजे हांवें घुस्मटत रावप?

बापू : यो, चल. तुज्या घरा या. हांव तुजे आवय कडेनच उलयतां. म्हजें मत दिवचे पयलीं हांव तिचें मत जाणून घेतां. चल या.

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

(गांवांतल्या एके खोंपटेचें दृश्य. जाणटेली अम्मा तांदूळ आसडत बसल्या. बापू आनी कुमार प्रवेश करता तेन्ना अम्मा बापूक नमस्कार करता)

बापू : अम्मा, तुजो हो धाडशी पूत आमचे संघटनेंत येवपाक सोदता. आपले मायभुंयेची सेवा करपाची आसा ताका. पूण अम्मा, आमचें हें व्रत जितलें भव्य तितलेंच हुलपावन काडपी लेगीत.

अम्मा : म्हाका समजूंक ना.

बापू : स्वातंत्र्य चळवळी खातीर तुज्या पुताक मागूंक आयलां हांव. तुजे परवानगे बगर तुज्या पुताक ओडून कसो व्हरूं? 'ना' म्हणपाक

भिडेनाका. एकलोच पूत तुजो. हांव समजूंक शकतां आवयचें काळीज.

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

(अम्मा कुमाराक म्हऱ्यांत घेता.)

अम्मा : बापू, म्हज्या पुताचो म्हाका अभिमान दिसता. मायभुंये खातीरचें ताचें कर्तव्य ताणें पुराय केलेंना जाल्यार म्हाका चड वायट दिसतलें. हांव ताची आवय, आनी तो म्हजो अपुरबायेचो पूत हें सामकें खरें. पूण ही भारतभूंय तर आमच्या सगळ्यांचीच आवय. मागीर तिचोच पूत तिका परत करपाक हांव ना कित्याक म्हणूं? (अम्मा आपल्या पुताचो हात बापूच्या हातांत दिता) बापू, हो पळय म्हजो पूत हांवें तुका दिलो! तो खंयच कमी पडचो ना.

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

(ह्या कोरसाचेरच घोशणा दीत एक पंगड येता. कुमार त्या पंगडाचो मुखेली.)

कुमार : सहन केलें खूब आमी, आतां सहन करचे नात

मरण लेगीत आयलें तरी, फाटीं आमी सरचे नात

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

कुमार गुलामगिरीच्या बंधनांत आनीक कितले रावतले

गुलाम जावन जगतले काय देशा खातीर मरतले?

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

कुमार : उठात, चलात. अहिंसेच्या मार्गान पेटून उठात.

(घोशणा दीत सत्याग्रहींचो एक पंगड येता. ल्हवू ल्हवू तांची संख्या वाडटा.)

१ : पिशांनो हें कितें चल्लां?

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

२ : भारत देशाक बंदखणींतल्यान सोडोवपाचो यत्न.

३ : आपल्याच हातांनी पांयार फातर उडोवन घेतात तुमी.

१ : मात लेगीत अक्कल ना.

४ : अक्कल ना ती तुमकां. गुलाम जावन जगचे परस स्वातंत्र्या खातीर मरप आमकां मान्य आसा!

३ : आमकां मान्य ना. ते तुमकां मारून उडयतले.

५ : चलात चलात, मरपाची तयारी दवरूनच आयल्यात आमी!

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

(सैन्य येता हेर लोकांची पळापळ सुरू जाता.)

३ : आरे पळात, पळात.

४ : पळात हांगासरले, ते आयले!

१ : तो बावटो शेंवटियात आनी पळात!

कुमार : बावटे शेंवटवूं? व्रत अर्द्यार सोडूं आनी खंय वचूं? ह्या नराधमांचें राज्य नाशिल्ली थोडी तरी जमीन दाखयात रे म्हाका! आसा थोडी तरी स्वतंत्र जमीन? आसा व्हय स्वातंत्र्य? अशेच मरात भिजूड कशे! आयुश्यभर पळत रावात... अशेच. वंदे मातरम्

अधिकारी: वंदे मातरम् म्हणटा? राव, सांगतां तुका. चाऽऽर्ज... फोडून काडात एकएकल्याक.

(लाठीचार्ज सुरू जाता. घोशणा आनी विरोध सुरू जाता. ते कुमाराक बडयतात. तो 'वंदे मातरम्' म्हणत कोसळटा. निपचीत पूण बावटो जमनीर पडूंक दिना. अम्मा आनी लोक येतात.)

अम्मा : पुता, अभिमान दिसता म्हाका तुजो! अभिमान... दिसता. (बावटो घेवन उबी रावता.)

वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम्

कोरस : वंदे मातरम् वंदे मातरम् वंदे मातरम् ■

## ९.
# वोट फॉर...?

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक भुरगो धांवत येता. ताचे फाटल्यान कोण तरी लागल्यात. ताची मूठ बंद आसा.)

चलो : आवय गे, आवय गे.

सुत्रधार : सायबा, जालें तरी कितें?

चलो : म्हाका वांचय. ते पळय ते म्हजे फाटल्यान लागल्यात.

सुत्रधार : तांचें कितेंय चोरलें बी ना मरे तुवें?

चलो : आवयच्यान, हांवें तांगेलें कांयच चोरूंक ना.

सुत्रधार : तुजे मुठींत कितें आसा तर?

चलो : म्हजेंच तें. खऱ्यांनीच म्हजें.

सुत्रधार : आरे, पूण कितें रे तें?

चलो : मत, म्हजें मत. वोट रे वोट रे म्हजें. तेंच तर मागतात ते.

सुत्रधार : कोणाक दितलो?

चलो : दवरून फायदो ना. दिवचें पडटलें.

सुत्रधार : मागीर दिवन उडय मरे. असो धांवता कित्याक?

चलो : आरे, पूण कोणाक दिवूं? सगळेच फाटल्यान लागल्यात. पळय कितले जाण मागतात.

सुत्रधार : विचार कर. दोळे उगडून पळय.

(इतल्यान बाकीचीं भुरगीं घोशणा दीत येतात आनी एके सुवातेर सभे

खातीर बसतात. घोशणा सुरूच आसात. एकलो भाशण करता.)

फुडारी : भावाभयणांनो, आमच्या हक्कांचेर गदा येता.

कोरस : बरोबर, सामकें बरोबर.

फुडारी : फाटलें सरकार नाका त्या लोकांचे चड लाड करतालें.

१ : मातोवन दवरल्यात तांकां

फुडारी : बरोबर. हिंदू कडेन कोण पळयतलो?

२ : कोण पळयतलो?

फुडारी : कोण पळयतलो? आमचो पक्ष पळयतलो.

कोरस : (ताळयो)

फुडारी : आमी सत्तेर आयल्यार देवूळ बांदतले.

३ : खरेंच? देवूळ जातलें?

फुडारी : जातलें म्हणजे? जातलेंच.

१ : निश्चीत?

फुडारी : तुमी बिनधास्त रावात. देवूळ हो आमचो अधिकार. बाबरान मशीद बांदपाक देवूळ मोडलें आमी देवूळ बांदपाक मशीद मोडया.

कोरस : वा! वा! मंदिर तो वहीं बनेगा. वोट फॉर...
(देखाव सोपता आनी सुत्रधार येता.)

सुत्रधार : तेन्ना देवूळ मोडून मशीद बांदपी तो बाबर. आनी आयज मशीद मोडून मंदीर बांदूंक सोदपी नव्या काळांतले हेवूय बाबरच. दोगांयचीय वृत्ती एकूच. नव्या काळांतल्या जातीवादी बाबराक मत दितले?

जाणटो : शे! शे! हाका मत दिवप ना.
(देखाव सुरू जाता तेन्ना सगळे वाटकूळ करून बसल्यात आनी ताळयो मारतात.)

कोरस : धिरयो, धिरयो, धिरयो.
(दोग जाण झगडपाचे तयारेंत. तांकां समजायतल्यांक ते शिंगांनी शेंवटितात.)

१ : बाब, उदकाची वेवस्था कर.

२ : घरा कडेन अन्न ना.

कोरस : धिरयो, धिरयो, धिरयो.

सुत्रधार : बैलां धिरयो बंद तरी धिरयो अजून सुरूच आसात.

सत्ते खातीर बैल हे दिसान दीस मातत आसात

चलो : हाचेर उपाय ना?

सुत्रधार : आसा.

चलो : कसलो?

सुत्रधार : एकच उपाय, नसबंदी!

चलो : कितें?

सुत्रधार : माजिल्ल्या सत्ताधिशांची नसबंदी!

चलो : कोणें करप?

सुत्रधार : आमीच! आमी सगळ्यांनी. (दोगूय वतात.)

(मुखा वयलो देखाव सुरू जाता तेन्ना घोशणा दीत चार दिशांतल्यान चार पंगड येतात. चार कडेन पंगड करून बसल्यात आनी एक एक फुडारी भाशणा खातीर उबो रावता.)

फुडारी : मुसलमान भावाभयणांनो, मशीद मोडल्यार तुमचेर अन्याय जातलो. तुमी आनी तुमचो देव हांचेर अन्याय जावंक फावना.

कोरस : नहीं चलेगी नहीं चलेगी तानाशाही नहीं चलेगी. (ताळयो).

(दुसरे वटेन)

फुडारी : म्हज्या शीख भावंडांनो, तुमी आसात म्हूण आमी! तुमीय न्हय कमी. देशाक तुमचीच चड गरज. हांव तुमचो मनीस, म्हाका तुमचो आदार जाय.

कोरस : आगे बढो, आगे बढो. हम तुम्हारे साथ है।

(तिसरे वटेन)

फुडारी : तुमी दलीत. (पॉज) कोण म्हणटा आमी दलित? ते खरे दलीत! विचारांनी, मनांनी. आमची पार्टी सॅक्युलर पार्टी.

३ : पार्टी दितलो?

फुडारी : म्हाका वेंचून हाडल्यार दितलों पार्टी.

४ : ओली काय सुकी?

फुडारी : तुमकां जाय तसली!

कोरस : हीच खरी आमची पार्टी.

फुडारी : म्हाका तुमचोच आदार, तांकां दिवया मिठा फार!

कोरस : हीच खरी पार्टी जी दिता ओली पार्टी.

(चवथे वटेन)

फुडारी : आपापली जात सांबाळूंक जाय.

५ : सामकें बरोबर.

फुडारी : मत कोणाक दिवप?

६ : जातीच्याच मनशाक.

फुडारी : खंयच्या पक्षाक?

७ : सॅक्युलर पक्षाक.

कोरस : मनीस जातीचो पूण सॅक्युलर कातीचो.

सुत्रधार : आत्मो जातीवादी, पूण लेबल मात सॅक्युलर पक्षाचें. हे असले भविश्य घडयतले आमच्या देशाचें? निधर्मी न्हय अधर्मी पार्टी ही.

(मुखा वयलो देखाव सुरू जाता तेन्ना सगळे कलाकार रिंगणांत वेगान चलतात. तेन्नाच संवाद. कोरस आनी संवाद हांचो मिलाफ.)

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर

१ : भारत भुंयेचे सुटके खातीर आमच्या पक्षान खूब कितें केलां. आमचो पक्ष जुनो जाणटो पक्ष. आमच्या पक्षाक इतिहास आसा.

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर

२ : आमचो रंग देशभक्तीचो रंग, आमचो आसा एक संघ! आमी दक्ष. कर्तव्यदक्ष!

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर

३ : आमचो पक्ष जनतेचो दलादलांत वांटिल्लो.

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर

४ : आमी दावे आमी दावे, उजवें आमकां मानवना.

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर वोट फॉर

सुत्रधार : आमकां इतिहास नाका. वर्तमान, भविश्य जाय.

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर? वोट फॉर वोट फॉर?

सुत्रधार : भ्रश्टाचारी न्हय सदाचारी नेतो जाय.

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर? वोट फॉर वोट फॉर?

सुत्रधार : कोणूय मेळत काय असो?

कोरस : वोट फॉर वोट फॉर? वोट फॉर वोट फॉर?

(नवो देखाव सुरू जाता तेन्ना एक चली येता. तिच्या आंगार जायते

दुपट्टा आसात. बाकीचे तिचीं फकांडां करतात. एक एक करून दुपट्टा ओडून शेंवटितात. तिच्यो हुयेली. इतल्यान एक चलो आनी सुत्रधार येता.)

चलो : आरे ही कोण?

चलो : आनी तिका त्रास दिवपी हे कोण?

सुत्रधार : कोणाकोणाची वळख करून दिवं? सगळ्यांनीच वस्त्रहरण चलयलां लोकशायेचें. हो जातीवादी दुर्योधन. तो संधीसाधू शकुनी. तो धृतराष्ट्र.

चलो : पूण हें असलें धाडस जाताच कशें तांचे कडेन?

सुत्रधार : दोळ्यांर पट्टी बांदून तू ओगीच रावला म्हणून. एका विशिश्ट जातीचें लेबल तुवें स्वताक लावन घेतलां म्हणून. लाचार जावन तूं तुजें मत आयज मेरेन विकत आयला म्हणून! हय. म्हणूनच तर चल्लां हें लोकशयेचें वस्त्रहरण. तिची विटंबणा!

चलो : पूण आतां ना. हांव खंयचेंय लेबल लावन घेनासतना मतदान करतलों. (मूठ दाखोवन) हय. आसा म्हजे कडेन मत. तुमकां जाय? मागीर फकत आस्वासनां नाकात. कृती जाय. पुर्वजांच्या म्हालवजार जगले तें खूब जालें. स्वताक सिद्ध करात, मागीरच मत मागात. हांव आतां कोणाक भियेवचों ना. वोट फॉर... ■

## १०.
# अक्षय उर्जा

(पथनाट्याची सुरवात जाता तेन्ना पंगड गायत नाचत येता.)

कोरस : दिगंबरा दिगंबरा
लायट दी रे दिगंबरा
करमलघांटा तेवटेन आमी
काळखांत काडटात वरां वरां

१ : अशें कशें घडटा?

२ : अशें कित्याक घडटा?

३ : दर दिसा पॅत्रॉल वाडटा.

४ : गॅसाची म्हारगाय सर्गार पावता!

५ : ज्युस्त लिसांवाच्या वेळारूच लायटीचें पाड पडटा!

कोरस : अशें कशें घडटा?
अशें कित्याक घडटा?

६ : For sure natural resources will be over. Man in his greed exploits more than his need. If he goes at this speed, we will be doomed indeed.

कोरस : ऑ! 'कंट्रोल यूवर स्पीड'.

५ : सभाग्या चार लोकांक कळसारकें उलय मरे!

६ : गॅस, पॅत्रॉल केन्नाय तरी सोंपतलें. आमची हाव वाडली, वेग वाडलो

जाल्यार तर ह्यो गजाली चड बेगीन सोंपतल्यो. मागणी वाडत वतली, पूण पुरवण मात जावची ना.

७ : मागीर, करप तरी कितें?

६ : ह्यो गजाली सांबाळून दवरप.

८ : पूण त्यो सोंपतल्योच... आयज ना फाल्यां! मागीर?

६ : म्हणून आतांच शाणे जावप आनी तुज्या म्हज्या सुखा खातीर, ह्या संवसाराच्या सुखा खातीर वापर करप सौर उर्जेचो.

५ : पूण ती गावतली खंय? पावतली खंय मेरेन?

९ : दितलो कोण? घेतलो कोण?

१० : कितलो तेंप मेळटली? खंय मेरेन पावतली?

६ : घेतले आमी, दितलो तो. मेळटली तो आसा मेरेन!

१० : तो?

६ : हय, हो सूर्य. तोच दितलो सौर उर्जा.

कोरस : सौर उर्जा?

६ : हय. म्हणजेच सोलर एनर्जी.

कोरस : सूर्य देवा नमन तुका सूर्य देवा नमन
पुर्वे उदेंता पश्चिमे वता लोकां दिता जीवन.
(सगळे वाटकूळ करून उबे रावल्यात. दरेका संवादा उपरांत कोरस)

१ : वाड्या वयली व्हनीबाय सोलर कुकर वापरता.

कोरस : सोलर कुकर वापरता, सोलर कुकर वापरता.

२ : इंधनाची बचत करात, सोलर कुकर वापरात.

३ : तुमीय वापरात, सगळ्यांकूच वापरूंक सांगात.

कोरस : सूर्य देवा नमन तुका सूर्य देवा नमन
पुर्वे उदेता पश्चिमे वता लोकां दिता जीवन

४ : गंगारामान नव्या घरांत, सोलर हिटर बसयला.

कोरस : सोलर हिटर बसयला सोलर हिटर बसयला.

५ : मात्सो खर्चीक, पूण भविश्याचे नदरेंतल्यान सामको गरजेचो.

६ : सुखी भविश्याचो विचार करात, सोलर हिटर बसयात.

कोरस : सूर्य देवा नमन तुका सूर्य देवा नमन
पुर्वे उदेता पश्चिमे वता लोकां दिता जीवन.

७ : भात, मिरसांगो, नुस्तें सुकोवपाक सौर उर्जेचो उपेग.

८ : मीठ तयार करतना सौर उर्जा जाय.

कोरस : सूर्य देवा नमन तुका सूर्य देवा नमन
पुर्वे उदेंता पश्चिमे वता लोकां दिता जीवन.

९ : जेवण करपाक, उदक तापोवपाक सौर उर्जा जाय.

१० : कॅल्क्युलेटर लेगीत सौर उर्जेचेर.

कोरस : सौर उर्जा हीच अक्षय उर्जा!
सूर्य उगवला प्रकाश पडला आडवा डोंगर
आडवा डोंगर तयाला माझा नमस्कार
सौर शक्तीचो उपेग करया सुखी संवसार
सुखी संवसार तयाला माझा नमस्कार
(नवो देखाव. वाड्यार बशिल्ले लोक. एकलो धांवत येता.)

१ : आयकात! आयकात! आयकात! कलॅक्टर तुमचे भेटेक येयला. येयात, येयात, येयात.

२ : कलॅक्टर! पूण खंय आसा रे तो?

१ : (काळो दुपट्टो वापरून केल्ली एक वस्त दाखयता.) हो पळय. होच तो कलॅक्टर. सामकी जादूची वस्त.

३ : कसली जादू करता तो? सांग मरे.

१ : जें सूर्य किरण हे वयले कंवचेच्या वा प्लास्टिकाचे प्लेटींतल्यान परावर्तीत जाता तें ही काळी प्लेट ओडून घेता.

४ : अशे तरेन सौर उर्जा स्विकारपाचे हे प्रक्रियेक ग्रीन हावस इफॅक्ट म्हणटात. ही उर्जा सरळ वापरूंक मेळटा.

५ : आनी कडक वत नासता तेन्ना?

१ : फ्लॅट प्लेट वापरल्यार कडक वत नासतनाय उर्जा निर्मिती करूं येता.

४ : असो हो कलॅक्टर. सामकी जादूची वस्त.

६ : सौर शक्ती हीच अक्षय उर्जा. तेंच आमचें खरें धन.

१ : ताच्या आदारान जावपी जैवीक उत्पादकता तिगोवन दवरची पडटली.

४ : मुखा वयलें युग हें सौर उर्जेचें यूग आसतलें.

कोरस : सौर उर्जा हीच अक्षय उर्जा!
सूर्य उगवला प्रकाश पडला आडवा डोंगर
आडवा डोंगर तयाला माझा नमस्कार

सौर शक्तीचो उपेग करया सुखी संवसार
सुखी संवसार तयाला माझा नमस्कार
(नवो देखाव सुरू जाता तेन्ना खूबश्यो पवन चक्क्यो दिसतात.)

७ : डॅडी, हें कितें?

८ : हाका विंडमिल म्हणटात. विंडमिल म्हळ्यार पवन चक्की.

७ : म्हणजे कितें?

८ : तुज्या हातांत हें गिरगिरें आसा न्हय, तशेंच तें व्हडलें गिरगिरें.

७ : तेंवूय हाचेवरी घुंवता न्हय?

८ : तें बेठेंच फिरना. वाऱ्याच्या नेटार घुंवतना तें उर्जा निर्माण करता.

७ : ताचो उपेग कितें?

८ : ताचे पसून तयार जाल्ली उर्जा वॉटरपंप चलोवपाक, पिठाच्यो गिरणी चलोवपाक, तशेंच वीज निर्मिती खातीर वापरतात.

७ : पूण वारो सदांच खंय व्हांवता तर?

८ : सारकें तुजें. पूण वारो व्हांवता तेन्ना तरी ताचो उपेग करून घेवया मरे. तितलीच इंधनाची बचत. तिवूय प्रदुशण नासतना.

कोरस : भिरभीर भिरभीर वारें व्हांवता
गिरगीर गिरगिरें घुंवता
हातांत हात घालून सैमा
अक्षय उर्जा गायता.

९ : अणुविजेन प्रस्न सुटचे नात. घडये ते वाडटले.

१० : उर्जा हें साध्य न्हय तर तें एक साधन हें विसरूंक फावना.

१ : आमचो दृश्टीकोण बदलचो पडटलो.

२ : काळखांत घुस्मटपाचें काय उजवाडाचे वाटेर चलपाचें, आमीच थारावपाचें.

कोरस : हय हय. आमीच थारावपाचें. आमीच.

३ : एका नितळ प्रकाशमान जिणे खातीर ही अक्षय उर्जा तिगोवन दवरुया.

४ : ती वापरुया.

५ : जाणून घेयात, शाणे जायात.

६ : अक्षय उर्जेचें स्तोत्र गावचेंच पडटलें. नाजाल्यार...

७ : तुमचे आमचे जिणेंत काळोख आनी काळोखच.

कोरस : शाणे जावया, अक्षय उर्जेचें स्तोत्र आमी गावया. ■

# ११.
# प्लास्टीक सर्जरी

(सगळे मुखार धांवतात आनी तांचे फाटल्यान एक भुरगो धांवत येता. सगळे रावतात.)

१ : आरे, आरे अशे खंय धांवतात?

२ : एकविसावो शेंकडो पळोवंक.

१ : तो तुमच्या फाटल्यान येता तो कोण तर?

३ : देवाक खबर, येदोळसावन आमचे फाटीक लागला.

४ : तुका सांगतां, येदोळ पळयलो तेन्ना येदोसो दिसतालो. आतां केदो व्हडलो जाला पळय.

कोरस : हय मरे!

२ : आमी धांवता तितल्याच नेटान तोवूय धांवता.

३ : मेल्ल्याक लजूय दिसना, आमचे फाटल्यान येवपाक.

५ : ये! तुमीच आपयतात, ओडीत व्हरतात म्हणून येता हांव.

१ : आरे, पूण तूं खंयचो? कोणागेर रावता?

५ : हांव हांगाचोंच! तुमीच ल्हानाचो व्हड केला म्हाका.

कोरस : आमी?

५ : हय तुमीच. हांव रावतां दर एका पिशा मनशागेर!

२ : आरे, पूण तूं आमचे फाटल्यान कित्याक येता?

५ : तुमकां खावंक! तुमचे भुंयेक खावंक!

३ : तूं एकलो, आमी इतले. तूं कितें आमकां खातलो?

४ : राव, तुका सारकें शिकयतां.

(सगळीं भुरगीं मशाल घेवन ताचे भोंवतणीं गोल घुंवतात.)

कोरस : आमी तुका लासून उडयतले.

५ : तुमीच त्रासांत पडटले.

(सगळीं भुरगीं खोरें आनी पिकास घेवन ताचे भोंवतणीं गोल घुंवतात.)

कोरस : आमी तुका पुरतले.

५ : तुमीच मरतले.

कोरस : आरे तूं कोण?

५ : हांव! प्लास्टिकासूर!

१० : हो राकेस न्हय परिकथेंतलो.
हो राकेस खरो, तुमचे आमचे जिणेंतलो.
हो राकेस प्लास्टिकाचो, जो मातला. आनीकय मात्तलो.
ताका हे भुंयेर कित्याक हाडलो?

(दुसरो देखाव. वेगवेगळे लोक उबे आसात.)

६ : लोखंडा परस प्लास्टीक बरें, प्लास्टीक कळमेना हेंवूय खरें.

७ : कागदा परस सवाय आमकां प्लास्टीकच जाय.

८ : म्हज्या भावा-भयणांनो, आतां बंद करुया झाडां कातरप.

९ : दरवंज, दारां प्लास्टिकाचींच जोडप.

६ : मात्शे फॅशनेबल जावया, सोडून दिवया कपड्यां पिशवी.

७ : हांव तर आतां प्लास्टीकाची कॅरी बॅगच व्हरपी.

८ : हांव दूदकार. वापरचों ना कंवचेची बाटली, 'use & throw' बाटलीच असली.

९ : सगळ्या गजालीं परस तिगता चड, वचत थंय प्लास्टीक जोड.

कोरस : आमी प्लास्टीकाचें प्लास्टीकाचें बरें मागपी रे
आमच्या घरांत प्लास्टीक, दारांत प्लास्टीक.
प्लास्टीक प्लास्टीक रे.

१० : मागीर दर एका पिशा मनशान सुरवात केली प्लास्टीक वापरपाक.

कोरस : use & throw

१० : use & throw

पिशा मनशान तेंच केलें.
प्लास्टीक वापरलें, शेंवटून उडयलें.

कोरस : use & throw

१० : भुंयेर प्लास्टीक वाडत गेलें.
घरादारांत, खांचीकोनशांनी प्लास्टीकाचेंच रान जालें.
कागदाचे पुडे खंयचे खंय गेले.
चणे लेगीत प्लास्टीकाच्या पाकिटांतच बंद जाले.
ल्हान-व्हड पोटल्यो लेगीत प्लास्टीकाच्योच जाल्यो.
करतां करतां भुंयेर जाली प्लास्टीकाचीच रास.
सामकें कठीण जावंक लागलें भुंयेर घेवंक लेगीत स्वास.
(प्लास्टीक पसरता आनी तातूंतल्यान लोक वाट काडटात. चावडे वयलो देखाव.)

५ : शाणू, कसलो विचार करता रे?

३ : आरे, म्हजीं गोरवां दुयेंत पडल्यांत. तांणी प्लास्टीक खाल्लें माल पडलें अशें दोतोर सांगता.

५ : हेवटेन तेवटेन उडटा म्हणटकच गोरवां खातलींच. ताका आनीक उपाय ना.

१ : हलकें फुलकें आनी सवाय म्हूण प्लास्टीक वापरलें, पूण आतां मोटो प्रस्न जावन सतायता.

४ : वचत थंय प्लास्टीक जालां, प्लास्टीकाचेंच रान मातलां.

२ : आरे, आमी प्लास्टीक पुरया.
(प्लास्टीक पुरतात आनी गोल घुंवतात.)

कोरस : आमी प्लास्टीक नश्ट केलां.
आमकां आतां भंय ना.
(घुंवप थांबता तेन्ना एकलो येता.)

७ : देवा म्हज्या, सगळी जमीन नापीक जाली.

६ : झाडांय पळय मेल्लेवरी जाल्यांत.

७ : पूण जमीन नापीक कशी काय म्हणटां हांव?

१० : जमनीचेर प्लास्टीक बसतकच उदक मातयेंत झिरपना. जमीन सुपीक करपी जीवजिवाणूंक, जे मातयेंत आसतात तांकां उदक जाय.

प्लास्टीकाक लागून सगळेंच इबाडटा मागीर झाडां कशीं जगतलीं? तांकां जिवनस्तवां खंयच्च्यान मेळटलीं? लक्षांत घेयात प्लास्टीक कुसना.

कोरस : प्लास्टीक पुरल्यार कुसना रे,
आमची सुटका जायना.

८ : प्लास्टीक कुसना? कांयच हरकत ना. आमी तें लासून उडोवया.

९ : हय, आमी प्लास्टीक लासून उडोवया. गोबर करुया.
(प्लास्टीक लासतात आनी गोल घुंवतात.)

कोरस : आमी प्लास्टीक नश्ट केलां.
आमकां आतां भंय ना.

१० : प्लास्टीक जळोवन नश्ट करूंक जायना. पीव्हीसी सारकें प्लास्टीक जळयल्यार ॲसिड गॅस तयार जाता. जिविताक मारक असो गॅस.

८ : पूण प्लास्टीकाचें रिसायकलिंग जाता न्हय रे?

१० : फकत थर्मोप्लास्टीक म्हणटात ताचेंच रिसायकलिंग जाता.

९ : हें आनीक कितें?

१० : पायप, स्टॅरिंग व्हिलाचें प्लास्टीक, बाटल्यो, फोटोग्राफिचीं फिल्मां हांचें रिसायकलिंग जाता.

९ : आनी कित्याचें रिसायकलिंग जायना तर?

१० : थर्मोसेटिंग प्लास्टिकाचें रिसायकलिंग जायना. तातूंत बॅगां खातीर, खुर्च्यां खातीर, बोटीं खातीर वापरतात तें प्लास्टीक येता.

८ : पाड पडिल्लें सरकारूय कांयच करिना.

९ : ताचेंच दो-दोन म्हयन्यांनी रिसायकलिंग जाता! ते आनीक कितें करतले?

९ : आमी मात्सो बोवाळ करया.

कोरस : हय हय. (मोर्चो).
आमकां नाका आमकां नाका, प्लास्टीक आमकां नाका.
बंदी हाडात बंदी हाडात, प्लास्टीकाचेर बंदी हाडात.

१ : म्हज्या मोगाळ भावा-भयणांनो, आतांच मंत्रिमंडळान प्लास्टीकाचेर बंदी घालपाचो निर्णय घेतला. प्लास्टीक पिशव्यो बंद!

२ : बॅश्ट! अशेंच जावंक जाय.

३ : वालोर रे! कितें डिसिजन.

४ : जावं, बरें जालें.

५ : सायबा, ह्या बोवाळांत हांव विसरूनच गेलों, बायलेन नुस्तें हाडूंक सांगिल्लें.

(नुस्त्या बाजार. एकलो नुस्तें घेता आनी कुशीच्या दुकानार वता.)

५ : ये, रुपया कॅरी बॅग दी रे.

१० : फकत कायदे केले म्हणून जायनात. दर एकल्यान स्वता पुरतो एक कायदो करपाक जाय. गरजे भायर प्लास्टीक न वापरपाचो.

५ : हय. चुकलेंच म्हजें. हांवें थारायलें प्लास्टीक मात वापरप ना.

१० : प्लास्टीकाचो उपेग अजिबात करिनासतना रावप जमतलें तुमकां?

कोरस : हय तर!

१० : मागीर काडून उडयात उदकाचें पायप.

दोतोर हाडां जोडटना जायते फावट प्लास्टीक वापरता. तेंवूंय बंद करात.

प्रत्येक गजालींत लोखंड, लाकूड वापरात.

कोरस : हें जमचें ना. हें शक्य ना.

९ : मागीर आमी करप तरी कितें?

१० : प्लास्टीक बाटल्यो सोडून दिवप, कंवचेच्यो बाटल्यो वापरप.

कोरस : जमतलें गा जमतलें!

१० : कॅरी बॅगां सोडून दिवप, कपड्या पिशव्यो वापरप.

कोरस : जमतलें गा जमतलें!

१० : प्लास्टीकाची एक वस्त, परत परत वापरप.

कोरस : जमतलें गा जमतलें!

१० : हातूंतल्यान आमी कितें शिकले?

१ : फुडल्या शेंकड्यांत वतना प्लास्टीकाचो आदार आमकां घेवचोच पडटलो.

२ : ताचो उपेग कितलो आनी कसो करपाचो हें आमी थारावंक जाय.

३ : दर एकल्यान प्लास्टीक सर्जरी करूंक जाय.

कोरस : प्लास्टीक सर्जरी, हय हय प्लास्टीक सर्जरी.

४ : हय, प्लास्टीक सर्जरी. हांव एक विद्यार्थी. कितेंय खातकच प्लास्टीकाचीं पाकिटां हांव हेवटेन तेवटेन उडोवचों ना.

५ : हय, प्लास्टीक सर्जरी. हांव एक सामान्य मनीस. आयज सावन बाजारांत वतना हांव कपड्याची पिशवी घेवन वतलों.

६ : हय, प्लास्टीक सर्जरी. हांव एक दूदकार, हांव प्लास्टीकाच्यो न्हय तर कंवचेच्यो बाटल्यो वापरतलों.

४ : हय, प्लास्टीक सर्जरी. हांव एका नेचर क्लबाचो वांगडी. हांव प्लास्टीक एकठांय करून बांदून दवरतलों.

१० : प्लास्टीक सोपेपणान नश्ट जायना. सगळे शाणे जावया आनी करया...

कोरस : प्लास्टीक सर्जरी. ■

## १२.
# गोली मार भेजे मे

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक प्रेतयात्रा येता. तिचे फाटल्यान एक चली आड्डत, रडत येता.)

१ : गेलो. मेल्ल्यांनी बुड्डून खालो. काय बरो आशिल्लो. गेलो रे सोडून गेलो.

२ : मावशे, रडटा कित्याक? कोण मेलो?

१ : कितें सांगूं पुता म्हज्या? भांगरा सारको राणे गेलो!

२ : वर्सां कितलीं?

१ : पांच वर्सां.

(फाटल्यान आनीक दोन-तीन प्रेतयात्रा वतात. इतल्यान एक प्रेतयात्रा मुखा वयल्यान वता.)

२ : मावशे, आतां रडूंक येना?

१ : कोण गेलो कांयच समजना!

२ : आगे मावशे, विली गेलो.

१ : आयलो केन्ना तेंच कळ्ळें ना. गेलो म्हणून कशें कळटलें?

(नाचत आनी गायत सुत्रधार येता.)

३ : जाणटेल्यांनो, नेणटेल्यांनो
फोंडेकारांनो, म्हापशेंकारांनो
मडगांवकारांनो, काणकोणकारांनो

गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो
कान दिवन आयकात म्हज्या गोंयची काणी
डॅमॉक्रॅसिचो इंतेर मांडला चाळीस जाणांनी
(एकलो पेपर वाचता. ताचे फाटल्यान एक एक करून बाकीचे येतात.)

४ : आयज लुईझिन फालेरो हाणी मुख्यमंत्री म्हणून सोपूत घेतलो.

५ : तुका सांगतां हो चड तिगचो ना. आनीक दोन दिसांनी नवीन कोण तरी सीएम जातलो.

६ : लुईझिन फालेरोचे आमदार फोडपाचे यत्न सुरू आसात खंय.
(ह्या देखाव्यांतच दुसरो देखाव. एकलो गरोवंक बसला. एका तळ्यांत वेगवेगळे गट. एक गट शिवाचो आवाज करता तर एक जय श्रीराम म्हणटा. ताचे गरयेक कांय जाण लागतात.)

७ : वा! रोमाकांत, खूब दिसांनी गरयेक लागलो.

८ : तुवें हांयसय तशेंच लायलें! लोकसभेचें तिकेट. हारल्यार उपमुख्यमंत्री.

७ : लागलो. पोरकाश, तूं भियेवंनाका. हांव तुका मिनीस्टर कोत्तां.

कोरस : हेवटेन तेवटेन दिश्टी पडटा पाडसा वयले कुवाळे
जाका ताका लागल्यात सायबा सत्तेचे दुवाळे
(तिसरो देखाव. सगळे एके रांकेंत उबे आसात.)

९ : आतां म्हाका भिरांत ना. हांव घोट आसां.

कोरस : आमी तुजे फाटल्यान आसात.

१० : नार्वेकार, हांगा खूबच गरम जाता न्हय रे?

१ : सार्दिन, तूं खरें उलयलो. हांगा नगरपालिकेची एसीय ना. सुभाष तूं येता?

२ : म्हाका संवयच आसा हाची. हें जें कितें आसा पळय, फुटप! सार्दिन तूं 'लीड' घे.
(सार्दिन भायर सरता आनी एकेकल्याक आपयता.)

३ : पयल्या उमाशे सार्दिन पुसें, काय रे माविन तुजे दुवाळे कितें?

४ : राण्यान मिनिस्ट्री दिली ना म्हाका, तूं दिता जाल्यार हांव येतां!

कोरस : यो रे यो.

३ : दुसऱ्या उमाशे सार्दिन पुसें, काय गे मामी तुजे दुवाळे कितें?

५ : तांबड्या दिया गाडी जाय रे म्हाका, तूं दिता जाल्यार हांव येतां!

कोरस : यो गे यो.

३ : तिसरे उमाशे सार्दिन पुसें, काय गे आलॅक्सा तुजे दुवाळे कितें?

५ : कोकोकोला सापोर्ट कोरपाचे आसा, तूं दिता जाल्यार हांव येतां!

कोरस : यो रे यो.

(ल्हवू ल्हवू फकत यो रे यो हो कोरसच आयकूंक येता आनी अचकीत एक दो एक दो चो कोरस दीत बिजेपी, एमजी तांकां येवन मेळटात.)

कोरस : एक दो एक दो लुईझिन को फेक दो! (लुईझिनाक धुकलून उडयतात.) (गाडी सुरू करून राज्यपाला म्हऱ्यांत वतात.)

सगळे : देवाक स्मरून आमी सोपूत घेतात... (मोन्यांनीच हावभाव सुरू आसात. इतल्यान एक भुरगो बोवाळ मारीत येता.)

६ : गोली मार भेजे मे।

कोरस : ढिच्क्यँव!

६ : गोली मार भेजे मे।
भेजाशोर करता है।

७ : भेजा क्यों शोर करता है यार?

६ : देखा नहीं जाता, सुना नहीं जाता।
हर कोई चाहता है मोतियोंका हार,
हमारा सीएम बदलता है बारबार, लगातार।

७ : आरे, सीएम बदल्ल्यार तूं गुळी कित्याक घालून घेता?

६ : हें सगळें सहन जायना, पळोवंक जायना म्हज्यान. कित्याकय अर्थ उरूंक ना. (दुसरे वटेन कांय लोक रेडियो आयकूंक बसल्यात.)

८ : मुखेल खबरो. माविना आड भरिल्लो खटलो फाटीं घेवपा खातीर पर्रीकारान अर्ज केला.

९ : होच केस घालता आनी होच फाटीं घेता. तुमच्या कितें लक्षांत येता?

कोरस : पॉलिटिक्स रे पॉलिटिक्स!
हाकाच म्हणटाक पॉलिटिक्स!
(रोखडोच दुसरो देखाव सुरू जाता. एकलो पेपर वाचता तर बाकीचे आयकतात.)

१० : श्रीपाद नायकान ढवळीकारा आडची केस फाटीं घेवपाक अर्ज केला.

१ : आब्बा! हाणेंच फुडें व्हरप आनी हाणेंच फाटी घेवप? बाये घोव! हाका आनी कितें म्हणप?

कोरस : पॉलिटिक्स रे पॉलिटिक्स!
हाकाच म्हणटात पॉलिटिक्स!

२ : मोट्या विस्वासान आमी हांकां वेंचून हाडले. आनी आमच्या खुस्तार पोट भरतकच, आमच्याच पानार घाण करतात मरे हे!

३ : सारकें! केन्ना केन्नाय पक्षाचो जाहिरनामो म्हणजे हांचे खातीर बायबल, गिता, कुराण. पूण सत्तेर येतकच? सगळें खुटयाळ्याक बांदून दवरपाचें.

४ : हांच्या जाहिरनाम्यांत आसता सातूच जाणांचें मंत्रिमंडळ करपाचें आस्वासन. मागीर मात खंयचे कडेन कसलेंच प्लॅनिंगच ना.

५ : हांची नसबंदी करूंक जाय!

३ : शाण्या, ही सत्तेची हाव. हाका कसलीच बंदी लागू जायना.

४ : पॉलिटिक्स हे अशेंच आसता. जें आसता तें केन्नाय दिसता?

कोरस : आमी पक्ष बदलूंक आयल्या रे शाण्या
आमी सत्य माड्डूंक आयल्या रे
पॉलिटिक्साचो खेळ रे शाण्या आमी खेळूंक आयल्यात रे
(इतल्यान पेरगांव आयकूंक येता आनी सगळे थंय धांवतात.)

६ : आयकात, आयकात, आयकात. म्हज्या मोगाळ भावा-भयणांनो, आयकात.
सार्दिनबाबान मंत्र्यांक दिलां जेवणाचें आमंत्रण.
दर एकल्या मंत्र्याक मेळटलें उतिल्ल्या खात्याचें चिकन!
(जेवणाची पंगत बसल्या. सार्दिन सगळ्यांक वाडटा. पोटभर जेवपाची विनवणी करता आनी वाडटना 'हें घे खा तें' अशें म्हणटा.)

७ : आरे सायबा, पोट भरलें आनी नाका!

कोरस : पॉलिटिक्स रे पॉलिटिक्स!
हाकाच म्हणटात पॉलिटिक्स!

६ : आपले मंत्री फुटून वचचे न्हय म्हणून सार्दिनान उरिल्लीं खातीं वांटून उडयलीं.

८ : आपापली खुर्ची सांबाळपाचें राजकारण, आमच्या सोबीत सुंदर गोंयाक खंयचे वटेन व्हरतलें?

(शेवटचो देखाव. एक खुर्ची आनी त्या खुर्चे पोंदा चिड्डलो एक मनीस. भोंवतणीं सगळे वांकडे तिकडे धांवतात. कांय जाण एकामेकांक बांदिल्ले अवस्थेंत.)

कोरस : आमी पक्ष बदलूंक आयल्यात रे शाण्या
आमी सत्य माड्डूंक आयल्यात रे
पॉलिटिक्साचो खेळ रे शाण्या आमी खेळूंक आयल्यात रे

३ : घरा बसयात, घरा बसयात
परत परत फुटून वचप्यांक घरा बसयात
पयशां खातीर लाचार जावन ह्या नालायकांक वेंचून हाडनाकात.
हांचेर बहिश्कार घालात, तांच्या सभांकूय वचनाकात.
नाजाल्यार संगीत खुर्चेचो खेळ असोच सुरू उरतलो.
ह्या घाण राजकारणा पोंदा गोंयकार चिड्डतलो.
अशीच दर एकल्याची गत जातली.
आनी म्हणचें पडटलें.

६ : गोली मार भेजे में

कोरस : ढिच्क्यँव! ■

## १३.
# आकांतवाद

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक भुरगो महात्मा गांधींचो पुतळो जावन उबो आसा. मारामारी, बोबो, हुयेली, धांवप-धडपडप चालू आसा. ल्हवू ल्हवू सगळें शांत. कोरसाचें हमिंग सुरू जाता. थोड्या वेळान सुत्रधार कितें तरी सोदीत येता.)

१ : ओ गा, कितें सोदता?

२ : म्हजो भात!

१ : (मोट्यान हांसता.) पिसो काय कितें तूं? होच तर आमचो भारत.

२ : आसत. पूण तो तुजो भारत. म्हजो न्हय! हांव सोदतां तो शांत आनी समाधानी भारत.

१ : पूण गेला तरी खंय तुजो हो शांत, समाधानी भारत?

२ : (मोट्यान रडत) म्हज्या भारताचें अपहरण केलां.

१ : कोणें?

२ : भ्रश्टाचारान, अत्याचारान, आकांतवादान!

१ : आकांतवाद? खंय?

२ : हेवटेन तेवटेन, हांगा थंय!
वेगळो आकार, तरी विकार एकूच.

१ : कितें?

२ : आयक म्हज्या भावा, बिहाराची काणी.

काळजाचो थरकाप जातालो आतंकाच्या धुमशेणांनी.

(दुसरो देखाव सुरू जाता तेन्ना एक गांव. चार-पांच घरां. दोग-तीग जाण खबरो मारतात. एक आजो भुरग्यांक काणी सांगता.)

३ : राज्य तशें ल्हान, पूण राजा खूबच म्हान.
होळये दिसा तो धोल बडयतालो, गोरवांची खावड लेगीत तोच खातालो!
म्हालान लेगीत ताच्या, आसलो एक गोठो!
राजा तसो हुशार मोटो!
राणये कडेन चार्ज दिवन, गाणीर प्रधानाच्या घालो सोटो!

४ : दीसभर कश्ट करप पूण सुखान न्हीद ना. सदांच येतल्या खिणाची चिंता.

५ : रात सुखान सोंपली जाल्यार दुसरो दीस.

६ : हय, भंया बगर दुसरें उतरच ना जिणेंत.

७ : काळजाचो थरकाप जाता.

३ : ह्या गडबड-गोंधळ राज्यांत कांय राक्षसूय आशिल्ले. ते...
(इतल्यान 'रणवीर सेना झिंदाबाद' घोशणा दीत एक पंगड येता. कापाकापी करता आनी कांय खिणां भितर सगळो गांव सोंपोवन वतात.)
(एकटो बातमी दिता तर दोग बातमी आयकतात.)

८ : बिहारांत रणवीर सेनेन ४० दलितांक जिवे मारले. प्रधानमंत्र्यांनी शोक परगटायला.

९ : ये, तें ईएसपीएन लाय रे, क्रिकेट तरी पळोवया!

५ : नाका, 'घर घर की कहानी' पळोवया.

२ : बातमी! फकत बातमी?
आयकुपाची, पळोवपाची, विसरून वचपाची.
मनीस मनशाक भियेता, मनीस मनशाच्याच रगताक तानेता.
दर खिणाक हांगा मनीसपण मरता!
हें मनीसपण मारपी आमी सगळेच!
भियेतात. भिजूड जावन जगतात म्हूण हो आतंकवाद.

१ : चोयवटेन काळोख किण्ण, गिळूंक येता दर एक खीण.
अशाच एका गांवांतली आनीक एक गजाल.
आतंकवादान ताचेय केल्ले हाल.
आनीक एक काळखी रात. परतून एक फावट मनीसपणाचेर जालो बलात्कार!
(एका गांवचो देखाव. बायलांचो पंगड. त्यो एकामेकांक सांबाळटात. एकूच जाणटेलो तांचे राखणेक बसला. चोरांचो एक गट येता आनी त्या बायलांचेर बळबजरी करता. तांचें हांसप आनी बायलांचो आक्रोश. कोरसाचें हमिंग सुरू आसतनाच सुत्रधार येता.)

२ : होवूय आतंकवाद! जो आवयभयणींचेर करता दर खिणाक बलात्कार.
भिजूड जावन जगतल्या शंढांचो कारभार.
म्हणून हो आतंकवाद!
(देखाव सुरू जाता. काश्मिरचे आतंकवादी प्रशिक्षण केंद्र.)

१ : ही शाळा.

२ : कसली?

१ : हांगा मनीसपणाच्या विरोधांत झगडूंक शिकयतात. दुस्वास, मत्सर हें हांगाच तकलेंत 'फीड' करतात. रगत सांडपाचें प्रशिक्षण दितात हांगा, रगत सांडपाचें!

३ : चलो, सब खत्म करो। खुन की नदियां बेहने दो। लाशों के ढेर बिछा दो।

४ : भटा-ब्राह्मणांचें रगत हांगा सांडूंक जाय. सगळीं देवळां मातये भरवण जावंक जाय.

कोरस : जिहाद, जिहाद, जिहाद, जिहाद.
(देखाव सुरू जाता तेन्ना एके वटेन देवूळ तर दुसरे वटेन मशिदीचो देखाव.)

५ : हमे इस पाक जमीं पे ये हिंदू नहीं चाहिये।
(एका मनशाक बडयत हाडटात.)

३ : आमी आमकां जाय तेंच घेतले.

६ : पूण तुमकां जाय तरी कितें?

४ : स्वतंत्र राष्ट्र! तुमी नासतना. हमारा सीर्फ हमारा राष्ट्र!

६ : पूण आमकां कित्याक मारतात तर?

५ : तुमकां मारले बगर आमकां येस ना.

६ : शांततायेन, समजिकायेन हो प्रस्न सुटूंक शकना?

३ : ना. ताचे परस रगताची भास चड सोंपी.

(ताका मारतात. ताची बोब, तडफडून ताचें मरप. कोरसाचें हमिंग सुरू तेन्ना सुत्रधार येता.)

१ : पेपरांत बातमी छापून येतली, 'एक मनीस मेलो'.
'आतंकवाद्यांनी आनीक एकट्याक जिवो मारलो'.
बातमी वाचतले दोन दिसांनी विसरतले.

२ : थंय चाळीस मरतात. मरूं दी!
आमकां कितें? सुवाळ्याचे दुवाळे, आमी उत्सव मनयतले.
वेदना-संवेदना सोडाच, सुखा-समाधानाचे धेंकर दितले.
वयल्यान हड्डें मुखार काडून म्हणटले, ''भारत माझा देश. सारे भारतीय माझे बांधव'.
आमी पार्ट टायम भारतीय!

३ : इतलें कित्याक मनाक लावन घेता तूं? आमी हांगा सुसेगाद आसात मरे!

१ : आमी फकत आमचोच विचार करप? ह्या देशाचो विचार कोणे करपाचो?

३ : कोणे म्हणजे, सरकार करतलें!

१ : आनी आमी? ओग्गी पळयत रावप?

५ : आमकांय थंय वच म्हणटा? मूर्खपण!

१ : मूर्खपण तुमी करतात. त्या तोंकार आतंकवादाचो फटको बसता. आमचेर कांयच परिणाम ना. पेपर वाचले, सोंपलें. खरेंच आमी पार्ट टायम भारतीय!

६ : आमकां त्रास जायना तो मेरेन कांयच भंय ना.

७ : बरोबर. आतंकवाद थंय आसा. हांगा न्हय.

१ : तुमचेवरी विचार करपी लोक आसल्यार खंयच्याय राज्याचें बिहार, काश्मीर जावपाक कळाव लागचो ना.

८ : आमी एक मिटिंग घेवन निशेधाचो थाराव मांडुया.

९ : बेस बरें. जमलेंच जाल्यार एक रॅली काडुया.

१ : ह्या मिटिंगांनीच आमच्या देशाक अर्दो काबार केला. हांगा मनशान मनशाक वळखुपाची खरी गरज आसा. रॅलीची न्हय. गरज आसा ती एकवटाची. राव रे, तूं कोण?

७ : हांव गोंयकार.

८ : मी मराठी!

९ : कनडा.

१ : अजूनय आमी आमचीच तोखणाय करीत आसात. ह्या आतंकवादाक धांवडायतले जाल्यार आमची एकूच वळख आसूं दी. भारतीय! मनीसपण मानपी भारतीय. म्हका तुमचो आदार जाय.

५ : कित्याक?

१ : शांत, समाधानी भारत सोदपाक. आतंकवाद्यांनी अपहरण केल्ल्या म्हज्या भारताक सोडोवपाक, सांगात जाय तो तुमचो.

४ : वायट कांयच पळयनाका.

५ : वायट कांयच आयकनाका.

६ : वायट कांयच उलयनाका.

२ : ना. असलीं पिशेपणां करिनाकात. जागे रावन पळयात. सतर्क जायात. सरभोंवतणीं चल्लां कितें तें समजून घेयात.

१ : कोण कितें उलयता, आयकात. सादूर जायात.

२ : वायट उलयनाकात, पूण तोंड उगडात. वायटा आड तोंड उगडात. ना जाल्यार तुमच्या आमच्या वांट्याक येतली भयाण शांतताय. हो भंय, हो आकांत सोंपयात. काडूनउडयात. ना जाल्यार मनीसपण अपंगूळ जातलें. आमकां तुमचो सांगात जाय. दिवशात?

(होच प्रस्न विचारत लोकांत भरसतात.) ■

## १४.
# भ्रश्टासूर

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना भुरग्यांचो एक पंगड भ्रश्टासुराक नाचयत घेवन येतात.)

कोरस : व्हर रे व्हर रे, भ्रश्टासुराक व्हर रे
कटर कटर घूम, घुमचे कटर घूम
व्हर रे व्हर रे, भ्रश्टासुराक व्हर रे
पीडब्ल्यूडीच्या भ्रश्टासुरा मोटी मोटी कमिशनां पोटां भरा
पुलीस खात्याच्या भ्रश्टासूरा दीसपट्टो हप्तो एकठांय करा
आरटीओच्या भ्रश्टासुरा पयलीं घेया मागीर नोकरी दियात
सरकारांतल्या भ्रश्टासुरा निवडून आयिल्ल्यांक फोडून व्हरात
कदंबांतल्या भ्रश्टासुरा कातर मारा रे कातर मारा
भ्रश्टासुरा रे कमिशन विरा बारा पिळग्यांचें कल्याण करा

सुत्रधार : समेस्तांनो! बारा पिळग्यांचें कल्याण करपी भ्रश्टासुराक सोंपोवपा खातीर आमी हांगा जमल्यात. सोनसड्या वयल्या कोयरा परस घातक असो हो भ्रश्टासूर! आयज ताका सोंपोवपाचो. लासून गोबर करपाचो.

१ : मुखेल सोयरो कोण? उजो कोणे लावप काय म्हणटां हांव!

२ : मडगांवां मुखेल सोयरे जायते मेळटले!

सुत्रधार : मुखेल सोयरे जायते आसात, पूण म्हजें कंडिशन आसा.

३ : डोनेशन जाय मरे?

सुत्रधार : नाका.

१ : मागीर कंडिशन कसलें?

सुत्रधार : कंडिशन इतलेंच, जाणे आयज मेरेन कसलोच भ्रश्टाचार केल्लो ना ताणेंच भ्रश्टासुराक उजो लावपाचो.

कोरस : जाणे आयज मेरेन कसलोच भ्रश्टाचार केल्लो ना ताणेच उजो लावपाचो? बाये घोव!

(इतल्यान एकलो धांवत येता.)

४ : पात्रांव, हांव लायतां उजो.

सुत्रधार : कांयच हरकत ना. पूण तुवें कसलोच भ्रश्टाचार करूंक ना मरे?

४ : मनोहराच्यान ना! दिगंबराच्यान ना!

सुत्रधार : व्यक्तीगत टिका नाका.

४ : टिका-बिका कांय न्हय रे! मनोहर म्हागे कुळदेव!

सुत्रधार : तर तुजें म्हणणें तुवें लायफांत केन्नाच भ्रश्टाचार केलोच ना?

४ : दिगंबराच्यान ना. आं दिगंबर म्हागे ग्रामदेव!

सुत्रधार : बरें, म्हाका एक सांग. टू हिलराचें लायसेन्स आसा तुजे कडेन?

४ : खरें सांगूं? फोर व्हिलराचेंय आसा, पूण केन्नाच चलयली ना.

सुत्रधार : म्हाका एक सांग रे, लायसेन्स कशें मेळयलें?

कोरस : बॉल्सांतलें काडून हातार तेंकयलें.

लायसेन्स शाण्या हांवें अशें मेळयलें.

(आयटीओ लायसेन्स काडपाक वता तो देखाव. एकलो कोण तरी आठको मारता.)

आरटीओ : नेक्स्ट कोण रे?

४ : हांव पात्रांव.

आरटीओ : आठको मार. (तो ओग्गी उबो) आरे कितें जालां?

४ : पात्रांव हांव कोंकणी वा मराठींतल्यान आठको मारूं?

आरटीओ : आं! कितें?

४ : भाशा सुरक्षा मंचांत जॉयन जायत सावन इंग्लिश सोडल्या हांवें.

५ : सायबा मारूं दी ताका मराठींतल्यान आठको! पास कर तूं ताका. पांचशांचो पास काडला ताणे!

आरटीओ : मागीर आठको कित्याक जाय तर? चल घे!

सुत्रधार : पळयलो हो भ्रश्टाचार तुजे कडल्यान घडिल्लो?

४ : ही बारीक गजाल मरे! आरटीओक खावयना लायसेन्स मेळना. चोर सगळे!

सुत्रधार : मागीर तूं कोण? चोराक मजत करपी चोरूच जालो ना?

कोरस : एकलो दिता दुसरो घेता. भ्रश्टाचार वाडत वता.
(मूळ देखाव परत सुरू).

सुत्रधार : है कोई मा का लाल हो ह्या भ्रश्टासुराक काबार करतलो? (एकलो धांवत येता) आरे तूं कोण?

५ : मायकल क्लीन!

सुत्रधार : मायकल क्लीन?

५ : वोय, केसलें काराप्शन ना!

सुत्रधार : मायकल क्लीन! राव रे, पयर मडगांवां ओव्हरब्रिजा कडेन कितें करतालो?

५ : कापाज मुरे! चोयलो तुयें म्हाका? बारीकसो सेटलमॅण्ट केलो रे पुलिशे वांगडा.

कोरस : बॉल्सांतले काड्डून हातार तेंकयले.
पन्नास वगडायले तरी पन्नास वाटायले.
(रस्त्यान टिब्बल सीट वतना पुलीस आडायतात)

पुलीस : लायसेन्स खंय रे तुजें?

५ : गोरा उल्लें सायब!

पलीस : गाडये दुकुमेंत दाखय पळोवया.

५ : सायब, तेवूय गोरा उल्ले.

पुलीस : टिब्बल भोंवता?

५ : लायफां फस्ट टायम सायब!

पुलीस : सगळे अशेंच सांगतात. चलन बरय रे.

५ : चलान आनी कित्याकू? (ताका सायडीन व्हरून पयशे दिता) सायबा हे दोवोर. (टिब्बल वता.)

५ : सोगले पुलीस चोर.

सुत्रधार : आनी तूं कोण तर?

| | | |
|---|---|---|
| ५ | : | हांव मायकल क्लीन मुरे! |
| सुत्रधार | : | सॉरी मायकलबाब, तुंवूय तितलोच करप्ट जितलो तो पुलीस. तुंवूय चोरूच! |
| कोरस | : | पयशांनी जोखतात, आमकांच विकतात<br>भ्रश्टाचाराचीं रोपां आमीच रे रोयतात.<br>(भ्रश्टाचाराक मर्दी दवरिल्लो आसा. थोडे बसल्यात तर थोडे वाट पळयतात.) |
| १ | : | राजाक गाळयो घाल्यो कलमाडीक गाळयो घाल्यो, पूण हांगा तर वाड्या वाड्यार कलमाडी आनी राज आसात मरे! |
| २ | : | तांचें अनलिमिटेड खावप तर आमचें खावपाचें आनी खावोवपाचें लिमिटेड व्हर्जन. |
| सुत्रधार | : | पूण शेवटाक तें करप्शनूच! |
| ३ | : | सगळी सिस्टमच करप्ट जाल्या. |
| कोरस | : | सगळी सिस्टमच करप्ट जाल्या. |
| सुत्रधार | : | अशें म्हणलें की काम सोंपलें, पूण त्याच करप्ट सिस्टमाचो आमीय एक भाग! हें मात विसरप. |
| ४ | : | मनांत आसून लेगीत हांव उजो पेटोवंक शकना. रेशन कार्डा वेळार कोणाक कितले खावयल्यात म्हाकाच खबर आसा! |
| सुत्रधार | : | तेंच सांगतां हांव. आमच्या अशा वागण्यान तर ही सिस्टम करप्ट जाल्या. आरे, आमकां संसदेंत बशिल्लो लालू दिसता, पूण घरांतलो लालू! ताचें कितें? तो सदांच नदरे आड. |
| कोरस | : | एकलो दिता, दुसरो घेता. भ्रश्टाचार वाडत वता. |
| ५ | : | एकूण भ्रश्टासुराक सोंपोवप शक्य ना तर? |
| सुत्रधार | : | सहज शक्य आसा. सुरवात मात तुजे कडच्यान करची पडटली! पयलीं आमी निवळ रावया, सिस्टम निवळ जाता काय ना तें पळय. |
| कोरस | : | पयलीं आमी निवळ रावया, भ्रश्टासुराक काबार करया. |
| सुत्रधार | : | हो करप्ट तो करप्ट म्हणून दुसऱ्याक बोट दाखोवप सामकें सोपें, पूण हीं तीन बोटां आड्डून विचारतात... |
| कोरस | : | हांवें खरेंच भ्रश्टाचार करूंक ना? |

सुत्रधार : गरज आसा ह्या प्रस्नाची जाप जण एकल्यान स्वताकच दिवपाची!

कोरस : जागे जायात! शाणे जायात!
लांच कोणाक दिवप ना, लांच कोणेय घेवप ना.

सुत्रधार : ना जाल्यार हो भ्रश्टासूर मात्तलो. आमी मात परवंत रावतले.

कोरस : पाड पडूं! सगळी सिस्टमच करप्ट! बाये घोव!
(भ्रश्टासूर मर्दी नाचता. बाकीचे दिमी मारून बसल्यात.) ■

## १५.
# आयचे तरणाटे

(पथनाट्याचे सुरवेक एक जाणटो कितें तरी सोदीत येता.)

१० : ओय! ओय!

९ : जाणटेल्या, कितें सोदता?

१० : नवी पिळगी!

९ : ती आनीक कित्याक?

१० : थोडें जबाबदारीचें काम तांचेर सोपोवपाचें आसलें!

९ : पत्तो-बित्तो कांयच ना?

१० : आसा तर! हो पळय.

९ : आधुनीक पिळगी, घर क्रमांक चार ऑपन, गडगड्या वयलो, लाचार बारा लागीं, धुकोट पसऱ्या कडेन, बेकारलवडी. पत्तो सारको आसा मरे?

(इतल्यान एक पंगड घोशणा दीत येता.)

कोरस : समजूं नाका आमकां कमी, आयचे तरणाटे रे आमी
लाथा मारूं उदक काडूं, जुलमाचें पेंगट मोडूं
दुश्ट रिती आमीच खोडूं, भविश्याचो रथ ओडूं

(इतल्यान थंय जाणटे लोक येतात आनी अजापान पळयतात.)

१ : आरे तुमी कोण?

२ : आमी तरणाटे!

कोरस : आमी तरणाटे.

१ : तरणाटे मरे? मागीर कृती करून दाखयात.

४ : कृती? कसली कृती?

१ : कृती करात तरणाट्यां भशेन.

३ : फकत घोशणा दिल्यो म्हणून जायना, तरणाट्यां भशेन वागूंकय जाय.

५ : आरे हे तरणाटे? पेटनाशिल्ल्यो फोगोट्यो मरे ह्यो!

७ : नाचपा येना आंगण वांकडें, नशीब घडोवपाक खेळटात आंकडे!

९ : कामां हांचीं खंयूंय पावूं, पब्लिसिटी फाटल्यान लागतात रोखडे!

७ : आदर रिस्पेक्ट बांदला खुंटयेक, कमराचें काडून बांदला तकलेक!

५ : हात पसरून मागतात लाचारीचो उंडो, हांचे परस ताठ अमाचो फाटी कणो!

३ : संद मेळटा तेन्ना आपलोच धोल बडयतले, हें कितें आमचो देश घडयतले?

६ : म्हाका एका प्रस्नाची जाप दिवशात?

कोरस : आमचेर इतलो अविस्वास कित्याक?

१ : तुमचें सगळेंच डावटफूल!

कोरस : खरेंच आमी इतले डावटफूल!
ना, ना, आमी तशे न्हय.

१ : मागीर पटोवन दियात मरे!

कोरस : कोंकणी आमची आवयभास, कोंकणी आमचो स्वास
मुळावें शिक्षण कोंकणींतल्यान होच आमचो ध्यास

१ : इंग्लिशीक आमचो विरोध ना, पूण मुळावें शिक्षण कोंकणींतल्यानूच जावंक जाय.

२ : खंयच्याय इंग्लिश मुळाव्या शाळांक ग्रांट्स दिवची न्हय.

३ : गोंय आनी गोंयची संस्कृती तिगोवन दवरचे खातीर आवयभाशेंतल्यान शिक्षण सामकें गरजेचें. गोंय सरकाराक एकच विनंती...

कोरस : गेट वेल सून, गेट वेल सून.

४ : ना! जाल्यार आमी सरकार उडयतले!

१ : इंलिशीची प्रेयर गायतल्यांक घरा बसयतले!

२ : तुमचे पुरस्कार तुमचे लागींच दवरात.

१ : आमकां आयकुचें आसा कोंकणी मराठीचें किर्तन.

३ : रचलां आमी होमखण, घडयतले परिवर्तन!

कोरस : परिवर्तन परिवर्तन परिऽऽवर्तन मनोहारी परिऽऽऽवर्तन.

५ : आमकांय बरें दिशिल्लें तेन्ना. तरणाटी पिळगी पेटून उठल्या तें पळोवन. पूण...

२ : पूण कितें?

६ : मागीर तुमी शेळेले! कसलें परिवर्तन तेंवूय आमी पळयलें!!

५ : तांणी, तुमी, सगळ्यांनीच घेतलें यू टर्न. पाड पडलें तुमचें परिवर्तन!

६ : दिगंबरा, हांची घुस्मटय थांबली.

१ : आमची घुस्मट अजून थांबूंक ना. न्हयकारिल्ले पुरस्कार आमी परते घेवंक नात.

२ : मेळिल्लीं पदां घेवन सॅटल जाल्यात ते तुमी! आमी न्हय. जांकां आदर्श मानले तांणी यू टर्न घेतले. आमी न्हय! तरीय आमचेरच अविस्वास कित्याक?

कोरस : आमचेर अविस्वास कित्याक?
आमच्याच नांवान शंख कित्याक?
(एक चली मदींच धांवत मोटमोट्यान हांसत जायते जाण ताचे फाटल्यान लागल्यात. एक मोटी किळांच आनी सगळे कोसळटात.)

५ : दिल्लीच्यान गल्ली मेरेन एके अस्तुरेची किळांच पावता. पावतोऽऽऽसा!

७ : बायलांचेर अत्याचार, दर खिणाक एक बलात्कार.

८ : आनी चडांत चड प्रकरणांत तरणाटेच जबाबदार.

९ : आयची पिळगी हिंसक जाल्या, हाचीच तर खरी भिरांत दिसता.

१० : आयची पिळगी संवेदनशुन्य जायत चल्ल्या हाचीच भिरांत दिसता.

१ : आयची पुराय पिळगी संवेदनशुन्य अशें खरेंच दिसता तुमकां?

१० : तुका दिसना?

१ : ना. आडवाद आसात. पूण सगळीच पिळगी संवेदनशुन्य जाल्या हें मानपाक हांव तयार ना.

२ : आपलेंच उलयतलो! दुसरी बाजूय समजून घे मरे. पळय, हांव दाखयतां तुका. तरणाट्यांची कृती पळय.
(कोरसाचें हमिंग सुरू जाता तेन्ना कॅण्डल मार्च, मूक मोर्चो, तांचेर

जाल्लो लाठीचार्ज)

कोरस : आमकां आमचें स्वातंत्र्य जाय, गुन्यांवकाराक फांशी जाय
आयज ताका फाल्यां म्हाका, आनीक निर्भया आमकां नाका

१ : अन्यायाचो निशेध करपाक पळय कितले तरणाटे रस्त्यार देंवले.

कोरस : खरेंच, आमी संवेदनशुन्य?

१ : तोडफोड करूंक ना, मारामारी करूंक ना. निशेध केलो तोवूय शांतीकायेन.

३ : गांधी शरिरान मेलो, तरी विचारान अजून जितो आसा हें आमीय दाखोवन दिलें!

२ : आमची तळमळ आमच्यो वेदना आमीय व्यक्त केल्यो.

१ : तोवूय अहिंसेच्या मार्गान. आनी तरीय...

कोरस : आमी संवेदनशुन्य?

२ : हें आमी मानपाकच तयार नात.

४ : तुमचे परस दोन गजाली आमकां चड कळटात, हें मानपाची तयारी आसा व्हय तुमची?

कोरस : आमी वीस पावसाळे चड पळयल्यात!

५ : आमी खंय न्हयकारतात तर तें!

६ : पूण आमकांय चार गजाली कळटात, हें तुमीय न्हयकार नाकात.

५ : तुमचें वक्ल लावन आमी पावसाळे कित्याक पळोवचे?

कोरस : आमचें वक्ल अणभवाचें.

६ : तो अणभव आमकांय घेवपाक दियात मरे.

४ : केन्ना पळयता तेन्ना तुमचें आपलें एकूच ब्रिदवाक्य.

कोरस : आयची पिळगी हाता भायर गेल्या.

७ : हांचें कशें जातलें देव जाणा.

कोरस : आमी ताका वळखनात.

८ : जाणे जल्म दिला ताकाच न्हयकारतात.

कोरस : ताणे जल्म दिला हेंच न्हयकारतात आमी. सायंस वेगळेंच सांगता.

९ : देवाचेर भक्ती ना, श्रद्धा ना.

कोरस : दर एके गजालीचेर श्रद्धा आसा आमची, ना ती अंधश्रद्धा!
दोळे धांपून चलचे ना मोने आमी जावचे नात

तशेंच कित्याक कळ्ळे बगर अशेच आमी फटवचे नात.

७ : सगळ्यो रितीभाती सोडून दिल्यात हाणी.

८ आमचे विधी, परंपरांचेर मात लेगीत विस्वास ना हांचो.

कोरस : तुमचो आमचेर विस्वास आसा?

कोरस : ना.

कोरस : कित्याक?

कोरस : आमकां तुमची गॅरंटी ना.

कोरस : एक्सपायरी डेट जाल्ल्या तुमच्या रिती-परंपरांची आमकांय गॅरंटी ना.

१० : सगळ्योच पोरण्यो रिती-परंपरा वायट अशें आमी खंय म्हणटात?

१ : मागीर तुमचें म्हणणें तरी कितें?

१० : सगळ्योच नव्यो गजाली वायट अशें तुमीय म्हणनाकात.

२ : तुमची व्यसनाधिनता आमकां भिरांत दिसता.

९ : आमकांय भिरांत दिसता, पूण आख्खी पिळगीच व्यसनाधीन जाल्या हें आमकां मान्यच ना.

३ : आतां तुका कसो समजावं?

८ : पयलीं समजून घे! आयुश्यभर दुसऱ्याक समजावपाचीच ड्युटी केली. खीणभर आमकां समजूनय घेयात.

कोरस : आमकां समजून घेयात, समजून घेयात, समजून घेयात.

७ : नवीं सपनां, नवे हावेस तुमी कित्याक घालतात वेस?

६ : समजून घेयात आमचो भेस, आमचो मार्ग, आमची पेस!

८ : आमचे विशीं नसाय नाका, आमचे विशीं दुबाव नाका.

४ : चार जाण चुकले वाट पुराय पिडेची लागली वाट?

३ : परंपरा नाविन्य सांगड घालूंक आमकां जमता.

५ : तुमच्या काळजा भास आमच्या काळजा मेरेन पावता.

७ : तरी लेगीत...

कोरस : आमचेर अविस्वास कित्याक?
आमच्याच नांवान शंख कित्याक?

१० : पाड पडूं तांचें, आयचे पिळगेचो पत्तोच चुकीचो दिल्लो. ■

## १६.
# अबला न्हय सबला

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक चलो एके चलेयक बडयत येता. चली मोट्यान आड्डता. इतल्यान एकलो धांवत येता.)

दोन : आरे, आरे हें कितें चलयलां तुवें? आनी तिका कित्याक मारता?

एक : म्हजे बायलेक हांव मारतां. जें आयज मेरेन चलत आयलां, तेंच हाचे फुडें चलयतां.

दोन : कितें चलत आयलां?

कोरस : आरारारा है है, आरारारा है है
बायलेन सोंसपाचें, दादल्यान भोगपाचें
आरारारा है है, आरारारा है है
(ह्या कोरसाचेर बाकीचीं भुरगीं जोतां जावन येतात.)
(एका घराचो देखाव. एक जाणटी बायल ताटली वाजयत घरांतल्यान भायर सरता.)

ती : वाडेकारांनो आयकात, म्हज्या पुतागेर चलो जाला. म्हाका नातू जाला नातू.

कोरस : कोंबले बाबांनो साद रे घाला
आमगेर आयज बाबू जाला
बाबू जाऽऽऽला!
(घराचो देखाव. मात्शें वेगळें घर. एक बायल घरांतल्यान मोटमोट्यान

रडत भायर सरता.)

ती : आमचें नशीबच फुटकें. आमी कसलीं पापां केल्लीं देवाक खबर. परतूनय चलीच जालें. कर्मभोग!

तो : जालें तें बरें जालें ना. घरांत एक चलो जाय आसलो.

(इतल्यान सांत्वन करपाक लोक येतात.)

एक : व्हनीबाय, जालें तें खूब वायट जालें.

दोन : सामकेंच वायट जालें. आनीक एक पिडा जल्माक आयली.

तीन : कर्मभोग! चली म्हणजे दळिद्रच!

कोरस : आराराRA है है, आरारारा है है
बायलेन सोंसपाचें, दादल्यान भोगपाचें
आरारारा है है, आरारारा है है

(एका घरांतलो देखाव. बापूय, चलो आनी चली. बापूय कदेलार बसला.)

चली : (हातांत बावली आसा.) बाबू कडेन आसा तसलें बॅट-बॉल म्हाकाय जाय.

बापूय : आगो, तो चलो. ताणे क्रिकेटच खेळपाची. तूं चली, तुज्या हातांत बावलीच सोबपाची!

चलो : आवट्या, तूं तुजी बावलीच घेवन खेळ. (दोगांय झगडटात.)

चली : बाबूक मात बॅट-बॉल, म्हजे कडेन बावलीच कित्याक?

बापूय : तोंड घेवन उलयनाका, तुजीं शाणेपणां नाकात. चलयेची जात तुजी. चलयेवरीच राव.

कोरस : चलयेची जात तुजी, चलयेवरीच राव
आराराRAर है है, आरारारा है है

(एका घराचो देखाव. बापूय आनी चली. चली उमेदीन धांवत येता.)

चली : बाबा बाबा, म्हाका बारावेक फस्ट क्लास मेळ्ळो!

बापूय : उजवाड घालो.

चली : बाबा, हांव मुखार शिकतलें!

बापूय : मुखार? घोवागेर वचून शीक. आतां घरांतलीं कामां शीक. मुखार

शिकतलें खंय! कांयच गरज ना.

चली : पूण बाबा, बाबू धावेक दोन फावट नापास जालो. तरीय तूं ताका शिकयता मरे!

बापूय : तो बाबू! चलो तो! तूं चली हें विसरनाका. तुजीं चड शाणेपणां नाकात. चलयेची जात तुजी, चलयेवरीच राव.

कोरस : चलयेची जात तुजी, चलयेवरीच राव
आरारारार है है, आरारारा है है

(एक चलो आनी एक चली येतात.)

तो : पळयलें मगो, चलत आयलां तें अशें. बायलेन सोंसपाचें आनी दादल्यान भोगपाचें.

तें : चुकता तुजें! बायलेन सोंसपाचें आनी दादल्यान फकत भोगपाचे दीस फाटीं पडल्यात आतां. बायलोय विचार करतात.

तो : (मोटमोट्यान हांसता.)

तें : आरे, हांसता कित्याक?

तो : बायलांचें तोंड हें कॉर्द सुटिल्ले घडयाळीवरी हें जाणा आशिल्लों हांव. बायलो विचार करतात हें नकळो आशिल्लों हांव!

तें : हीं अडाणीपणाचीं लक्षणां. कितेंय उलोवप! मात्शे दोळे उक्ते करून पळय.

कोरस : खंयच्या काळांत उलयता तूं? खंयच्या काळांत पळयता?
ओडले जरी पांय तुमी, बायल मळब वेंगायता!

(बैलांचो एक बाजार. तांच्या गळ्यांत 'रेट' लायिल्लें कागद. एकलो पावणी काडटा.)

तो : टॅन्शनांत आशिल्ल्या चलयांच्या आवयांनो आनी बापायांनो! भारतभर भोंवन पयलेच फावटी गोंयांत आयलां, 'असली सेल'. येयात, येयात. तुमकां जाय तसलो जावंय, जाय तसलो न्हवरो घेवन वचात. येयात, येयात. आठ लाखां वयलो चलो घेतल्यार थोडोसो डिसकावंट आनी चल्याचे आवय बापूय फ्रीऽऽऽ! येयात. येयात.
(इतल्यान एक चली आनी ताचे आवयबापूय येतात.)

तो : येयात, येयात. जाय तसलो न्हवरो वाजोवन घेयात.

बापूय : तुमचो सेल आमकां बऱ्याक पडलो. फावटी वाचल्यो!

आवय : (एका बैला म्हऱ्यांत वचून) हो कसो?

तो : फकत बारा लाख. हो दोतोर.

बापूय : हाचेर कितें फ्री आसा?

तो : आसा तर! पंदरा धनकुटेचीं इंजेसांवां फ्री. प्लस चल्याचे आवय बापूय.
(दुसऱ्या बैला म्हऱ्यांत वचून.)

तो : हो इजनेर. रेट आठ लाख. शंबर चिरे फ्री.
(तिसऱ्या बैला म्हऱ्यांत वचून.)

तो : हो प्यून. बँकेंत आसता. रेट फकत एक लाख!

बापूय : हॅं! हो सामकोच सवाय! बाय, तुका जाय तो न्हवरो सिलॅक्ट कर. परवडना जाल्यार 'लोन' काडून घेवया.

चली : बाबा, पूण हांगा न्हवरे खंय आसात तर? हो तर बैलांचो बाजार आनी हे हांगा विकूंक हाडिल्ले बैल!

आवय : आगो हें कितें उलयता तूं? दोतोर आसा, इजनेर आसा, आदवोगाद आसा!

चली : तेंच तर म्हणटां. हो तर बैलांचो बाजार! दोन पांयांचे सुशिक्षीत बैल हे सगळे. स्वताची अक्कल घाणाक दवरिल्ले बैल. असल्या बैलां वांगडा हांव संवसार करूं? ही, ही आमच्या शिक्षणाची अधोगती. म्हाका बैला वांगडा लग्न जावपाचें ना.

बापूय : मागीर करतलें तरी कितें तूं? जाय तरी कसलो न्हवरो तुका?

चली : जाचे भितर मनीसपण शिल्लक आसा असलो. हांव जशें आसा तशें म्हाका समजून घेतलो. नोकरी कसलीय करूं, पूण जाणें आपली अक्कल ह्या बैलांवरी घाणाक दवरिल्ली ना असलो न्हवरो जाय म्हाका!

कोरस : समजूं नाका आमकां कमी
अबला उरूंक ना रे आमी
नव्या जोमान, नव्या नेटान
भविश्य घडयतलीं आमी

(एक चलो आनी एक चली येतात.)

तें : पळयलें मरे? बायलांनी फकत सोसपाचे दीस फाटी पडले आतां. आरे, कल्पना चावला अंतराळांत पावली.

तो : कल्पना चावला अंतराळांत पावली, जुही चावला सिनेमांत पावली. पूण खोतीगांवचें शेंवतें मात खोतीगांवांतच उरलें.

तें : हें अशें कित्याक घडलें?

तो : नशीब ताचें!

तें : तुमच्या सारक्या दादल्यांनी संद दिली व्हय ताका नशीब घडोवपाची?

तो : दादल्यांच्या नांवान शंख कित्याक करता? बायलांच्या फुटक्या नशिबाक बायलोय तितल्योच जापसालदार. तें शेवतें म्हणटालें...

(एक चली उमेदीन नाचता.)

चली : हांव कम्प्युटर शिकतलें, गाणें शिकतलें
जीन्स घालतलें, मळब वेंगायतलें.

तो : पूण ताचे आवयन सांगलें...

कोरस : चलयेची जात तुजी, चलयेवरीच राव
आरारारा है है, आरारारा है है

तें : त्या शेंवत्याची गजाल तुवें सांगली, पूण खोतीगांवच्या आबोल्याची गजाल तूं विसरलो.

(एका घराचो देखाव. घोव आनी बायल.)

घोव : (लाडांत येवन) आबोल्यो, आमगे न्हूं दोन चेडवां पूण...

बायल : पूण कितें?

घोव : दोनूय चेडूं भुरग्यां म्हळ्यार इचित्रूच न्हू?

बायल : तितूं इचित्र कितें? काय बरीं गुणा चेडवां आमगेलीं.

घोव : तें खरें गो तुगेलें. पूण पळय, आबोल्यो आनी एकूच फावट, फकत एक फावट. पळय, हे फावट चेडोच जातलो. हांव सांगता न्हू!

बायल : ना. हे गजालीक म्हागे तयारी ना. तिसरें भुरगेंच नाका न्हू म्हाका. म्हागे दोन चेडवांकच बरे तरेन वाडयन हांव.

घोव : पिशेपणां नाका आं आबोल्यो!

बायल : पिशेपणां तूं करता. हांव न्हू. हांव कांयच आयकुचें ना! तिसरें भुरगें नाका न्हू म्हाका.

कोरस : समजूं नाका आमकां कमी
अबला उरूंक ना रे आमी
नव्या जोमान, नव्या नेटान
भविश्य घडयतलीं आमी

(चक चलो आनी एक चली येतात.)

तो : ह्या आबोल्या भितर आनी शेंवत्या भितर इतलो फरक कित्याक?

तें : शिक्षणाक लागून. आबोल्याच्या आवय बापायन ताका मनीस म्हूण वागयलें, चली म्हूण वागयलें ना. कळ्ळें मरे?

तो : म्हणजे शिक्षणा बगर पर्याय ना तर?

तें : फकत पुस्तकी शिक्षण न्हय. तांच्या भल्या खातीर केल्ल्या कायद्याचेंय शिक्षण दिवचें पडटलें.

(इतल्यान थंयच्यान एक चली वता आनी ते चलयेचीं फकांडां करपी एक चलो.)

कोरस : लडकी देखी मूंह से सीटी
बजे हात से ताली

तो : (त्या चल्याक मारता.) माकडा, चलयांचीं फकांडां करता? दांत भितर घालतलों.

तें : कितले जाणांचे दांत भितर घालतलो तूं? हांगा चलयांचीं फकांडां करपी, चली माचयेर चडल्यार शिळोणी घालपी जायते आसात. बसींत आंगार पडपीय जायते आसात. कोणाकोणाक निवळायतलो?

तो : म्हणजे आमी ओगीच रावप?

तें : अजिबात ना. पूण जी कृती तुवें केल्या ती दरेके चलयेन आनी बायलेन करपाची गरज आसा. एके चलयेचीं फकांडां करपाक चार चले एकठांय येतात जाल्यार एका मवाल्याक बुद्द शिकोवपाक आठ चलयो कित्याक एकठांय येनात?

तो : सारकें! आनी दादल्याकय आपलो अहंकार कुशीक दवरचो पडटलो. आपलें चली खऱ्या अर्थान स्वावलंबी जातलें हें प्रत्येक आवयन पळोवचें पडटलें.

तें : मोर्चे, मेळावे, किटी पार्ट्यो हांचे परस चड गरज आसा ती स्वताची वळख स्वताकच करून दिवपाची आनी ठामपणान जगाक सांगपाची...

कोरस : समजूं नाका आमकां कमी
अबला उरूंक ना रे आमी
नव्या जोमान, नव्या नेटान
भविश्य घडयतलीं आमी ■

## १८.
# राखणदार भुंयेचे

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना भुरग्यांचो पंगड नाचत येता.)

कोरस : आमी राखणदार भुंयेचे, आमी राखणदार भुंयेचे
एक एक राकेस मारूं, राकेस प्रदुशणाचे
गा राकेस प्रदुशणाचे
पाचव्याचार सैमाचें ह्या रक्षण करूं सैमाचें
पाचव्याचार सैमाचें ह्या रक्षण करूं सैमाचें
(नाचत येवन सगळे बसतात.)

१ : म्हज्या मोगाळ भावा-भयणांनो
नमस्कार! तुमकां सगळ्यांक मायेमोगाचो येवकार
तुमी सगळे हांगा आयल्यात काडून वेळांत वेळ
(संस्थेचें नांव) तुमचे मुखार दवरता सैमाचो खेळ
दियात फकत थोडोच वेळ!

२ : करोड नहीं, दस करोड नहीं।
एक ऐसा शो जिसका कोई तोड नहीं।
करोडों कमाईये, जितते जाइ ये।
जितनेवाले आप, जरीया हम, और देनेवाला वो!
और वो जब देता है, तो देता है छप्पर फाडके!!

३ : (मोटयान रडत येता) देव दिता देंवचार व्हरता!

४ : देंवचार आनीक कोण?

५ : कोण आनीक? तूं! हांव. हे. आमी सगळे. मनीस होच देंवचार!

२ : कित्याक?

५ : तूंच पळय मरे!

(एका रस्त्याचो देखाव. मदीं उबो राविल्लो ट्रॅफिक पुलीस. एक गाडी थांबल्या, पूण बंद करूंक ना.)

६ : ये भाऊ, धुकोट येता.

७ : येतलोच.

६ : म्हाका त्रास जाता.

७ : त्रास जाता? कुशीक सर!

६ : गाडी मात्शी बंद कर.

७ : गाडी म्हजी, पॅत्रॉल म्हजें.

कोरस : बरोबर बरोबर बरोबर बरोबर

५ : गाडी तुजी, पॅत्रॉल तुजें. भूंय मात सगळ्यांची!

कोरस : सामकें खरें, सामकें खरें
भूंय आमची सगळ्यांची

७ : हांवें गाडी चालू दवरल्यार कितें जातलें?

५ : प्रदुशण, प्रदुशण जातलें.

७ : म्हज्या एकल्याचे गाडयेन इतलें प्रदुशण?

५ : एक एक करून वाडत वतलें.

७ : मागीर हांवें कितें करप?

५ : चड वेळ रावचें पडल्यार गाडी तुवें बंद करप.

७ : घे. केली गाडी बंद.

कोरस : वालोर रे, वालोर रे.

५ : गाडयेंत कार्बन जालो जाल्यार वेळेर गाडी तपासून घे.

७ : आतांच वतां.

कोरस : वालोर रे वालोर रे
सैम आमचो इश्ट बरो
सैमाक लागून मनीस खरो

(कोरस गायत गायत सगळे बसतात आनी मोट्यान बोवाळ सुरू जाता. हुयेली आनी वादयांचो कान फोडपी आवाज. एक भुरगो (भेड्डो) भोंवता तेन्ना दुसरो येता.)

८ : आरे, खंय वता?

९ : खातलों आनीक कितें? खिशां ना दमडी.

८ : आरे सायबा, खंय वता काय विचारिल्लें!

९ : ताल्ले? खावन खावन वीट आयलो.

८ : सायबा! हो तर भेड्डो.

९ : बापूय तुजो खड्डो!

८ : (हांसता)

५ : हांसले? पोटभर हांसले? फसतले! कांय काळान दर एकल्याची परिस्थिती ही अशीच जावपाची आसा. हें आवाजाचें प्रदुशण. हाका लागून वारो, उदक आनी जमीन प्रदुशीत जावची ना हें खरें, पूण मनीस मात भेड्डो जातलो हाचेवरी. मजा करात, पूण आवाजाचेर नियंत्रण दवरात. नाजाल्यार तुमीय हाचे वरी भेड्डे जातले!

१ : इतलो वेळ मेरेन तुमी पळयताले सैमाचो खेळ. आमी रोखडेच येतात दियात थोडोच वेळ.

(इतल्यान चार जाण येतात.)

२ : हम दो, हमारे दो.

३ : ही फकत फॅमिली प्लॅनिंगाची जायरात न्हय.

४ : ही तुमकां आमकां सगळ्यांक एक शिटकावणी.

५ : लोकसंख्या वाडली म्हणजे गरजोय वाडटात.

२ : गरजो वाडल्यो म्हणजे कारखाने वाडटात.

३ : कारखाने वाडले म्हणजे प्रदुशण वाडटा.

४ : लोकसंख्या कमी, प्रदुशण कमी.

५ : प्रदुशण कमी, सैम सुखी.

२+३+४+५: सैम सुखी, मनीस सुखी.

१ : चलात तर, मनशाच्या देंवचारपणाचो सेकंड हाफ पळोवया.

(सगळीं भुरगीं दिमी मारून बसल्यांत. दोन वक्त्यांचीं भाशणां

चल्ल्यांत. एका फाटल्यान एक संवाद.)

६ : म्हज्या मोगाळ भावांनो.

७ : आनी भयणांनो.

६ : झाडां आसात म्हूण आमी आसात.

७ : झाडां आसात म्हूण आमी आसात.

कोरस : हय रे, हय हय रे हय.

६ : झाडां आमकां पावस दितात. तांकां लागून जमनीची धूप जायना.

कोरस : हय रे हय, हय रे हय.

७ : झाडां मारल्यार पयसो मेळटा. झाडां मारल्यारूच आमची भूक भागता.

कोरस : सामको पिसो, सामको पिसो.

६ : झाडां आमी मारूंक नजो, तीं आमकां प्राणवायू दितात.

कोरस : हय रे हय, हय रे हय.

७ : झाडां मारल्यारूच आमचे प्राण वांचतले.

कोरस : सामको पिसो, सामको पिसो.

६ : झाडां जगूंक जाय. (आतां दोगयू आमने-सामने)

७ : तीं एक ना एक दीस जाणटीं जावन मरतलींच. तीं आतांच मारलीं म्हूण व्हडलोसो फरक कितें पडटलो?

६ : तूं लेगीत एक ना एक दीस जाणटो जावन मरतलो. तुकाय आतांच मारलो म्हूण व्हडलोसो कितें फरक पडटलो?

७ : आरे, म्हाका जीव आसा.

६ : झाडांक जीव ना म्हूण कोणें सांगलें तुका?

७ : झाडां उलयतात?

६ : तांचें फुलप, फळप हेंच तांचें उलवप.

७ : सगळीं पिशेपणां, म्हाका पटना.

६ : तूं करता तीं पिशेपणां. झाडां जगलीं जाल्यारूच आमी जगतले ना जाल्यार...

७ : नाजाल्यार कितें?

६ : पळय तुजो फुडार...

(हमिंग आनी वेदना व्यक्त करपी आवाज आयकूंक येतात. जमनीर

सरपटपी लोक. फकत जगाटीचो आवाज.)

५ : तुजीय अशीच गत जातली. तूं असोच सावळे खातीर आशेतलो. पूण सावळी मेळची ना! तुज्या सुवार्थाक लागून झाडच उरचें ना हे भुंयेर! तूं तानेतलो पूण नितळ उदक मेळचें ना. कितले दीस म्हूण पयशे दिवन उदक पियेतलो?

तूं मेकळो स्वास सोदतलो पूण घुस्मट्टलो. ऑक्सीजन सिलिंडर घेवन भोंवतलो?

आयज हांसता, गरीब सैमाक लुट्टा... फाल्यां रडटलो... वळवळून मरतलो...

नमळायेचें मागणें जीण दिवपी सैमा विशीं चींत...

(हमिंगाचो आवाज वाडत वता ५ दिमी मारून बसता.) ■

## १८.
## सत्यमेव जयते

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना धिरयो चल्ल्यात. दोग जाण झगडटात. कोरसाचो मोटो बोवाळ चल्ला.)

कोरस : धिरयो धिरयो, धिरयो धिरयो
केन्ना हो केन्ना तो, सी सॉ सी सॉ

१ : हे कोण झगडटात?

२ : सत्य आनी असत्य.

१ : कोण? कोण?

कोरस : सत्य आनी असत्य, सत्य आनी असत्य.

२ : मात्सो ओगी राव रे. 'लॅट मी कॉन्संट्रेट'

१ : हांचीं झगडीं केन्ना सोंपतलीं?

३ : सोंपतलीं? अशीं सहज सोंपतल्यांतलीं न्हय तीं!

१ : बरें, सुरू तरी केन्ना जाल्लीं?

२ : सुरू केन्ना जाल्लीं? केन्ना जाल्लीं? म्हज्या आज्या वेळार तरी सुरू जाल्लीं आसतलीं. तो सदांच म्हणटालो, असत्याचें राज्य आयलां. सत्याचो कोण वाली ना!

१ : आतांय तेंच काय कितेंय वेगळो रिजल्ट?

२ : कांय बदल ना. असत्याचेंच राज्य चल्लां.

१ : आजून सत्याक कोणूच वाली ना तर! म्हणजे आयजूय असत्यच

जिखतलें!

४ : असत्यान कितलोय यत्न केलो तरी निमणें जिखता मात्र सत्यच रे. समजून घे.

१ : निमणें जिखता तें सत्य. सुरवातीचे रावंड असत्यानच जिखपाचे तर.

४ : तो ताचो संघर्श, तग धरपा खातीर. तेंवूय जाणा आसता आपलें कांय चलचें ना म्हूण. धडपड करता इतलेंच!

२ : सायबा, चल म्हजे वांगडा. हांव तुका असत्याच्या राज्यांत घेवन वतां. जंय सत्य धडपडटा, तग धरपा खातीर.

३ : बरे भशेन! म्हजी कांयच हरकत ना, पूण हांव सत्य सोदतलों. सत्याचोच जयजयकार करतलों. कित्याक तर हांव जाणा.

२ : कितें?

४ : सत्यमेव जयते!

कोरस : जगचे न्हय रे कोणें हांगा असत्याक भियेत भियेत
मेकळ्या गळ्यान गायात सगळे सत्याचें गीत

(अन्याय सोंसपी लोकांचो एक पंगड. तांचेर जुलूम चल्ला.)

५ : हो देश आमचो, ही भूंय आमची.

६ : ही माती आमची.

७ : आमचे आवय खातीर आमी झगडटले.

८ : झगडात जाय तितले झगडात, पूण हांगा आमीच राज्य करतले.

६ : हो देश आमचो हें सत्य.

५ : ही भूंय आमची हेंवूय सत्य.

७ : भारत माता की जय!

६ : इनकलाब झिंदाबाद!

(कोणाक फांसार दितात तर कोणाक गुळी घालून मारतात.)

२ : पळय तेन्ना सत्य कशें धडपडटालें तें.

३ : पुराय एपिसोड तरी पळय मरे. आजून जायतें जावचें उरलां.

५ : आयज जागे जाले ना जाल्यार परत संद मेळची ना, वांट्याक आयिल्ली बंदखण केन्नाच रे सोंपची ना.

६ : प्राण आमकां दिवचे पडले म्हणून कितें इबाडटलें. स्वातंत्र्याचें वारें तरी आमचे भुंयेर खेळटलें.

७ : भारत माता की जय.

६ : इन्कलाब झिंदाबाद!

(अन्याय करपी आनी अन्याय सोंसपी हांचीं झगडीं अन्याय सोंसतल्यांचें जैत. बावटो हुबोवप.)

कोरस : हड्ड्यार कोणे घेतली गुळी, कोण गेले फांसार
आग्रो फकत सत्याचो, सत्याचोच आचार
वंदे मातरम्!

३ : पळय सत्य म्हणटात तें हें.

२ : पूण कितल्या लोकांचे प्राण घेतले ह्या सत्यान, कितलीं घरादारां काबार केलीं.

४ : न्याया खातीर झगडप, देशा खातीर त्याग करप हेंवूय एक सत्य. कळटा मरे हांव कितें सांगतां तें. सत्यमेव जयते!

कोरस : वादळ येवं, वारें येवं, सत्य सत्यूच उरतलें
हेर कितेंय आसूं, कशेंय व्हांवतलें रे व्हांवतलें
असत्याची पुजा जायते जाण करतले
तरी लेगीत सत्य हांगा ताठ मानेन जगतलें.

(बाजाराचो देखाव. एक भुरगो बाजारांत येता आनी सामान घेता. घेतना कांय सामान तो चोरता.)

२ : हां, पळय पळय. असत्याचें राज्य पळय.

३ : लुकसाण कोणाचें जालें?

२ : त्या पसरकारालें.

३ : समाधान कोणा गेलें?

२ : सामान कोणा वतलें? पसरकारालेंच.

३ : सामान न्हय रे, समाधान समाधान. कोणालें गेलें?

२ : सायबा, मुखावेलो एपिसोड तूंच दाखय.

३ : पळय मरे.

९ : बाबू, सगळें सामान हाडलें रे बाजारांतल्यान?

१० : हय मम्मा. हाडलें. भितर व्हरून दवरलां.

९ : तूं असो ओगीसो कित्याक बसला? घडलां तरी कितें?

१० : मम्मा, बाबूकाकाच्या पसऱ्या वयल्यान हांव एक कुरकुरे घेवन आयलों.

९ : इतलेंच मरे? कांय हरकत ना.

१० : पूण मम्मा, हांवें तें चोरून हाडलें. आतां मन सतायता. पाकीट फोडूंक हात थरथरतात. हांव सामको चुकीचो वागलों.

९ : जाणीव जाली मरे तुका चुकीची? म्हाका सांगलां तशेंच सांग वचून बाबूकाकाक. चल.

३ : असत्याच्या मार्गान गेल्यार मन अशें खाता. आयज ना फाल्यां सत्य भायर येता.

२ : तरी लेगीत, खिणाखिणाक असत्याचेंच राज्य कित्याक पातळटा?

३ : नडणी जेन्ना वाडटा तेन्ना हुमटावन आमी उडयतात. शेतांत मुगळ वाडटा तेन्ना हुमटावन आमी उडयतात. सत्याचीं कणसां जाय, असत्याक मारूंक जाय.

२ : आयकुपाक सगळें बरें दिसता. पूण असत्याचीच मुगळ वाडत चल्ल्या हेंवूंय तितलेंच खरें. असत्यच हालीं सत्याक मारता.

३ : शाण्या, सत्याक मरण ना.

२ : असत्याच्या मार्गान चलपी आयजय मोकाट भोंवतात.

३ : उसरां काय जायना, तेवूय बंदखणींत पावतात. जेसिका लाल प्रकरण याद आसा? सगळें सोंपलें अशें दिसतनाच सत्य तिगून उरलें. सत्याची बाजू घेवन लोक रस्त्यार देंवले.

कोरस : असत्याक तारण ना, सत्याक हांगा मरण ना
आडवाटो जायत्यो जरी सत्याबगर जीवन ना
सत्यमेव जायते! सत्यमेव जयते!

४ : सत्याचो मार्ग हो सोंपून असो सोंपना.

३ : तरी लेगीत असत्याचें राज्य अशें तिगना. नारायण दत्त तिवारीक वळखता मरे? असत्याच्या बापायक लेगीत सत्याच्या पुतानच निवळायलो.

कोरस : सत्यमेव जयते! सत्यमेव जयते!

४ : असत्याच्या मार्गान मनीस रोखडोच गिरेस्त जाता.

३ : असली गिरेस्तकाय कितें कामाची? तो राजा लेगीत रंक जाता.

कोरस : सत्यमेव जयते! सत्यमेव जयते!

४ : असत्याच्या मार्गान गेल्यार बंगलो येता, गाडी येता.

३ : सत्याच्या मार्गान गेल्यार समाधाना न्हीद येता.

कोरस : सत्यमेव जयते! सत्यमेव जयते!

४ : सत्याचो आग्रह धरपी गांधीक लेगीत मारलो.

३ : कोणाक मारलो?

४ : महात्मा गांधी, मोहनदास करमचंद गांधी.

३ : घाली गुळी ताणें गांधीक, विचारांक गुळी लागली ना
कूड गेली नश्ट जावन, विचार नश्ट जावंक नात
आयकून घे रे शाण्या म्हजें, सत्याक हांगा मरण ना
सत्याच्या मार्गा वयलो गांधी अजून सोपूंक ना रे, मरूंक ना

कोरस : सत्यमेव जयते! सत्यमेव जयते!
(गांधीजीचो पुतळो भोंवतणीं सत्याग्रह.)

कोरस : म्हादय, म्हादय, म्हादय.

कोरस : गोवा बचाव!

कोरस : कोंकणी आमची आवयभास, कोंकणी आमचो स्वास.

गांधी : सत्यमेव जायते!

कोरस : तरण्या रगता जाग धरया सत्याचो मार्ग
करुया सत्याचो प्रवास
गराक लावूं कोणूय कितलें असत्याचें हांयस
कोंकणी उलो मारता तुका म्हादय साद घालता
सत्याचें पावल घालुया गोंय तुका रावता ■

## १९.
# रस्तो सुरक्षा

(कोरसान पथनाट्याक सुरवात जाता. एक मडें घेवन येतात. रडारड सुरू आसा. एकलो रडत बसला.)

कोरस : काय बरो आसलो,
एका खिणाक चुकलो
आनी एकलो प्राणाक मुकलो गे
आनी एकलो प्राणाक मुकलो गे

१ : आगे, रडटा कित्याक?

२ : काय बरो आसलो, एका खिणाक चुकलो
आनी एकलो प्राणाक मुकलो रे

१ : कोण गेलो?

२ : वयल्यावाड्या वयलो सगुण.

१ : पिराय कितली?

२ : फाल्यांच सोळा पुराय जावपाचीं. फाल्यांच सगळीं सोयरीं येवपाचीं. आवयबापायन केकूय ऑर्डर करून दवरिल्लो वाडदिसाचो.

१ : आरेर! पूण नेमकें घडलें कितें सांगशीत?

२ : बापायन दिली नवी गाडी. सगुण आपलो ओड ओड ओडी.
(सगुण बायक घेवन भायर सरता.)

३ : मम्मा, वता गे.

४ : वता म्हणप ना रे. येता गे म्हणप. आनी बायक सवका चलय.

३ : बरें! चाळीस-पन्नास सामकी चिल्लर, सत्तर-ऐंशीं मान्य ना. शंबरा सकयल बायक चलोवप? हॅं! रायडिंगाक घोस्त ना.

(तो बायक घेवन भायर सरता. ल्हवू ल्हवू वेग वाडत वता.)

२ : स्पीड ताची पावली शंबराचे पलतडी.

(तो वांकडेतिकडे कट मारता. वेग वाडयता आनी एक मोटो अपघात. तो उसळून पडटा. कोरसाची किळांच.)

कोरस : सगुणऽऽऽण!

काय बरो आसलो, एका खिणाक चुकलो

आनी एकलो प्राणाक मुकलो रे.

५ : मोगाळ इश्टांनो, जर कापचो आसा बर्थ डे केक, मनाक आनी स्पिडीक लायात ब्रेक.

(एक मडें घेवन येतात. रडारड सुरू आसा. एकलो रडत बसला.)

६ : आरे कोण गेलो?

७ : पलतडचो पिटर.

६ : पिराय कितली?

७ : पिराय? पिराय मोग करपाची! गर्लफ्रॅण्डाक बायक शिकोवपाची! ताचे वांगडा भोंवपाची.

(पिटर बायक घेवन भायर सरता.)

कोरस : पिटर हॅल्मेट घाल, हॅल्मेट घाल, हॅल्मेट घाल.

८ : वांगडा व्होत्तां. घालपा मागीर चोया. हें हॅल्मेट म्होणजे बेजार केसो! मारीगेय आवोडना हॅल्मेट घालोंक.

७ : हॅल्मेट घालिनासतनाच पिटर भायर सरलो.

(तो ताच्या गर्लफ्रॅण्डाक बायक शिकयता. ल्हवू ल्हवू वेग वाडत वता.)

७ : हॅल्मेट घालूंक नाशिल्ल्यान...

(वेग वाडटा आनी एक मोटो अपघात. तो आनी तें उसळून पडटात. कोरसाची किळांच.)

कोरस : मॅरीऽऽऽ!

काय बरें आसलें, एका खिणाक चुकलें

आनी एकलें प्राणाक मुकलें रे

९ : मोगाळ इश्टांनो, मारी सोंपलें. पिटर जल्मभर हांतरुणार पडलो.

१० : गर्लफ्रॅण्डाक गाडी शिकयता?... 'गो अहेड!'
पूण हॅल्मेट घालूंक विसरूं नाका... 'सेव्ह यूवर हेड!'

(एक मडें घेवन येतात. रडारड सुरू आसा. एकलो रडत बसला.)

१ : हो आनीक कोण?

३ : हो आमीर. वयल्या मळा वयलो. हालींच शादी जाल्ली.

१ : असो अचानक?

३ : अचानक वचपा सारकेंच दुयेंस जाल्लें!

१ : गाडी चलयताना मोबायलाचेर उलावेपाचें.
(आमीर बायक घेवन भायर सरता.)

कोरस : आमीर बायक चलाते वक्त मोबायल नहीं।

५ : कुछ नहीं होता यार! मेरा कंट्रोल है बायक पे।

कोरस : बेटा सुधर जा। सुधर जा।

५ : सुधर गया हूं। एक हात से बिंधास बायक चला सकता हूं।
(तो ताची बायक घेवन भायर सरता. एका हातान मोबायल घेवन खबरो. ल्हवू ल्हवू वेग वाडत वता.)

३ : मोबायलाचें व्यसन... भंगलें एक सपन...
(आमीर वेग वाडयता, पूण ताचें मोबायलाचेर उलवप चालूच आनी एक मोटो अपघात. तो तोल वचून एका ट्रका पोंदा पडटा. कोरसाची किळांच.)

कोरस : आमीऽऽऽऽर!
काय बरो आसलो, एका खिणाक चुकलो
आनी एकलो प्राणाक मुकलो रे.

७ : मोगाळ इश्टांनो,
आमीर सोंपलो. आपले बायलेक मात वतना 'मिस्ड कॉल' दिवन गेलो.

९ : घरा वाट पळयत आसतलीं आवय बापूय आनी बायल.
गाडी चलयता आसतना केन्नाच वापरिनाकात मोबायल!

(इश्टांचो एक पंगड पार्टी मनयता. बरेच जाण ड्रिंक्स घेवन बसल्यात.)

२ : ओके! गूड नायट फ्रॅण्ड्स. फाल्यां मेळया.

४ : पवन, जातलें मरे ड्रायव्हिंग?

२ : कित्याक विचारता तूं?

६ : ना. सोरो चडला तुका म्हूण विचारता तो.

४ : हांगाच कितें अवस्था पळय तुजी.

६ : ओय! तूं बस हांगाच. हांवूच व्हरून पावयतां तुका.

२ : फिकर नॉट प्लीज! सोरो वांगडा आसतकच उरफाटो चड कंट्रोल येता!

४+६ : सांबाळून वच रे!

(पवन लकत लकत वता आनी बायक घेवन भायर सरता. कांय खिणा भितर एक मोटो अपघात. कोरसाची किळांच.)

कोरस : पवऽऽऽन!

काय बरो आसलो, एका खिणाक चुकलो
आनी एकलो प्राणाक मुकलो रे.

८ : मोगाळ इश्टांनो,

पवन सोंपलो, पूण चूक ताचीच.

१० : घेतला सोरो? गाडी नाका!

गाडी चलयता? सोरो नाकाच!!

(कांण जाण बशिल्ले आसात.)

१ : सगळे आपापल्या कर्मांनी मरतात. तांकां कोण आडायतलो?

२ : पूण पयर मिना ट्रकापोंदा पडलो त्या माणकुल्याची कसली चूक?

३ : कर्मां ड्रायव्हरालीं पूण भोगचीं पडलीं मात ताका.

४ : अशा वेळार आमी करप तरी कितें?

५ : शाणे जावप. येरादारीचे नेम समजून घेवप. दर एकल्यान येरादारीचे नेम पाळप. ह्या मार्गाचे सवंगडी आनी वांगडी जावप.

कोरस : ह्या मार्गाचे सवंगडी, आमी ह्या मार्गाचे वांगडी

आमचे चुकीन विस्कटची ना, संवसाराची कोणा घडी

(एकलो रस्तो क्रॉस करता. तो मात्सो गडबडटा.)

कोरस : दाव्यान पळय, उजव्यान पळय

दाव्यान पळय, उजव्यान पळय

६ : आनी मदींच अडकलो जाल्यार?

७ : हात वयर कर, आनी रस्तो क्रॉस कर.

८ : झेब्रा क्रॉसिंगाचो उपेग कर.

९ : गाडी चलयतना वेग मर्यादा पाळात.

१० : मुखार स्पीड ब्रेकर आसा, लक्ष दियात.

६ : ओय! मुखार शाळा आसा. गाडी सवका चलय.

७ : शाण्या, हें हॉस्पिटल, होर्न वाजोवप ना.

८ : नो पार्किंग बरयलां? मागीर पार्किंग करप ना.

९ : गरज नासतना ओव्हरटेक करप ना.

१० : गोरवां? गोठ्यांत, रस्त्यार न्हय.

१ : पुलीस आपली ड्युटी सारखी करिनात.

२ : कितेंय उलयता! चवथीक दिवाळेक दितात मरे ते तालांव.

३ : जायते फावट तेच टिबलसीट भोंवतात.

४ : कितेंय जाल्यार पुलीस न्हय रे ते!

५ : जावं पुलीस जावं आम आदमी, येरादारीचे नेम सगळ्यांनीच पाळपाचे.

६ : पुलीस तालांव दिवंकच शकचे नात अशे वागया मरे आमी.

७ : येरादारीचे सगळे नेम पाळया.

८ : आमच्याच भल्या खातीर.

९ : चड कितें सांगचें? हो रस्तो आमचें घर कशें नितळ दवरात. मना पसून मार्गाचे नेम पाळात मागीर पळयात, प्रवास कितलो सुखाचो जाता तो!

१० : हांगा जमिल्ल्या दर एकल्याचो प्रवास सुखा समाधानाचो जावचो हेंच नमळायेचें मागणें.

कोरस : ह्या मार्गाचे सवंगडी, आमी ह्या मार्गाचे वांगडी<br>आमचे चुकीन विस्कटची ना संवसाराची कोणा घडी ■

## २०.
# सुर्यदेवा नमन

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक बावलो मर्दी नाचता आनी नेटान नाचतां नाचतां अचकीत थांबता.)

१ : बाबो, बावलो बंद पडलो.

२ : बेठोच कित्याक रडलो? ड्युरासेल वापर, लंबा चले!

(सेल घालता. बावलो नाचता आनी परत बंद पडटा.)

१ : बाबो, ड्युरासेल सोंपलो. बावलो परत बंद पडलो.

३ : परतून कित्याक रडलो? भर पॅट्रॉल ताच्या पोटांत.

(पॅट्रॉल घालता. बावलो नाचून परत बंद पडटा.)

१ : बाबो, पोटांत ताच्या पॅट्रॉल ना. बावलो परतून बंद पडलो.

४ : आतां कित्याक रडलो? गॅस भर गॅस!

१ : यस! (थोड्या वेळान) फॅस्स! बावलो परतून बंद पडलो.

कोरस : पॅट्रॉल सोंपलें, गॅसूय सोंपलो
आतां बावलो कसो नाचतलो?
म्हजो बावलो कसो नाचतलो?

२ : अपुरबायेचो पूत म्हजो, कसो रे सायबा हांसतलो?

कोरस : हांसतलो, हांस... तलो. हां... स... त... लोऽऽऽ!

५ : पळोवप्यांनो, तुमी हांसले? फसतले!
बावलो मोडिल्ले पुतावरी तुमी आमीय एक दीस रडटले.

६ : गॅस, पॅट्रॉल केन्नाय तरी सोपतलें.
मागीर सभाग्यांनो खंय आनी कितें कितें म्हूण सोदतले?

५ : घडये तुमी आमीय ह्या बंद पडिल्ल्या बावल्या वरीच जातले!

७ : मागीर करप तरी कितें?

६ : शाणे जावप, जागे जावप. ह्यो गजाली जपून वापरप.

८ : पूण त्यो सोंपतल्योच. आयज ना फाल्यां. मागीर?

५ : म्हणूनच तर शाणे जावप! जागे जावप. आनी ह्या संवसाराच्या भल्या खातीर वापरप सौर ऊर्जा.

९ : दितलो कोण? घेतलो कोण?

१० : कितलो काळ मेळटली खंय मेरेन पावतली?

६ : हो सूर्य दितलो आमकां सौर ऊर्जा!

कोरस : सौर ऊर्जा?

१ : सोलर एनर्जी!

कोरस : भांगरा रथार सूर्यदेव मळबां येतलो
तुजे म्हजे जिणेक उजवाड दितलो
पोशांत सूख भरभरून दितलो
सूर्यदेव तुजो म्हजो वांगडी जातलो

(एका चॅनलाचो अँकर येता.)

१ : नमस्कार! गोंयांतलो नंबर वन चॅनल ‘खतखतें’ तुमचे मुखार दवरता एक नवोताल्ल प्रोग्रॅम - ‘आयल्यान पयल्यान’. आयल्यान पयल्यान!. तर पयलो प्रस्न, मावशे तुका! ही कसली तयारी चल्ल्या?

२ : (सोलर कुकर मांडटा) जेवणाची.

१ : जेवणाची तयारी वताच्या रखरखांत?

२ : म्हज्या ह्या ब्लॅक बॉक्साक वतूच जाय!

१ : पळोवप्यांनो, बारीकसाणीन पळयात. मावशे कडेन आशिल्लो हो ब्लॅक बॉक्स. ब्लॅक बॉक्स. ब्लॅक बॉक्स. (आवाज देंवयत व्हरता.)

२ : हय हो म्हजो जिवाभावाचो सोलर कुकर!

कोरस : सोलर कुकर, सोलर कुकर, सोलर कुकर. (आवाज चडत वता.)

१ : तुमचो जिवाभावाचो चॅनल ‘खतखतें’ तसोच मावशेचो हो सोलऽऽऽर

कुकर!

२ : सगळे वटेनच्यान काळो रंग. वयर कांचेचो ग्लास. भितरलीं आयदनांय काळ्या रंगाचीं.

१ : मावशे, तुजो फेव्हरेट कलर ब्लॅक काय कितें?

२ : हाचो फेव्हरेट कलर ब्लॅक! गॅस वापरिनासतना जेवण तयार. होच काळो रंग उश्णता ओडून घेता. इंधनाची कितली बचत!

१ : सोलर कुकर वापरात. मावशेवरी शाणे जायात. तुमीय वापरात, सगळ्यांकूच वापरूंक सांगात. खंयच वचूं नाकात. आमी रोखडेच येतात. घेवया गीत-संगिताचो एक विसव.

कोरस : ज्या खिणाक सोलर कुकर तूं रे हाडटलो
इंधनाची बचत तूंय करूंक शिकतलो
सूर्यदेव तुजो म्हजो वांगडी जातलो

३ : वाड्यावयलो सर्वश्रेश्ठ चॅनल 'खतखतें' तुमचें परतून स्वागत. आयज आमी भेट दितले गोंयांतलें एके कायदेशीर बांदकामाक. लक्षांत घेयात गोंयांतलें! कायदेशीर बांदकाम!! (बंगल्या लागीं एकलो उबो आसा.) तर दीपकबाब, 'सिक्स्थ पे' लागतकच सुरू जाल्लें गोंयांतलें हें पयलेंच बांदकाम. म्हणून म्हाका दिसता तुमी तुमच्या बंगल्याचें नांवूंय 'सिक्स्थ पे' दवरलां!

४ : हय हय! म्हज्या बंगल्याचें नांव 'सिक्स्थ पे' दवरलां हांवें.

३ : तुमच्या बंगल्याचीं खाशेलेपणां कितें?

४ : विट्रीफायड् टायल्स, मार्बल, बाथ टब, मिनी पब.

३ : ऑल इन वन! बरें, तुमी गिझर खंयचे कंपनीचो बसयला? बालदी फ्री मेळटा तो काय टॉवेल फ्री मेळटा तो?

४ : हांवें सोलर हिटर बसयला. कलॅक्टरांक फिक्स केल्ल्या पायपांत थंड उदक सोडप आनी बदलाक गरम उदक घेवप.

३ : गॅरंटी?

४ : सूर्य आसा मेरेन! सुरवेक खर्चीक, पूण भविश्याचे नदरेंतल्यान सामको गरजेचो.

३ : तर, मोगाळ पळोवप्यांनो ह्या 'सिक्स्थ पे' बंगल्यार दीपकबाबान बसयला सोलर हिटर. दीपकबाबाचो आदर्श दवरात. सोलर हिटर बसयात.

वयल्यावाड्या वयल्यान हांव सुर्या खतखतें खातीर.

कोरस : ज्या खिणाक सोलर हिटर तूं बसयतलो
सूर्यदेव तुजो म्हजो वांगडी जातलो

५ : भात, मीठ, मिरसांगो सुकोवपाक सौर ऊर्जा.

६ : जेवण करपाक, उदक तापोवपाक सौर ऊर्जा.

५ : सुखी भविश्या खातीर सौर ऊर्जा.

६ : मागीर आमी फार्टी कित्याक? गॅस सोंपलो म्हूण कपलाक आटयो कित्याक?

कोरस : (कौन बनेगा करोडपतीच्या तालाचेर हमिंग)

७ : तर आयज आमी खेळटले 'कोण जातलो लक्षावती?' आयज आमचे मर्दी आसा सुवर्णाऽऽऽ काकीऽऽ! काकी खेळाक सुरवात करया न्हय?

८ : हय हय.

७ : पयलो प्रस्न. तुमी गॅस सिलिंडर खंयच्यान हाडटात? तुमचीं ऑपशन्स आसात.
आजगांवकार सुपर स्टोरांतल्यान
मनोहराल्या पसऱ्या वयल्यान
रमेशाल्या दुकाना वयल्यान
रयील्या गाड्या वयल्यान

८ : आवंय, आमी गॅस सिलिंडर वापरीच नात! आमी गोबरगॅस वापरतात.

७ : पळोवप्यांनो, खेळ मुखार व्हरचे पयलीं एक ल्हानशें क्लिपिंग पळोवया.

कोरस : (हमिंग) (फाटल्यान गोरबगॅस प्लाण्ट दिसता तसोच गोरवांचो गोठोय दिसता.)

८ : हो आमचो गोबरगॅस प्लाण्ट. सोपें करून सांगपाचें म्हणल्यार हो एक हवा बंद असो फोंड.

९ : कसलो, मातयेचो?

८ : ना. शिमिटाचो. आनी ही मॅटलाची टांकी.

९ : हो गॅस कसो तयार जाता तें सांगशीत?

८ : गोरवांच्या शेण-मुता पसून. शेण-मूत हांगासरल्यान सरळ अशें हे टांकयेंत सोडप. गरजे प्रमाण उदक वा सांडपाणी सोडप. मागीर मिथेन गॅस तयार जाता जें एक बऱ्यांतलें बरें इंधन.

९ : पूण राव रे, ही टांकी शी वयर सकयल कशी जाता?

८ : गॅसाच्या प्रमाणा नुसार टांकयेची पातळी बदलता.

९ : हो गॅस भरप कसो? वापरप कसो?

८ : स्टोरेज प्रॉब्लेम नाच. ह्या पायपांतल्यान गॅस सरळ रांदचे कुडींत शेगडेंत. ना धुकोट ना पोल्युशन.

९ : हे टांकयेंतल्यान भायर पडटा तें शेण?

८ : सारें म्हूण वापरप. हेर इंधना परस स्वस्त आनी मस्त गोबरगॅस!

कोरस : गोबरगॅस गोबरगॅस गोबरगॅस जाय
गोबरगॅस गोबरगॅस गोबरगॅस जाय
(देखाव सोपता.)

७ : तर खंयचोय गेम शो खेळनासतना जैतवंत सुवर्णाकाकी. सुवर्णाकाकीन साध्य केलें आमचे कडेन कित्याक जावचें ना?
(देखाव सोपता. नवो देखाव. बंद पडिल्लो बावलो.)

२ : गणू, कितें घेवन आयला?

१ : सामकी जादवाची वस्त. सौर शक्ती! आतां म्हजो बावलो नाचतलो!
(बावल्याक हात लायता आनी तो नाचूंक लागता. सगळे वांगडी नाचूंक लागतात. नाचतां नाचतांच संवाद.)

३ : सौर उर्जेचो मंत्र जपात, सगळो संवसार हांसतलो.

४ : सौर शक्ती हीच अक्षय उर्जा.

५ : सौर शक्ती हेंच खरें धन, तें सांबाळून दवरात.

६ : नाजाल्यार तुमी आमी सगळेच एक दीस अ... शे... च.
(सगळे कलाकार एकदम स्टॅच्यू जावन उबे. सामके बंद पडिल्ल्या बावल्यावरी.) ■

२१.
# महात्मा गांधी

(पथनाट्याक सुरवात जाता ती डोंबाऱ्याच्या खेळान. डोंबारी ब्रिटिशांचें प्रतीक, जाल्यार माकड भारतीयांचें.)

माकड : हें सहन जायना, हें सहन जायना.

डोंबारी : (हांसता) सोसचें पडटलें, सोसचें पडटलें.

(हें सुरू आसतनाच जोत घेवन कांय जाण येतात. जोत आमुडपी ब्रिटिशांचें प्रतीक तर बैल भारतीयांचें.)

बैल : हें सहन जायना, हें सहन जायना.

डोंबारी : (हांसता) सोसचें पडटलें, सोसचें पडटलें.

(हें चालू आसतनाच सुत्रधार येता.)

सुत्रधार : बंदखणींतली जीण, घुस्मटावपी खीण.
बंदखणींतल्यान सुटपा खातीर सशस्त्र क्रांती.
(ब्रिटिश आनी क्रांतीकारी हांचे मर्दी लडाय.)

सुत्रधार : ल्हान ल्हान धक्के बसताले, ब्रिटिशय निबर जाताले.
दर दिसाक नवे जुलूम, दर दिसाक नवो कायदो.
वर्स १८३५... मिठाचो कायदो.
(एक ल्हानसो गांव. एक दवंडीवालो आनी जमिल्ले लोक.)

दवंडीवालो : आयकात, आयकात!
हाचे फुडें मीठ उत्पादनाचे सगळे हक्क ब्रिटिश सरकारा कडेन

उरतले.
हेर कोणाकूय मीठ तयार करपाची परवानगी मेळची ना.
बेकायदेशीरपणान कोणेंय मिठाचें उत्पादन केलें जाल्यार तें जप्त जातलें.
गुन्यांवकाराक स म्हयन्यांची बंदखण जातली.

१० : आरे, आमी करप तरी कितें?

९ : कितें खावप?

८ : जिवितच अळणी जातलें मरे!

७ : कांयच सुचना.

सुत्रधार : ११ मार्च १९३०, साबरमती आश्रम.
(एक झाड. ताच्या पोंदाक गांधीजी बसल्यात. आशीकुशीक लोक आनी प्रार्थना सुरू आसा.)

कोरस : रघुपती राघव राजाराम पतित पावन सिताराम
ईश्वर अल्ला तेरो नाम...

गांधी : ब्रिटिश सत्तेचो पुरायपणान नाश जावपाक ना. दांडी यात्रेचो ह्या ब्रिटिशांचेर प्रभाव पडटलोच म्हणून सांगूंक नजो. सगळ्यांनीच ब्रिटिश सत्तेक विरोध करप गरजेचें. कर भरपाक न्हयकार दियात, सरकारी नोकऱ्यांचेर लाथ मारात. यत्न करपाचे ते अहिंसक मार्गान. आमचें ध्येय नेमकें आसा देखून देव आमचे वांगडा आसा. आमचो हेतू सबळ आसा. सरकारान सत्याग्रहाची परवानगी दिली जाल्यार लेगीत म्हज्या आयुश्यांतलीं साबरमतीच्या तिरा वयलीं हीं निमणीं उतरां.

सुत्रधार : आमी मागली स्वराज्याची रोटी, तांणी आमकां फातर दिले
ब्रिटिश साम्राज्याचो अंत जावंकच जाय
बापूनय म्हणलें, स्वराज्य मेळ्ळेबगर साबरमतींत दवरचो ना पांय.
साबरमतीच्यान दांडी!
जुलमी सत्तेक आव्हान दिवपाक, मिठाचो कायदो मोडपाक
१२ मार्च १९३०, फांतोडेचो वेळ.
(एका झाडा पोंदा गांधी आनी हेर सत्याग्रही बसल्यात. प्रार्थना सुरू आसा आनी एकलो पुस्तकां वांट्टा.)

६ : हें कितें?

५ : 'अनसक्तीयोग'

४ : भगवद्गितेचो बापून केल्लो गुजराती अणकार.
(दांडी यात्रेक सुरवात जाता. गांधी मुखार आनी सगळे सत्याग्रही फाटल्यान. घोशणा सुरू आसा.)
(उमळशिकेन वाट पळोवपी लोक बापूक प्रणाम करतात.)

गांधी : तुमचे विचार आनी कर्तृत्व निर्मळ उरूं दी. चरखो चलयात आनी खादी वापरात. सोऱ्याचे वाटेक वचनाकात, दुश्ट समाजीक रुढींचो अंत करात. एकचारान वागात, रावात. शांततायेचो आनी अहिंसेचो मार्ग आपणायात. मिठाचो कायदो मोडपाक तयार रावात.
(सत्याग्रहाची सुरवात. सुत्रधार येता.)

सुत्रधार : यात्री असलाळी गांवांत पावले. वेळ रातची पूण मनां जागीं.
वाट पळयतालीं व्हडा उमळशिकेन, मिठाचो कायदो मोडपाची.

गांधी : भारतभुंयेच्या पुतांनो, घडये ही यात्रा सुरू आसतना म्हाका मरण येत, पूण ही यात्रा थांबूंक फावना. म्हाका अटक जाली वा हांव मेलों जाल्यार हे मोहिमेची जापसालदारकी अब्बास त्याबजी घेतले. कोणा एकट्याच्या मरणान वा अटकेन ही मोहीम थांबूंक जायना. हो कायदो मोडचोच पडटलो.
(यात्रेक वेग आयला आनी गांधीय वेगान चल्ल्यात. लोक उबे आसात.)

३ : बापू, इतल्या नेटान कित्याक चलतात?

४ : तांकां हें पारतंत्र्य असह्य जालां. चड काळ रावंक शकनात ते ह्या पारतंत्र्यांत. बेगिनात बेगीन स्वातंत्र्य मेळोवपा खातीर ते बेगीन चलतात.

३ : बापू, पुरो जालें जाल्यार बैलगाडयेची वेवस्था केल्या.

गांधी : नाका. (एका लंगडटल्या तरणाट्याक पळोवन) नवी पिळगी अशक्त, दुर्बळ जाल्या. तांचे लाड चड जाल्यात.
(थोड्या वेळान परतू एका गांवांत यात्रा थांबता. गांधीजी बसून आपली डायरी बरयता आनी हेरांची तपासता. एकलो येवन तांच्या कानांत सांगता.)

गांधी : म्हज्या कानार आयलां की सुरत सावन सत्याग्रह्यां खातीर फळां आनी दूद धाडून दिलां म्हूण. हाचे पयशे कोण फारीक करता? सत्याग्रह्यांक असल्यो भेटवस्तू स्विकारपाचो अधिकार आसा व्हय? असल्या चोरून हाडिल्ल्या गजालींचेर आमी निंबून रावले जाल्यार तातूंतल्यान बरें कांयच निश्पन्न जावचें ना.

५ : पूण बापू...

गांधी : सरकार चोरिल्ल्या पयशांचेर जगता. आमीय चोरिल्ल्या पयशांचेर जगपाक लागले जाल्यार सरकार आनी आमचे भितर फरक कसलो उरतलो?

६ : बरोबर, बरोबर.

गांधी : तुमच्यो गरजो उण्यो करात आनी जगपाक शिकात. मनशान आपले गरजे पुरतेंच स्विकारूंक जाय.

७ : बापू, म्हज्या गांवांत आयिल्ल्या सत्याग्रह्यां खातीर हांवें कांयच करप ना?

८ : तांच्या जेवणाचेर इल्लोय खर्च करप ना?

७ : तांकां कसलोय अर्थीक पालव दिवप ना?

गांधी : एकट्या दुडवांनीच स्वराज्य मेळचें ना. तें तशें मेळटालें जाल्यार हांव तें पयलींच मेळयतां आसलों. गरज आसा ती तुमच्या रगताची, पयशांची न्हय!

४ : हय. शिजयनाशिल्लें अन्न आनी न्हिदपाक नितळ जागो हीच आमची गरज.

(यात्रा सुरू जाता आनी मदींच थांबता. सगळे आपापल्या कामांत मग्न आसात. कोण चरख्यार सूत कातता तर कोण डायरी बरयता. रघुपती राघव राजारामचो मंद कोरस.)

गांधीजी : हांव आतां फाटीं वळून पळोवचों ना, मागीर म्हाका हजारांनी लोक येवन मेळूं वा हांव एकटोंच उरूं. ध्येय अर्दवट दवरून निर्शेवचे परस हांव मरण पत्करतलों.

५ : बापूजी सुमार शंबर फुडाऱ्यांनी सरकारी नोकऱ्यांचो राजिनामो दिला.

१० : जे राजिनामो दिवचे नात तांकां आमी बुद्द शिकयतले, उपाशीं

दवरतले.

गांधी : कोणाकूय उपाशीं दवरप हें धर्मीक तत्वांचे आड आसा.

९ : पूण बापूजी...

गांधी : जनरल डायराक जर सोरोप चाबलो जाल्यार ताचें वीश चोखून काडपाक हांव फाटीं-फुडें पळोवचों ना.

(यात्रा सुरू आनी परत थांबता, हांगा बायलोय आसात.)

गांधी : खूब जाणांनी म्हाका आपुलकायेन मजत केल्या हें हांव जाणा. तुमी मोगान दिल्लो पयसो हांव जाय तितलो वेवस्थीत वापरूंक शकलों ना. एका अर्थान हांव तुमचो गुन्यांवकारी. ख्रिश्चनांचे प्रार्थने उपरांत गुन्यांवकाराक ओंवळून उडयतात, तशें म्हजे बबतींत तुमी करूंक शकतात.

सुत्रधार : एक एक पावल फुडें पडत आशिल्लें. ध्येयाचे दिकेन.
रात सोंपून दीस जावपाक, उरला थोडोसो वेळ. आनी हेवटेन...
(ब्रिटिशांची तुकडी, लॉर्ड इर्वीन आनी ताचे सांगाती हांची चर्चा चल्ल्या.)

इरवीन : आपले जबरदस्त इत्साशक्तीच्या बळार गांधी यात्रा पूर्ण करतलो अशें दिसता.

३ : सर, तांची भलायकी बरी उरना अशें हांवें आयकलां.

इरवीन : येस येस, ब्लडप्रेशर आनी काळजाचें दुयेंस खंय! तांचे कुंडलींत ह्याच वर्सा मरणाचो योग आसा खंय!

३ : बरी गजाल.

इरवीन : सारकें! आमी खंयचोय निर्णय घेवचे पयलींच जर तो मेलो तर मोटो सुयोग.

सुत्रधार : पर्वा ना! आमकां भलायकेची पर्वा ना.
ध्येय मेळयले बगर आमी ओगी रावचे नात.

५ एप्रील. दांडी.
२४१ मैलांचें अंतर पार.
चोवीस दीस पावलांचो एकच ध्यास.
स्वातंत्र्य! स्वातंत्र्य! स्वातंत्र्य!!!

(एक गांव. सगळे सत्याग्रही जमल्यात. वैष्णव जनचो मंद कोरस.)

गांधी : म्हज्यान ब्रिटिश सरकाराचे सहनशीलतायेची तोखणाय केले बगर रावंक जायना! कसलीय आडमेळी आतां मेरेन तांणी हाडली ना. पूण तांची खरी परिक्षा फाल्यां. फाल्यां मिठाचो कायदो मोडपाचो, फांतोडेर स वरांचेर खऱ्या अर्थान कायदोभंग करपाचो. जलियनवाला बाग हत्याकांड जाल्लें तो फायचो दीस. मिठाचो कायदो मोडून फाल्यां आमी पाप मुक्त जावपाचें!

सुत्रधार : ६ एप्रील १९३०, एक भांगरा दीस.

(गांधी वांगड्यां सयत दर्या देगेर येता आनी मीठ उबारता.)

सरोजिनी नायडू: मुक्तीदात्याचो जयजयकार जावं. ■

# २२.
# म्हारगाय

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक पंगड मोर्चो घेवन येता. चारूय वटेनच्यान भुरग्यांचो प्रवेश.)

कोरस : म्हारगाय हाय हाय

कोरस : म्हारगाय हाय हाय

कोरस : रडटा माय रडटा पाय

कोरस : आमी जगचें तरी कशें काय

कोरस : म्हारगाय म्हारगाय

कोरस : हाय हाय हाय हाय

(सगळे मोर्चेवाले बसतात आनी एक फुडारी तांकां संबोधीत करता.)

नेतो : हो अन्याय आमी सहन करचे नात. ह्या निर्णयाचें आमी कशेंच समर्थन करूंक शकनात. सामान्य मनशाक त्रासांत उडोवपी हो निर्णय आमकां अजिबात मान्य ना. आमी निशेध उक्तायतात. म्हारगाय वाडटा म्हणजे कितें?

१ : म्हारगाय वाडटा म्हणजे कितें?

२ : म्हारगाय वाडटा म्हणजे कितें?

कोरस : म्हारगाय वाडटा म्हणजे कितें?

३ : म्हारगाय वाडटा म्हणजे... हां आमदारांचें पॅन्शन वाडटा.

४ : खासदारांचे भत्ते चडटात.

५ : अँबेसीडर कावलाक काडटात आनी टोयोटा इनोव्हा येता.
६ : तात्पर्य कितें तर म्हारगायेंतल्यान आमदार-खासदार लेगीत सुटनात.
७ : सामान्य मनशांचें कितें?
फुडारी : (मोट्यान हांसता) सामान्य मनशान नाचपाचें जावन दोन पांयां खेतें!
कोरस : कितें? दोन पांयां खेतें?
कोरस : म्हारगाय हाय हाय!
(त्याच कोरसाचेर खेत्याचो खेळ सुरू जाता. एक डोंबारी एका खेत्याक नाचयता. तांचे सवाल-जवाब आनी प्रसंग सादरीकरण.)
डोंबारी : चल जमूरे खेल दिखा महंगाईका खेल दिखा।
जमूरा : जी मालीक। महंगाईने दिया धोखा।
डोंबारी : क्या हुआ?
जमूरा : देखो मालीक क्या हुआ। कैसा बुरा हाल हुआ!
कोरस : सांगचें कितें राया तुका, लागल्या भुरग्यांक भूक
सोडून दी हेर गजाली, म्हारग जालां वीख
(एका घराचो देखाव. भुरग्यांनी आवय फाटल्यान पिरपीर लायल्या. वेगवेगळ्या पिरायेचीं भुरगीं.)
१ : ये आवो म्हाका भूक लागल्या.
२ : मात्सो थार धर रे.
१ : येदोळच्यान तेंच करतां.
३ : आवो, म्हाकाय वाडून हाड.
२ : घे गिळात.
१ : कितें गे तूं. गिळ्ळ्यार ताळ्याक लागत मगे. बाईन बत्तीस वेळा चाबून खा म्हणलां.
३ : कसलें जेवण गे हें? निदान आयज तरी चिकन बी कितें तरी करपा न्हिगे?
२ : आबो सांग.
३ : आबो आयज तरी चिकन हाडपा न्हय रे?
४ : चिकन जाय? म्हाका खा!
२ : डायजेशनाक प्रॉब्लेम जातलो.
४ : काना सकयल वाजयतलों. फकांडां करता? हें पोटा पडटा तें खूब

समजय. तुमकां जाय तसलें खावोवपाक परवडना आमकां. पानार पडटा तें व्हडलें म्हण.

२ : शाण्या, म्हारगाय खंय पावल्या? दिसान दीस वाडत चल्ल्या.

३ : तुज्या आबोच्या पगारांत भागना रे सायबा. बरो शिकून व्हड जा आनी नोकरेक लाग. मागीर सद्दां चिकन खावया.

१ : पूण आबो, दादो व्हड जातलो तेन्ना म्हारगायूय व्हड जातली मरे. मागीर गणीत कशें जुळटलें?

कोरस : आबो, आबो, रडटलीं, पूण म्हारगाय वाडटली.
हातार पोट जांचें तांची चूल कशी पेट्टली?
(हो देखाव सोपता आनी परतून डोंबाऱ्याचो खेळ सुरू जाता.)

डोंबारी : ये जमूरे, क्या हुआ?

जमूरा : दो दिन पहले की बात है मालीक। मेरा मूड ऑफ हुआ।

डोंबारी : क्यों हुआ?

जमूरा : देखो मालीक क्या हुआ। कैसा बुरा हाल हुआ।
(एके शाळेचो देखाव)

मास्तर : ब्लॅक मार्केटिंगाक लागून म्हारगाय वाडटा. निर्माण जाल्ल्या मालाची कृत्रीम उणाव दाखोवप आनी चडावत मोलाक विकप. उत्पादन चड जाल्यार लेगीत.

१ : तो रेशनकार तेंच करता सर. माल लिपोवन दवरताना आनी मागीर भायले भायर दुपेटीन विकता. तेगे बापूय लेगीत भांगरा ब्लॅक करतालो खंय!

मास्तर : वाडटी लोकसंख्या हेंवूय म्हारगायेचें एक कारण. जितलीं खावपी तोंडां चड तितली वस्तूंची मागणी चड. पुरवण मात तितलीच. मागीर म्हारगाय...

कोरस : हाय हाय म्हारगाय हाय हाय म्हारगाय
हाय हाय म्हारगाय, मध्यान आहार आयलो काय? आयलो आयलो
(सगळे जेवपाक बसल्यात. इतल्यान.)

२ : सर, पुलावांत गाजर ना.

मास्तर : सारको सोद. खंय तरी बसला आसतलो लिपून.

३ : सर पुलावांत फुलावर ना.

मास्तर : फुलूंक ना दिसता आयज.

४ : सर हातूंत कसलीच भाजी सापडना.

मास्तर : सायबांनो, परवडना रे तांकां.

५ : सर पाल, सर पाल!

६ : ये, सराक पाल म्हणटा?

५ : म्हज्या पुलावांत पाल पडल्या.

६ : पिशा पडलीना ती. मुद्दाम घाल्या.

७ : ये, कित्याक रे?

कोरस : गाजर आनी मुळ्या परस पाल जाल्या सवाय
मध्यान आहाराक लेगीत बादल्या म्हारगाय
रडटा मांय रडटा पाय, हाय हाय म्हारगाय
(हो देखाव सोपता आनी परतून डोंबाऱ्याचो खेळ सुरू जाता. जमूरा दुख्खी जावन बसला.)

डोंबारी : ये जमूरे क्या हुआ?

जमूरा : मालीक कैसे बतावूं? रोना आ रहा है।

डोंबारी : क्यों? बात क्या है?

जमूरा : देखो मालीक क्या हुआ! कैसा बुरा हाल हुआ!
(दोन वेगवेगळे पंगड. एक म्हारगायेन त्रस्त तर दुसरो सुसेगाद. एक संवाद हांचो तर दुसरो तांचो.)

१ : मामी, पोट भरलें.

४ : आई, भूक लागल्या.

२ : जाय तितलेंच खा, नाका तें भायर उडय.

५ : खंयच्यान हाडूं हांव अन्न?

३ : मामी, हें म्हाका आवडना.

६ : सामकी सोसूंक नज भूक. कितेंय पूण दी गे आई.

२ : आवडटा तेंच खा, बाकी सुण्याक घाल्यार जालें आनी आं, डॅडी आयस्क्रीम हाडपाक गेला.

५ : बाबा, कितेंय हाडटा जाल्यार पळोवया.
(दोगांयच्याय बापायचें येवप. एकी कडेन खोशी जाल्यार दुसरे कडेन दुख्ख.)

७ : तुमची भूक हांव भागोवंक शकना. तुमचो बापूय हे म्हारगायेंत जगूंक शकना.

८ : आयस्क्रीम आयस्क्रीम आयस्क्रीम
(एके वटेन आयस्क्रीम खातात जाल्यार दुसरे वटेन म्हारगायेक विटून कुटूंब गोळ घेता.)

९ : कोणाक खाण जाता सवाय तर कोणाक मरण जाता सवाय
केन्ना केन्ना आख्खो घराबो काबार करता ही म्हारगाय.

१० : खंयच्या घरांत कोण तरी उपाशींच उरता
कोण तरी पानाचेर अजिर्ण जावन सांडटा.
(हो देखाव सोंपता आनी डोंबाऱ्याचो खेळ सुरू जाता. जमूरा दुख्खी जावन नाचता.)

कोरस : हाय हाय म्हारगाय, हाय हाय म्हारगाय. ■

# २३.
# भ्रश्टमेव जायते

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एक भुरगो डोंबाऱ्या भशेन बोवाळ मारीत येता.)

१ : बाब यो, बाय यो. हांव तुमकां भारताचें दर्शन घडयतां.

(फाटल्यान वाटकूळ करून राविल्लीं भुरगीं ल्हवू ल्हवू रांकेंत रावपाक लागतात. तांचे मुखार एक भुरगो थोट्या भशेन चलता.)

कोरस : भारत हमको जान से प्यारा है।
ये बेचारा पोलियो का मारा है।

२ : आरे, हो कोण?

१ : हो आमचो भारत!

२ : कोण?

१ : भाऽऽ रऽऽ त.

३ : आरे, पूण हो असो कित्याक चलता? हाका जालां तरी कितें?

१ : पोलियो!

२ : कितें?

कोरस : पोऽऽ लिऽऽ योऽऽ.

२ : भुरगेपणांत वासिनां बी दिवूंक नाशिल्लीं दिसता?

३ : पूण ह्या पोलियोचें कारण कितें? धडधाकट भारताक पोलियो जालोच कसो?

कोरस : महाराष्ट्र से गुजरात तक
बिहार से चेन्नय तक
भ्रश्टाऽऽ चाऽऽ र.

१ : भ्रश्टाचार.

४ : आरे, पूण खंय?

५ : खंय?

६ : तुवें पळयला?

७ : खंय?

१ : बिहार बिहार बिहार.
(दुसरो देखाव. एक चली कपलार हात घेवन बसलां.)

४ : व्हनीबाय, व्हनीबाय जालें कितें?

५ : कितें सांगूं पुता म्हज्या?
गाय म्हजी दूद दिना!

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

६ : गाय दूद कित्याक दिना?

५ : गायक म्हज्या खावड ना.

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

४ : गायची खावड कोणे व्हेल्या?

६ : कोणें?

७ : व्हेल्या?

कोरस : लाऽऽलूऽऽन व्हेल्या.

५ : गायची खावड लालून खाल्या

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

४ : लालूक कांयच ख्यास्त ना?

५ : ताका ख्यास्त जावची ना.

कोरस : कित्याक? कित्याक?

५ : पुराय खावड सोंपची आसा, अजून सगळी खावची आसा.

कोरस : हीच आयची रीत अशी भ्रश्टाचारा जीत.

१ : भ्रश्टाचार, भ्रश्टाचार.
होच आयचो शिश्टाचार.

कोरस : आतां खंय?

कोरस : मद्राऽऽऽस!

४ : सायबा, मद्रास न्हय चेन्नय.

१ : चेन्नय, चेन्नय, चेन्नय, चेन्नय.

(देखाव बदलता. एक चली मोटमोट्यान रडटा.)

२ : आगे, तूं रडटा कित्याक?

३ : आंग धापूंक कपडो ना.

कोरस : (मोट्यान हांसतात.)

२ : आरे, तुमी हांसतात कित्याक?

३ : हांसपाचेंच, हांसपाचेंच. तुका कपडो मेळचोच ना!

२ : कित्याक? कित्याक?

(देखाव बदलता. सगळे अर्द वांटकूळ करून दिमी मारून बसल्यात.)

(एक बायल एक एक साडी काडून शेंवटिता. ही न्हेसची काय ती अशी अवस्था. तर दुसरी आंग धांपपाक कांय ना अशी तिची अवस्था.)

३ : ही पिंजक्या कापडा धनी. हिका मेळटा तितलें कमी.

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

५ : गिरेस्त गिरेस्त जायत वता, गरीब फोंडांत पडत वता.

स्वताक अम्मा म्हणटा! आवय भुरग्यांक वाऱ्यार सोडटा?

कोरस : ही कसली रीत?

३ : हीच आमची रीत. भ्रश्टाचाराची कडी आनी भ्रश्टाचाराचेंच शीत.

कोरस : भ्रश्टाचार, भ्रश्टाचार. हो आयचो शिश्टाचार!

(तिसरो देखाव. भुरग्यांची फाटली वळ तुतारेचो आवाज काडीत उबी आसा. एकलो बुट पॉलिश करता. इतल्यान लॅफ्ट रायट लॅफ्ट रायट करीत एकलो येता आनी बुट पॉलिश करून घेता. ताचे बूट पिंजल्यात.)

५ : पिंजके बूट!

१ : महाराष्ट्रांत चामड्याच्या वेव्हारांत भ्रश्टाचार.

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे

भ्रश्टाचार, भ्रश्टाचार. होच आमचो शिश्टाचार!

(चवथो देखाव. मदीं एक भुरगो बसला. दोग जाण वारो घालतात. मदीं बशिल्लो भुरगो एका भुरग्या कडेन पयशे घेता आनी दुसऱ्या

भुरग्याक दिता.)

१ : लखूभाईचें लोणचें रावान खपोवपाचें, रावाचे वतीन कमिशन चंद्रास्वामीन घेवपाचें!

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

१ : भ्रश्टाचाराचें तोर, भ्रश्टाचाराचेंच लोणचें.
सरळ मार्ग सोडून आमी भ्रश्टाचारा कडेन वळचें.

कोरस : भ्रश्टाचार, भ्रश्टाचार, होच आमचो शिश्टाचार.
(पांचवो देखाव. दोनूय वटांनी भुरग्यांचे दोन गट उबे आसात. एक भुरगो पावणी करता.)

७ : झारखंड मुक्ती मोर्चाचो खासदार पावता, एकवार.

६ : आनीक धा!

७ : झारखंड मुक्ती मोर्चाचो खासदार पावता. एक वार... दोन वार... सा करतां. पावतो सा. नांव कितें?

कोरस : नरसिंहराऽऽऽव!

१ : पावणेर काडिल्ले खासदार नरसिंहरावान घेतले.

३ : हाका बाये कितें म्हणप?

कोरस : भ्रश्टाचार, भ्रश्टाचाऽऽऽर!
(निमणो देखाव. जमनीर एक ओडणी घाल्या. ताचे भोंवतणीं चार-पांच जाण बसल्यात.)

२ : कोण गेलो?

१ : आमचो भारत.

२ : कोण?

१ : आमचो भारत.

२ : दुयेंस कसलें?

१ : भ्रश्टाचाराचें!

३ : म्हणजे जालां कितें?

१ : टेलिफोनाच्या आवाजान कान ताचे फुटल्यात.

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे

१ : गोरवां खावड खावन खावन पोट ताचें फुगलां!

४ : सवाय खाण पोटफुगें.

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

१ : साऱ्याचे एलर्जीन आंग ताचें कुसलां!

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

१ : लांच दिवन घेवन हात ताचे तुटल्यात!

कोरस : आरे रेरे आरे रेरे.

(एक भुरगो ओडणी वयर काडून पळयता.)

१ : सामकोच काबार जालो.

२ : भ्रश्टाचारान पोखरून खालो.

(चार जाण ओडणी उबारतात. 'भ्रश्टमेव जायते, भ्रश्टमेव जयते' म्हणत वतात आनी परतून एक वाटकूळ तयार करतात.)

३ : जयते जयते भ्रश्टमेव जयते.

२ : हाचेर कांयच उपाय ना?

३ : हाचेर कांयच उपाय ना.

कोरस : सत्यमेव जयते.

१ : आसा, आसा. ह्या भ्रश्टासूराचो वध करपा खातीर दर एकल्यान कृष्णावतार घेवचो पडटलो.

२ : दर एकल्यान मत्स्यावतार घेवचो पडटलो.

१ : दुसरो कोणूय तुमचे खातीर अवतार घेवन येवचो ना.

२ : आमचें रक्षण आमकांच करचें पडटलें.

१ : भ्रश्टासूराचो आमी वध करूंक शकले जाल्यारूच 'सत्यमेव जायते'.

२ : आनी जर तशें घडलें ना, भ्रश्टासूराक उजो लायलो ना जाल्यार 'भ्रश्टमेव जयते)'. ■

## २४.
# जळार जळार

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना एकलो जळारां मारीत येता. ताचे फाटोफाट दुसरो येता.

२ : आरे, हें कितें करता?

१ : दिसना? जळारां मारतां.

२ : आरे, पूण हीं इतलीं जळारां जातात तरी कशीं?

१ : हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी,
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार
(पथनाट्याचे बाकीचे वांगडी गायत येतात.)

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार
(पयलो देखाव. एक म्हातारो घराभायर पेपर वाचीत बसला.)

३ : पाड पडूं ह्या जळारांचें! थंडसाणीन पेपर लेगीत वाचूंक दिनात.

४ : आरे, चल्लां कितें? ओ! जळारां मारता काय कितें रे?

३ : आनीक कितें करतलों? घर तर इतलें निवळ दवरतात आमी, तरीय इतलीं जळारां कशीं तेंच कळना.

४ : तुजें घर निवळ आसा हें सामकें खरें, पूण तुज्या घरा भायर कितें आसा तें तुवें पळयलां?

३ : म्हज्या घरा भायर आनी कितें आसतलें?

४ : यो. म्हजे वांगडा यो. हांव दाखयतां तुका. हें पळय, तुज्या घराचें मागीलदार. हो मागीलदारांतलो निरपणस. कपडे धुयिल्लें, आयदनां घांशिल्लें उदक तूं निरपणसा पोंदा सोडटा. सारकें?

३ : हय हय! सामकें बरोबर. निरपणसाच्या मुळांकय थंडसाण उरता आनी निरपणसय खावपाक मेळटात.

४ : बरोबर! तूं निरपणस खाता आनी जळारां तुका खातात.

३ : आरे, निरपणसाचो आनी जळारांचो संबंदच कितें?

४ : संबंद निरपणसाचो आनी जळारांचो न्हय. तर संबंद निरपणसा पोंदा सांचिल्ल्या घाण उदकाचो आनी जळारांचो आसा.

३ : आं... म्हाका बरें कळूंक ना.

४ : आयक तर. जंय उदक सांचून कोंड जाता थंय जळारां तांतयां घालतात आनी जळारांची वाड जाता.

३ : आतां करप तरी कितें?

४ : सांचिल्ल्या उदकाक वाट करून दी.
घरा भोंवतणीं निवळ उरूं दी. ना जाल्यार...

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार.
(दुसरो देखाव. टीव्हीचेर जायरात चालू जासा.)

जायरात: बबुआ जलाव मच्छर भगाव.

जायरात: ऑल आवट.

५ : कसलोच उपेग ना. हांचो जळारांचेर मात लेगीत परिणाम जायना. उरफाटें हें आमचेच भलायकेक हानीकारक.

६ : मात्सो ओगी राव पळोवया. टीव्ही पळोवंक दी आमकां.

७ : (टीव्ही) कोंकणींतल्यान मुखेल खबरो. पणजे संगीत खुर्चेचो खेळ अजूनय चालू आसा. आमदारां खातीर खास बांक धाडावपाचे आनी

बोबो मारपाचे वर्ग सुरू केल्यात. नगरपालिकेन जळारां मारपाक म्हूण जें वखद वापरिल्लें त्या वखदाचो कांयच उपेग जालो ना. जळारांची संख्या वाडत आसा.

८ : तांकांय सरकारान फॅमिली प्लॅनिंग कंपल्सरी करपाचें! (तो एक जळार मारता.)

५ : हांव तर तेंच सांगतालों. पयले फावट जाता तो परिणाम पूण मागीर त्या जळारांकूय सवंय जाता त्या वखदांची. डीडीटी जाणा मरे? पयलीं ताणें मुंयो मरताल्यो, पूण आतां मुंयांचेर कांयच परिणाम जायना.

८ : म्हणल्यार जळारां ना करपाचो कांयच उपाय ना तर?

५ : कित्याक ना तर? जाय ते उपाय आसात. घरा भोंवतणीं कडुनिंबाचीं, तुळशीचीं रोपां लायात. नम क्रिम वापरात आनी घरच्या जनेलांक मॉस्किटो नॅट लायात. घरा भोंवतणीं उदक साचूंक दिनाकात. नाजाल्यार...

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार
(तिसरो देखाव)

९ : जळारां ना करपा खातीर मोहीम चल्ल्या न्हय रे?

१० : ती मोहीम खंय पावल्या ती पळय.
(वेगवेगळ्या जाग्यार रावन उलयतात.)

१ : बरें सायबा, तीन लाखांत सगळीं जळारां मारून जातलीं. हॅलो, सीएम जळारां मारपा खातीर दोन लाख धाडटां. एक लाख म्हजे कडेन दवरला. म्हजो टीए डीए.

२ : हॅलो, मंत्र्या हे घे देड लाख. पन्नास हजार कट. म्हजो टीए डीए.

३ : हॅलो, तुगे पंचयती एरिये खातीर हे घे एक लाख. पन्नास हजार कट. म्हजो टीए डीए. काम बॅश्ट जावपा जाय.

४ : प्रत्येक वॉर्डा खातीर सारके वांटून दिल्यात. पन्नास म्हजे कडेन दवरल्यात. कामाक लागात.

५ : ह्या पयशांनी कितें जाता? खर्च तरी भागता? जळारां मारात खंय!

जाका गरज आसा तो मारतलो.

६ : (जळारां मारीत बसला.) पाड पडूं! येदोळच्यान पन्नास तरी जळारां मारलीं आसतलीं.

५ : हॅलो, पंचसायब रामकृष्णान बसल्या जाग्यार शंबर जळारां मारलीं!

४ : हॅलो, सरपंचबाब म्हज्या वॉर्डांतलीं जळारां मारलीं!

३ : हॅलो, आमगे पंचायत एरियेंत एकय जळार सांपडपा ना!

२ : हॅलो, म्हजें राज्य देशांतलें पयलें जळार मुक्त राज्य म्हूण घोशीत करपाक हरकत ना!

१ : 'जॉब वेल डन'. जळारां सोंपलीं! (एक जळार मारता.)

१० : हांचेर निंबून रावले जाल्यार फोंडांत पडपाचे.

९ : हींच पयलीं व्हडलीं जळारां!

१० : आमीच फुडें सरचें पडटलें. ना जाल्यार...

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार

(चवथो देखाव. एक दुयेंत भुरगो आनी ताचीं आवय बापूय. एकलो येता.)

२ : आरे यशवंतबाब, बाबू असो न्हिदला कित्याक?

४ : कितें सांगतलों? फाटले पांच-स दीस ह्याच वगतार ताप येता.

६ : कोणें कसली करणी केल्या देवच जाणा! कुडकुडो खावन ताप येवप!

४ : हांव विचार करतालों हाका घाडयागेर व्हरून हाडल्यार बरो काय म्हूण!

२ : घाडयागेर व्हरून निवळपाचो ना तो. ताका बेगिनात बेगीन दोतोरागेर व्हर.

६ : तशी एक दोन फावट क्रॉसीन दिल्ली ताका हांवें.

२ : वा! म्हणजे तूंच दोतोर तर! हीं मलेरियाचीं लक्षणां आसलीं जाल्यार? सगळेच ताप क्रॉसीनान निवळनात.

६ : मागीर करप तरी कितें?

२ : स्वता नाका ती दोतोरकी करचे परस ताका दोतोरागेर व्हरप. ताचें

रगत तपासून घेवप. असलीं फकांडां करप म्हणजे ताचें मरण आपोवप. गिन्यान नासतना दोतोर जायनाका.

कोरस : कुडकुडो खावन ताप येता? रगत तपासून घेयात.
बेफिकीर राव नाकात, वेळेर सादूर जायात.

(पांचवो देखाव. जाणटेलो आनी ताची बायल घरांतल्यान भायर सरतात. घरा सामकार बांय आसा.)

१ : बाप्पा, खंय वता?

३ : आरे, आमी काशी यात्रेक वचूंक भायर सरल्यांत.

५ : कांय म्हयने आमचें घर बंदच उरतलें. लक्ष उरूं दी.

१ : चिंता नाका. पूण ही बांय अशीच दवरून वयतलो?

३ : मागीर कितें? धापूं काय पुरोवन उडोवं?

५ : काशी यात्रेक घेवन वचप कांय शक्य ना!

१ : ताची कांयच गरज ना. पूण हालीं मलेरियाची धाम आसा. बाजारांतल्यान थर्माकोलाचे गुळे घे आनी बांयच्या उदकांत घाल.

३ : पूण अशें कित्याक करप?

५ : नाजाल्यार थंय जळारां तांतयां घालतलीं. थर्माकोलाचे गुळे घाल्यार तांकां तांतयां घालपाक सुवात मेळना. आनी तशें केलें ना जाल्यार...

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार

(सवो देखाव.)

७ : बायलकुरें जळारच चाबता.

८ : साचिल्ल्या उदकांत जळारां तांतयां घालतात.

९ : जळारांक लागून मलेरिया, हतीरोग जाता.

१० : सरभोंवतणीं तुळशीचीं, कडूनिंबाचीं झाडां रोयात.

१ : जनेलांक मॉस्किटो नॅट बांदात.

२ : उदकाची टांकी सदांच धांपून दवरात.

३ : सदांच उदक व्हांवतें दवरात.

४ : खंयचेय परिस्थितींत उदक साठूंक दिवनाकात. ना जाल्यार...

कोरस : हेवटेन जळार आनी तेवटेन जळार
हेवटेन तेवटेन जंय साचता पाणी
थंय सुरू जाता अशी जळारा काणी
रे जळार जळार, रे जळार जळार ■

## २५.
# इफ्फी येयलां इफ्फी

(कोरसान पथनाट्याक सुरवात जाता.)

कोरस : पणजे नगराक इफ्फीचो बोवाळ गा इफ्फीचो बोवाळ.
पणजे नगराक णव णव दिवे, णव णव दिवे
मांडवी पुलार, मांडवी देगेर, नकनक गे जावे, चकचक गे जावे

कोरस : पूण शाणूगेर काळोख!
हऽऽऽऽय!
(पयलो देखाव)

१ : पाडा पोडों. आबो, लायट गेली मरे.

२ : नायट आसता तरी केन्ना?

१ : म्हाका अभ्यास करूंक जाय आसलो.

२ : वेळ वगडायनासतना चिमणी पेटय आनी बस अभ्यासाक.

१ : पूण आमकां कम्प्युटर दिला तो लायटीर चलपाचो, चिमणेर न्हय.

२ : झक मारूं त्या कम्प्युटराचें! अभ्यास कर तूं पयलीं. आमीय चिमणे उजवाडांतच शिकल्यात. लायट नासतनाच बरें आशिल्लें, निदान वचपाची तरी भिरांत नाशिल्ली.

१ : करमल घांटा वयलो ट्रान्सफॉर्मर जळ्ळा आसतलो.

२ : तो पयऱ्यान जळटा. सारको मात जायना.

१ : आतां तर ते सगळेच बिझी.

२ : कित्याक रे?

१ : तांकां सगळ्यांक पणजे कामां आसात.

२ : कसलीं? मड्याचीं!

१ : मड्या न्हय रे, इफ्फीचीं. पणजे नगराक इफ्फीचो बोवाळ. हांगाची लायट थंय व्हेल्या खंय!

२ : पणजी तरणी जाल्या आनी आमच्या गांवांत मात काळोखच काळोख.

कोरस : हऽऽऽऽय!
पणजे शारांत प्रिती येयलें.
पणजे शारांत मनीषा येयलें
दिलीपा वांगडा सायराय येयलें.

कोरस : मोर मोर मोरोन, रण रण भोंवोन,
आबोल्याच्या भेंडाक येयलें.
(दुसरो देखाव)

३ : आबोल्यो, पणजे गेलें ना गो?

४ : कित्याक रे बाबा? पणजे वचून कितें करूं?

३ : आगो, थंय इफ्फी चल्ल्या!

४ : काफी! हांगा उदकच मेळना, काफी आनीक खंयची?

३ : आगो, पूण गांवांत नळ येयला न्हय गो?

४ : बरोबर, नळच येयला गांवाक. पूण नळाक उदक खंय आसा तर? आनी तूं म्हाका पणजे वच म्हणटा? पणजे गेल्यार म्हागे प्रस्न सुट्टलो? दोन दिसां फॅस्त करून म्हाका कितें मेळटलें? वळवळे काडपाचे काय चुकचे नात.

३ : आगो, बरें नटून-थटून वच पणजे. बऱ्यो-बऱ्यो नटयो पळोवंक मेळटल्यो.

४ : पणजे गेलें जाल्यार नटयो पळोवंक मेळटल्यो हें सारकें, पूण उदका खातीर ह्यो घांटी चडप देंवप थांबतलें? ना मरे? पणजेच्या नशिबाक साज-शिरंगार, आबोल्याचे जिणेचें जालां भंगार.

कोरस : हऽऽऽऽय!
टॉयलेटांनी साबणा उदक
टॉयलेटांनी सेंटा उदक
वर्सां गेलीं गांव म्हजो

मोन्यांनी भोगता मरणा सूतक.

(तिसरो देखाव)

५ : कोण गेलो?

६ : भेरोमाम.

५ : खंयचो? कित्यान गेलो?

६ : हांगाचोच. किडणी फेल.

५ : कसलें व्यसन?

६ : व्यसन-बिसन कांयच ना. हो पंदरावो!

५ : कांयच उपाय ना?

६ : आसात. पूण सामान्यांक परवडनात.

५ : मागीर?

६ : मागीर? इफ्फीक वचप.

५ : थंय वचून कितें करप?

६ : प्रोग्राम पळोवप. वीस रुपयांचें सॉफ्ट पिवप. भेंडां हालोवन नाचप. गावप. किडणी आसता हेंच विसरून वचप.

५ : आनी मागीर?

६ : मागीर घरा येवप. शांत चित्तान इफ्फी नामाचो जप करप आनी मरून वचप.

कोरस : हऽऽऽऽय!

पणजे नगरां इफ्फीचो बोवाळ गा इफ्फीचो बोवाळ
एका श्वासा खातीर एकवीस लाख
कामा उरल्यांत हांगा पंचवीस लाख
तांकां ऑस्कराचो लागला ध्यास
आमच्या श्वासाक हांगा लागला फास

(चवथो देखाव)

७ : तेणे एकवीस लाख दिले खंय!

८ : पयशे कोणाचे?

७ : आमकां एकूच लाख दिल्ले जाल्यार वाड्यावयलो रस्तो जाता आसलो.

८ : उदका प्रॉब्लेम सुटों शकतालो.

७ : आमचेच पयशे!

८ : अशे उठसूठ कोणाकूय दिवन उडोवप?
७ : आमचे प्रस्न तशेच दवरून दुसऱ्याचे प्रस्न सोडोवप?
८ : तांकां श्वास, आमी मात व्हेंटीलेटराचेर.
७ : हें अशें करून आमकां कितें मेळटलें?
८ : ते चार दिसां खातीर पणजे येतले. फायव्ह स्टारांनी लोळटले, तेवूय आमच्या खुस्तार.
७ : आमी मात अशेच घोळटले.
कोरस : हऽऽऽऽय!
पणजे नगराक इफ्फीचो बोवाळ.
(पांचवो देखाव)
९ : आमचो इफ्फीक विरोध ना, पूण...
१० : पूण हॉस्पिसियोचें कितें?
१ : इफ्फी खातीर पणजे निवळ जाली, बरी गजाल.
२ : हॉस्पिसियो केन्ना निवळ जातलें?
१ : आयनॉक्सांत बसपाक कांयच हरकत ना.
९ : परवडलें जाल्यार!
१० : पूण हॉस्पिसियोंत बसल्यार बरो मनीस लेगीत दुयेंत पडटा ताचें कितें?
३ : आमचो इफ्फीक विरोध ना.
४ : पूण आमच्या मूळ गरजां कडेन कोणूय लक्ष दितलो काय?
५ : खरेंच, आमकां इफ्फी परवडटलें?
६ : इफ्फीचे कृपेन सामान्यांचें पोट भरतलें?
७ : आमचो इफ्फीक विरोध ना, पूण...
८ : आमचें सादें सोबीत ब्लॅक बॉक्स आमकां परतून मेळटलें?
९ : व्ही.आय.पी. खातीर बांदिल्ले तात्पुरते धक्के आमकां परवडटले?
१० : रेकॉर्ड टायमांत केल्लें बांदकाम तिगून उरतलें?
१ : आमचो इफ्फीक विरोध ना.
२ : अजिबात ना.
१ : आमकांय इफ्फी जाय.
२ : लोकांनो मात्शे उबे रावात. आमी सांगणी करून घेवया.
१ : सांगणी इफ्फी खातीर, दर एकल्या खातीर.

२ : चला सांगणी करून घेवया!

३ : हे देवा मनोहरनाथा!
तुजे कृपेन खोतीगांवांत एक इफ्फी जावं दी
इफ्फीचे कृपेन करमल घांटार डांबर थोडो पडूं दी
सॉफ्ट बिफ्ट नाका, पिवपाक नितळ उदक मेळूं दी
तुजे कृपेन गालजीबागाक पूल एक जावं दी
तुजेच खातीर त्याच पुलार समराधना घडूं दी
जाचें जुळ्ळें ना तांचें जुळूं दी
मेळ्ळी ना तांकां मेळूं दी! नोकरी
सोनसड्या वयलो चिखल कितलोय वाडूं
किडणेच्या दुर्येसान काणकोणकार कितलोय रडूं
रावचें पडल्यार पडूं उपाशीं, बगैर रोटी
खर्च करीत राव इफ्फीचेर कोटी कोटी
गोंयच्या खांची कोनशांनी एक एक इफ्फी जावं दी
जळींमळीं पणजीच जावं दी
हे देवा मनोहरनाथा
तुजे सामकार कोणाचेंच कांय चलना
अपोझिशनांत कोणूय उरला काय? तेंवूय खबरना!
हऽऽऽऽय!
काणकोणाक घडूं दी इफ्फीचें कारण!
मागीर तुजे खातीर एक इस्पिशाल सत्यनारायण!
सगळ्यांचें कल्याण कर रे मनोहरा!!

कोरस : हऽऽऽऽय! ■

# २६.
# भ्रश्टाचार

(पथनाट्याक सुरवात जाता तेन्ना ताळयांच्या तालाचेर भुरग्यांचो गट नाचत गायत येता. चारूय वटेन लोकांक आपयतात.)

कोरस : नाच नाच नाच, नाच नाच नाच
नाच पळय नाच, नाच पळय नाच
नाच बाबा नाच, नाच बाये नाच
पळय भ्रश्टाचारा नाच

१ : चिरीमिरी दिले बगर काम हांगा जायना
सिझेरियन केले बगर बायल बाळंत जायना!

कोरस : नाच नाच, नाच पळय नाच.

२ : हेच भुंयेर जल्म, तरी नोकरी आमकां मेळना
भायलो केन्ना घेवन गेलो, कोणाकूच कळना

कोरस : नाच नाच, नाच पळय नाच.

३ : कोटी कोटी दुडू खावन, कोण जाता राजा
बंदखणींत गेलो तरी, सुरेशालीच मजा

कोरस : नाच नाच, नाच पळय नाच.

४ : विमानतळ मोपाचो, साद आमकां घालता
लक्ष्मीकांत-मावीन, शेजरा शेजरा रावतात

कोरस : नाच नाच, नाच पळय नाच.

५ : कोण तरी खंयच्या राना, खण खण खणटा
कोणाचीं रे घरादारां, कमिशनान न्हावतात?

कोरस : नाच नाच, नाच पळय नाच.

६ : पुलीस लेगीत चोर जावन, ड्युटी आपली करतात
टॉप टू बॉटम, हाताक खाज सुट्टा.

कोरस : जमता जाल्यार नाच. जमना जाल्यार नाच.
चिरीमिरी चिरीमिरी, कमिशनान पोट भरी.

७ : बापूय बिझी आसलो जाल्यार, धूव ताचें काम करी!

कोरस : चिरीमिरी चिरीमिरी, कमिशनान पोट भरी.

८ : चिरीमिरी देवाचो, जयजयकार जावं!
हे देवा, तूं आमकां पाव!
देवचाराक जशें रोट, चिरीमिरी देवाक नोट
कमिशनाचो नैवेद्य दिना जाल्यार, गांडीर खोट
हे चिरीमिरी देवा, तूं आमकां पाव-सगळ्यांचें बरें जावं
आमी सगळे भाव, वांटून आमी खावं

कोरस : आमी सगळे भाव, वांटून आमी खावं
हात जावं कमळ जावं, वांगडा आमच्या राव
किरपा कर रे देवाऽऽऽ!

(एक गट नाचत येता. एकलो साधू भशेन बसला.)

कोरस : सत्तरी वाळपय चला। मुखाने बाबा बाबा बोला।।
बाबा करता चमत्कार। धन्य धन्य वाळपयकार।।

१ : बाबा महाराज सत्तरीकरांचोऽऽऽऽ

कोरस : जयजयकार जावं!

बाबा : बसात. काय काम आसलें?

३ : काम आनीक कसलां? नोकरेचा.

बाबा : नोकरी? रावता खंय?

३ : सत्तरी.

बाबा : सत्तरी? आं सत्तरी! भियेनाका. तुका घेतां जीएमसी भित्तरी!

कोरस : बाबा महाराज सत्तरीकरांचोऽऽऽ जयजयकार जावं!

बाबा : सत्तरेच्या बाळकांनो, कळटा तुमचें दुख्ख तुमचे कश्ट
४ : महाराज म्हाकाय कर ॲग्रीकल्चरांत ॲडजस्ट.
बाबा : तूं खंयचो?
४ : काणकोण. जातलें न्हय काम?
बाबा : जाणकोण. जाऽऽणकोऽऽण.
५ : जाणकोण? हॅल्थ मिनिस्टर गोंय राज्याचो काय फकत सत्तरेचो? आरे आमचीय भलायकी इबाडल्या, कसलो खेळ चलयला? गोंय म्हजें राज्य, पूण घट करता सत्तरीचें साम्राज्य! सायबांनो, होवूय भ्रश्टाचार.
कोरस : नाच नाच नाच, पळय भ्रश्टाचारा नाच.

(दोन जाग्यार पावणी चल्ल्या. हेरांचें येवप वचप सुरू आसा.)
६ : पावता पावता, आयच्या सुदिनी आरटीओचो पोस्ट पावता.
७ : पांच लाख.
६ : ये घरा वच! पांच लाख खंय?!!
८ : पावता पावता, ॲग्रीकल्चरांत प्युनाचो पोस्ट पावता.
९ : हांव आनी थंय येना. हांगाच उबो रावतां!
६ : गोल्डन ऑपोर्च्युनिटी! चान्स वगडायनाकात! आरटीओचो पोस्ट पावता!
१० : वीस लाख.
६ : आरटीओ शाण्या आरटीओ, आतां जितलें इन्वेस्ट करतलो ताच्याकय डबल जोडटलो! आड मार उबी मार! जावची ना फुडल्या पांच पिळग्यांची उपासमार!!
८ : पावता पावता, ॲग्रीलक्चरांत प्युनाचो पोस्ट पावता.
९ : एक लाख.
८ : पिसावला? शाण्या प्नुयनाचो पोस्ट सामको व्हड!
९ : आं! कितें?
८ : खरेंच सांगतां, सायबाक मेळपाक कोणूय धडपडलो तुवें आडायल्यार तो अडलो! गेट पास, एंट्री फी. टपाक् टपाक् एक एक रुपया बोल्सांत पडलो!

६ : आरटीओ पोस्ट पावता.

१० : पंचवीस लाख! पूण एक्सपिरियन्स सर्टिफिकेट ना म्हजे कडेन.

६ : एक दोन लाख वाडयल्यार तेंवूय हांवच दितां. हालींच दुकान घालां हांवें!

९ : तीन लाख! पूण हांव तर भायलों!

८ : भितरलो करून घेतां रे तुका! भायले भायर एक लाख चड दी!

१० : २८ लाख!!!

९ : ४ लाख!

६ : सा करतां! आरटीओ पोस्ट पावता, २८ लाखांक एक वार.

८ : प्युनाचो पोस्ट पावता. ४ लाखांक दोन वार!

८ : २८ लाखांक आरटीओ पोस्ट पावता. सा करतां.

८ : ४ लाखांक प्युनाचो पोस्ट पावता. सा करतां.

६+८ : सा रे सा!

कोरस : सा रे सा!

१ : खरेपण पावता, एक वार. खरेपण पावता, दोन वार.

कोरस : नाच नाच नाच, पळय भ्रश्टाचारा नाच.

२ : दिगंबर गेलो पर्रीकार आयलो.

३ : सोंप्या वयल्या म्हातारे बदल कितें जालो?

कोरस : बदल कितें जालो? बदल कितें जालो?

४ : हाता खाज कळटाली कमळा चिखल दिसना!

५ : तेमगे वाऱ्यार पडिल्लें, हेमगे सोदून मेळना!

६ : कुठ्ठाळेचें बाय-इलॅक्शन कशें तुमकां कळना?

७ : गोंयांत खरेंच एकूय बेकायदेशीर खण ना?

६ : मनोहराचें आनी दिगंबराचें फिक्सिंग आसा काय कितें?

७ : आसतूय दोन देवांचें नातें सामान्य मनशांक कशें कळचें?

८ : कोणूय येवं, कोणूय वचूं, वांटून आमी खावचें!

कोरस : कोणूय येवं, कोणूय वचूं, वांटून आमी खावचें!
वयले वयर मारच्यो गाळयो, पूण एकठांय आमी रावचे! बाबा एकठांय आमी रावचे!

नाच नाच नाच, पळय भ्रश्टाचारा नाच!

(दोग-तीग जाण लॉटरी विकपाक भोंवतात. लॉटरी घेवपाक लोकांची सामकी गर्दी पडल्या.)

१ : लाडली लक्ष्मी, लाडली लक्ष्मी, देड लाखांचें भंपर इनाम!

२ : आयज लाख! आयज लाख! लाडली लक्ष्मी लाडली लक्ष्मी!

३ : फॉर्म व्हर, फॉर्म भर! लाडली लक्ष्मी!

४ : आरे हे कोण?

५ : हे सत्ताधारी पक्षाचे आमदार!

४ : ते लॉटरी कित्याक विकतात तर?

५ : खूब वर्सांनी तांकांय लॉटरी लागल्या न्हय रे!

४ : आरे, पूण तूं कोण?

५ : हांव कुडतोरकार. म्हाकाय दिसता हांवेंय फॉर्म वांटचे. रामेशावोरी म्होजेय फोटो येवचे.

४ : मागीर?

५ : आतां आमी अपोझिशना न्हू रे? आतां तेंका लक्ष्मी लाडली आमकां फॅमिली नडली!

(जायते जाण बसल्यात. कांय लोक कोणाची तरी वाट पळयतात.)

६ : आरे, कोणाची वाट पळयतात?

७ : अण्णाची.

६ : पयलीं सुझानाची वाट पळोवची पडटाली! आतां होवूय वाट पळोवपाक लावंक लागलो?

७ : तो अण्णा न्हय रे!

६ : मागीर?

७ : अण्णा हजारे.

६ : तो आनीक कित्याक येता?

७ : भश्टाचारा आड आवाज उठोवपाक!

६ : तुका आवाज ना तर? बायलेचेर बरो आड्डता मरे?

७ : आरे, बायल तरी आयकता! पूण सरकार आयकना न्हय रे! तांचे

खातीर अण्णाच जाय!

६ : प्रस्न दर एकल्याचो. तो सोडोवपाक दर खेपे अण्णानच धांवपाचें? मागीर आमचो जल्म फुकट मरे?

५ : सायबा, आमी करप तरी कितें?

६ : आरटीओक पयशे खावोवन लायसन्स घेता मरे? बंद कर.

५ : पूण ते घेतात न्हय रे?

६ : तुमी दितात, ते घेतात. देवाचें दर्शन घेवचे खातीर लेगीत लांच दितात मरे तुमी! बंद करात.

४ : टेंडरां पास करून घेवपाक कितली मलय खावयतात? तुमकां आमकां लागून, बापायची मिरास समजून ते चरतात! बंद करात.

२ : दोन रुपया वांचोवपा खातीर तिकेट मागिनासतना प्रवास करतात. होवूय भ्रश्टाचारच! बंद करात.

३ : भुरग्यांच्या ॲडमिशना वेळार पयशे दितात, तोवूय भ्रश्टाचार! डोनेशन म्हणात वा फंड.

४ : घेतल्यांचो जितलो दोश तितलोच दितल्यांचोय.

५ : कोण अण्णा येतलो रे तुमकां सोडोवपाक? आनी ताणेच कित्याक येवचें? तुमी आमीच निर्माण केलां, तुमी आमीच निस्तरपाचें. नाजाल्यार...

६ : नाजाल्यार?

५ : ॲज युज्यूअल.

कोरस : नाच नाच नाच नाच नाच नाच
नाच पळय नाच नाच पळय नाच
नाच बाबा नाच नाच बाये नाच
पळय भ्रश्टाचारा नाच ■



**कविंद्र व्यंकटेश फळदेसाय**

जल्म : १४ जानेवारी १९७२

शिक्षण : एम्. ए., बी. एड्
(मराठी आनी कोंकणी)

नामो : 'क्षितिज' ८३८ वेलवाडा,
पैंगीण, काणकोण - गोंय.

दूरध्वनी : ९४२११५२२९७

email : kavinphaldesai@rediffmail.com

व्यवसाय : निराकार शिक्षण संस्थेच्या मार्शें काणकोण हांगासल्ल्या सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमिक विद्यालयांत १९९४ सावन मराठी विषयांचे अध्यापन

**संजना पब्लिकेशन्स**
सांगें-गोंय

१९८० वर्सा जाल्ल्या मार्कस स्कँडलातल्यांन गोयांत रस्तो नाट्याचो जल्म जालो. अखिल गोंय विद्यार्थी संघटनेन ह्या माध्यमाचो लोक जागृतीखातीर प्रभावी उपेग केलो आनी पयल्याच धपक्याक रस्तो नाट्य गोंयांत यशस्वी थारलें. उपरांत प्रोग्रेसिव्ह स्टुडंट्स युनियनानय गोंयांत आनी गोंयांभायर साबार रस्तो नाट्याचे शंबरानी प्रयोग घडोवन हाडले.

१९८७ उपरांत मात रस्तो नाट्य हें फकत सर्तीपुरतेंच मर्यादित उरलें. २०११ त जाल्ल्या भाशा प्रश्नाचेर पर्थुन एक फावट रस्तो नाट्याचो लोकजागृतीचें माध्यम म्हणून उपेग केलो.

ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्लीं कविंद्राचीं रस्तो नाट्यां हीं गोंयच्या ज्वलंत प्रश्नांचेर आदारिल्लीं आसात. पर्यावरण, उदकाची जतनाय, भ्रश्टाचार, एड्स, प्रदूशण, झाडांचो सांबाळ अशा विविध प्रश्नांचेर कविंद्रान आपल्या रस्तो नाट्यांतल्यान उजवाड घाला. हातुंतलीं बरीचशीं रस्तो नाट्यां सर्तीखातीर बरयिल्लीं आसतलीं हातूंत दुबाव ना.

नाटकां जशीं सादर करपाखातीर आसतात वाचपाखातीर न्हय, तशेंच रस्तो नाट्याचें. ह्या पुस्तकांतल्या थोडया जरी रस्तो नाट्याचे गोंयभर प्रयोग जाले जाल्यार ती गोंय आनी गोंयकारांची व्हड सेवा जातली.

कविंद्रान बरोवपाचें काम केलां. गोंयभर हीं रस्तो नाट्यां घेवन भोंवपाक आसात कोणी तरणाटे तयार ?

प्रशांत नायक

